


# शणै गोंयबाब

रा. ना. नायक



भारतीय
भासांचें
साहित्य घडोवपी

शणै गोंयबाब (शणै वामन रघुनाथ वर्दे वालावलिकार)

साइत्यिक भासांच्या मळार कोनशांत पडून आसलेले कोंकणीक मनाची सुवात मेळोवन दिवपी कोंकणीचे निश्टावंत भगत, तशेच तिचे शिल्पकार आनी शैलीकार, तिचे व्याकरणकार आनी नाद-शास्त्रकार, भोव-मुखी प्रतिभेचे तिचे व्हड साइत्यकार म्हणून विसाव्या शकडयाच्या पयल्या अर्दांत लिकलिकून गेल्ले, वयल्यान सामान्यापरस सामान्य दिसणे, 'शणै गोंयबाब' हें विचित्र दिसणे बिरूद धारण करपी अशा एका असामान्य मनशाची ही जीण – जणीक, समाजीक आनी साइत्यीक.

जीण बरोवपी श्री. रा. ना. नायक हे शिक्षण व्यव-सायांतले एक कोंकणी साइत्यिक आसात. ताणी गांधीजी, रवींद्रनाथ ठाकूर, तालस्ताय, कहलील जिब्रान हांचें कांय साइत्य कोंकणीत हाडलां. हेर अनेक भासांतल्या काणयांचे कोंकणी अणवाद केल्यात, लळीत निबंद बरयल्यात आनी शणै गोंय-बाबांच्या "कोंकणी भाशेचें जैत" ह्या पुस्तकाचें इंग्रजींत भाशांतर केलां. ही जीण बरोवप्यान शणै गोंयबाबांचें साइत्य केन्ना कशें निर्माण जालें तें सांगलां आनी थोडें भोव समीक्षण करून शणै-बाबांच्या बरपाचे कांय नमुनेय दिल्यात. तांचेवरसून शणैबाबांची विचार करपाची तर्कशुद्ध तरा, तांची नितांत सादी, सोंपी, सरळ आनी ओघवती शैली हे गुण दिसून येतले.

धांपण-पान : सत्यजित राय
रेगटचांचित्रकार : चद्रकांत रुद्रा

मोल : दोन रुपया पन्नास पैशे

भारतीय भासांचें साइत्य घडोवपी

# शणै गोंयबाब

(शणै वामन रघुनाथ वर्दे वालावलिकार)

लेखक

रा. ना. नायक




साहित्य अकादेमी, नवी दिल्ली

**Shennoi Goembab** : Monograph in Konkani (Devanagari) by R. N. Naik
Sahitya Akademi, New Delhi. (1980)            Price Rs. 2–50



पैली खेप १९८०

उजवाडावपी :
**साहित्य अकादेमी**
रवीन्द्र भवन,
३५, फिरोजशाह रस्तो,
नवी दिल्ली–११० ००१

छापपी :
**अभय भिडे,**
श्री राजमुद्रा मुद्रणालय,
१८, प्रभादेवी इंडस्ट्रियल इस्टेट,
वीर सावरकर मार्ग,
मुंबय–४०० ०२५.

मोल : दोन रुपया पन्नास पैशे

# मांडावळ

# १. घराण्याचो पुर्विल्लो थोडो इतिहास*

वालावलिकार वर्दे घराण्याचो मुळ पुरुस सुमार तिनशीं वर्सांफाटीं गोमन्तकांतल्या अंत्रूज म्हालांत म्हळ्यार हालिंच्या फोंडें तालुक्यांत कोण एक गोरक्ष शणै वर्दे ह्या नांवाचो जावन गेलो. इ. स. १६९५ ते १७०७ ह्या काळांत हो फोंडेंच्या 'दिवांवा'चो राजदूत म्हणून गोंयां, पुर्तुगेजांच्या दरबारांत आसतालो. त्या काळार अंत्रुज म्हालाचो म्हळ्यार फोंडें तालुक्याचो आस्पाव पुर्तुगेजांचे काबिजादीत जाय नासलो. ताचेर शेक चलयतल्याक पुर्तुगेजींत "दिवांव" म्हण्टालेत. 'दिवाण' ह्या उतराचो तो पुर्तुगेज अपभ्रंश वा उच्चार जांवये. गोरक्ष शणै वर्दे मोटो राजकारणी मुत्सद्दी, बुदवंत, विद्वान, खूप वाचप केल्लो आनी खूपशी माहिती आशिल्लो वेव्हार-चतुर मनीस आसलो. ह्या गोरक्ष शणैचो एक पूत पुंडलीक शणै वर्दे हो फुडें आपलें कुटुंब घेवन अंत्रुज म्हालांतल्यान सावंतवाडींत वालावली नांवाच्या गांवांत वचून रावलो. ह्या कुटुंबाच्यो फुडल्यो पिडयो आपल्या वर्दे ह्या आडनांवाफुडें वालावलिकार हें थळावें उपनांव जोडूंक लागल्यो. पुंडलीक शणैचो पूत गोरक्ष शणै (२ रो) वर्दे वालावलिकार फुडें कांय वर्सांनी वालावली गांव सोडून गोंयांत सां इश्तेव्हांव अथवा शाकेचें जुंवें म्हण्टात त्या जुंवावळींतल्या गांवांत येवन वसलो. हो पुर्तुगेज मुलुख आसलो. ह्या गोरक्ष शणैचो पूत विठ्ठल गोरक्ष शणै वर्दे वालावलिकार हाणें आपले जिणेंत मोटी नामना आनी लोकिक मेळैलो. अठराव्या शेंकड्याच्या दुसऱ्या अर्दांत केन्नातरी तो पुर्तुगेज सरकारचो वकील वा राजदूत म्हणून पुण्याक पेशव्यांच्या दरबारांत आसतालो. ताचे आंगचे हुशारेचें, ताचे राजकारणी बुद्दीचें आनी मुत्सद्दीपणाचें दोगांय सकारांच्या दरबारांत कौतुक आनी तोखणाय जाताली,

---

*श्री शणैबाबांले जिणे संबंदान माहिती आनी तांच्या साइत्यांतले उतारे घेंवक उजवाडावची ह्या नात्यान दिल्ली मेकळीक ह्या दोनीय खातीर गोमन्तक छापखान्याचे श्री काशिनाथबाब श्रीधर नायक हांचें हांव रीण लागतां हें हांगा सांगून हांव कृतज्ञतायेन तांचे उपकार मानतां.

—बरोवपी

आनी तीं ताचो आदर-भौमान करीत. दोगांयकडल्यान ताका पालखेचो म्हण्टात तो मान मेळटालो. दोनूय दरबारांत ताका वजनूय जायतें आसलें. विठ्ठलराव जेन्ना पुर्तुगेजाचो वकील ह्या नात्यान पेशव्यांच्या दरबारांत आसतालो त्या सुमाराक फोंडे म्हालाचो कबजो पुर्तुगेजांकडे आयलो. (इ. स. १७६३). गोंयांत पुर्तुगेजांचो शेक चलूंक लागल्या उप्रांत ताणीं चलैल्लें बाटोवणेचें, पुर्तुगेजीकरणाचें आनी धर्मच्छळ करपाचें धोरण आतां मेरेन जरी बरेंच सैल आनी उणें जाल्लें, तरी तांचो तो फुरफुरो अजून साप न्हिवूंक नासलो. फोंड्यांचो म्हळ्यार अंत्रूज म्हालाचो नवो मुलुख आनी थंयची नवी हिंदु प्रजा आपले सत्तेतळा आयल्याबरोबर ह्या नव्या मुलखाचें आनी प्रजेचें क्रिस्तांवीकरण आनी पुर्तुगेजीकरण कशे तरेन करचें हाचो विचार त्या राज्याचे अधिकारी आतां करूंक लागले. पोर्णे काबिजादींतली साष्ठ, बारदेस आनी तिसवाडी ह्या तालुक्यांत पुर्तुगेजांनी जो धर्मिक अच्छेव घाल्लो ताचें आनी त्या थळांनी जें इन्क्विजिसांव सुरू केल्लें तांचें भयांकृतपण लोक अजून विसरूंक नासले. त्या अच्छेवाक लागून जायते हिंदु गोंय सोडून कर्णाटकांत वचून राविल्ले आनी कांय जाणांनी आपले 'देव' पुर्तुगेज सत्तेतळा तेदोळा नासलेल्या अंत्रूज म्हालात व्हरून तांची थयंच्या वेगळया वेगळया थळांनी पुनाय थापना केल्ली. आतां ही अंत्रुजय जेन्ना दैववशात् पुर्तुगेजांच्या शेकातळा आयली आनी पुर्तुगेज राजकर्ते आपलें पोर्णें धोरण चालू करपाक वावरतात अशें लोकांक दिसून आयलें तेन्ना हे नवे प्रजेचेर मोटो आकांत आयलो. अशा ह्या म्हा-संकश्टाच्या वेळार विठ्ठलराव वर्दे वालावलिकार हो लोकांक पावलो. ताणें आपलें शाणपण, मुत्सद्दीपण वापरून पुर्तुगेज सरकाराक समजायलें आनी पेशव्यांचें तांचेर वजन आनी चेपण हाडून पुर्तुगेज अधिकाऱ्यांक आपलें धोरण बदलूंक लायलें. हे भाशेन अंत्रुजेर येंवक घाल्लें संकश्ट ह्या चतुर मुत्सद्यान नाशें केलें. पुर्तुगेज सरकारा-नूय फुडें बांद घालून आपले नवे प्रजेक कळीत केलें कि लोकांनी आपापले रीतीप्रमाणें आपापले धर्म पाळचे. पुर्तुगेज सरकार तांच्या धर्मांत दख्खलगिरी करचें ना.

ह्या लोकिकवंत आनी जनहितकारी विठ्ठलराव वर्दे वालावलिकारांचे दोग नातू आसले. एक भास्करराव वर्दे वालावलिकार आनी दुसरो कृष्णराव अथवा कुश्टेबाब वर्दे वालावलिकार. कांय वर्सां उप्रांत हे दोगूय नातू आपलें सांइश्तेव्हांव गांव सोडून दुसरेकडेन रावूंक गेले. भास्करराव भोव करून मुंबै वचून थंय स्थायिक जाले आसूंये. कृष्णराव अथवा कुश्टेबाब हे दिवचले वचून रावले. दिवचल हें गांव पुर्विल्ल्या गोमन्तकांत भत्तग्राम नावाच्या म्हालांत मोट्टालें.

हो म्हालूय १७८८ त आनीक दुसऱ्या म्हालां वांगडा पोर्तुगेज सत्तेतळा आयलो. तेन्ना पुर्तुगेजांनी दिवचलेक "बिशोलीं" (Bicholim) है नांव दिवन तिका त्या नावांच्या तालुक्याचें मुखेल गांव केलें. ह्या गांवांत ताणीं एक लश्करी तळ दवल्लो. हे रीतीन दिवचलेचें म्हत्व वाडलें. ह्या गांवांचें केंद्र म्हळ्यार ताची वेपारी पेठ. तिचे दोन भाग आसात. एकाक भायली आळी आनी दुसऱ्याक भितल्ली आळी म्हण्टात. कुश्टेबाबांन पेठेचे भितल्ले आळींत आपलें घर केलें. ह्या घरात तांच्यो दोन तीन पिडयो जावन गेल्यो.

कृष्णराव अथवा कुश्टेबाब हांकां तीन चले आसले: भगवंतबाब, शंकरबाब आनी रघुनाथबाब. रघुनाथबाब हेच शणै गोंयबाब हांचे जाण्टेले. रघुनाथबाबांक तीन भुरगीं. पयली चली, शैवतू, दुसरो चलो वामन (शणै गोंयबाब) आनी तिसरो विनायक उर्फ कृष्ण. ह्या भुरग्यांचे आजे कुश्टेबाब हे वामनाच्या जल्मा उप्रांत १८७७ वर्सा भायर पडले आनी फाटोफाट दुसऱ्या वर्सा, १९७८ त तांची आजी कमळाबाय स्वर्गवासी जाली. वामनाचो जल्म १८७७ वर्साच जाल्लो. ताची भैण शेंवतू ही ताचेपरस तीनचार वर्सांनी व्हड आसली. तिचें तिच्या इकरा बाराव्या वर्सा लग्न करून दिल्लें. दिवचलेंतूच कोळमुळे –पालेकार ह्या घराण्यांत तिका दिल्ली. दुर्दैवान लग्नाउप्रांत रोकडच तिका वैधव्य आयलें आनी ती परती कुळारा येवन रावली. ती परत आपल्या घरा गेली ना. १९३४ वर्सा विलेपारल्याक (मुंबै) आपल्या भावासरेन–वामनरावांसरेन आसताना तिचो अंत जालो.

वर्दे वालावलिकार हें कुटुंब जातीन गोंयकार बामण, वत्स गोत्री. तांचें कुळदैवत कवळेंची शांतादुर्गा अथवा सांतेरी. वालावली गावांत वचून रावल्या उप्रांत ह्या कुटुंबांत वालावलीची ग्रामदेवता श्री नरसोबा हाचीय भक्ती आयली. वालावली थावन गोंयां सां इश्तेव्हावा येवन रावल्याउप्रांत ह्या कुटुंबाचो बरोच विस्तार जालो आनी तांच्यो खांदयो दिवचल आनी सांगे ह्या गावांनी पावल्यो आनी थंय थंय विस्तारल्यो. एक खांदी मुंबय पावून थंय विस्तारली.

# २. वामनरावांचो जल्म, भुरगेपण आनी शिकप

वामनरावांचो जल्म इ. स. १८७७ वर्सा जून म्हैन्याचे २३ तारखेक दिवचले गांवांतले पेठेचे भितल्ले आळींतल्या तांच्या घरांत जालो. भोंवतणीं पांचवेचार दोंगर आनी तांचे मजगती आयस पयस आसलेलीं भातशेतां आसलेलो निजाचे सुंदरकायेन भरिल्लो हो गांव. गांवामजगती मांडां-पसऱ्यांची एक मोटी पेठ आसून तिचे भायली आनी भितल्ली आळी अशे दोन भाग पडल्यात. भितल्ले आळीक चिरीत एक शेकानशेंक सडक गेल्या ती एका तोंकान रानवट सत्तरी म्हालांतल्या सांखळी गावांक वचून भिडल्या. दुसऱ्या तोंकान ती असनोडच्या रम्य पाराक घांसून बारदेसांत रिगल्या. ही सडक दिवचलेचे ते बाजारपेठेक आगळीच सोब हाडटा. गावांत एक दोंगर वा दोंगुल्ली आसा. तिच्या माथ्यार भतग्रामाचेर मुसलमानाचो शेक चलतालो त्या काळा बांदिल्ली एक ल्हानशी मशीद आसा. थंय मुसलमान लोक नमाज पढतांले. म्हणून त्या थळाक नुमाजगो अशें नांव पडलां. आज ती मशीद मोडिल्ले स्थितींत आसा, तरीय पुण ती त्य गांवातल्यान गेल्ल्या लांब सडक मार्गाचेर पयस मेरेन आपले नद्रेची आजूय वांग घालीत आसा. असल्या ह्या निजाच्याच सुंदर रम्य वायमंडळांत वामनरावांचो जल्म जालो आनी ताणी आपले जिणेचीं उणीं पुरीं सोळा वर्सां ह्याच पांचव्या चार भोंवतणांत काडलीं आनी ह्याच भोंवतणांतल्यान ताणी आपले जिणेंतली काव्यात्मनाय मेळयली.

वामनाचे जाण्टेले रघुनाथराव हे दिवचलेंतले एक ल्हानसे गरीब पसरकार आसले. व्यवसायाखातीर मांड घालचे पयलीं ते लागशिल्या म्हापशें शारांत आपल्या एका सधन नातेवर्ग्याच्या आश्रयाक रावून ताचे घरचें कारभारीपण करतालेत. परंत उजूपणान चलैल्ल्या कारभारीपणांत पुरोशी कमाय नासली तें पळोवन अथवा स्वाभिमान सांबाळपाचे गरजेन ताणीं तें काम सोडून दिलें आनी आपल्या घरांतलो आपलो ल्हानूच पसरो हेंच एक कमायेचें साधन म्हणून तें घवन बसले. वामनाचे आवयलें नांव सीताबाय आसलें. ही मोटी वत्सल सोशिक सभावाची आनी थोडें उलोवपी बायल आसली. वामनूय आपले आवय

भाशेन ल्हानपणापासून थोडें उलोवपी. ताची मुखदुर्बळनाय ही कदाचित ताची जीब जड आशिल्ल्यान आसली जांवये. अथवा ती ताच्या सभावाचे अंतर्मुखतायक लागून उत्पन्न जाल्ली जांवये. घरांतलीं जाण्टीं मनशां आनी शेजारी सामारी सीताबायक सीताबाय ह्याच नांवान उलो करीत. तें आयकून वामनाची व्हडली भैण शेवतू हीय तिका सीताबाय अशाच नांवान उलो करी आनी तिचे देखीन वामनूय तिका त्याच नांवान सबोधपाचो यत्न करी. पुण जिबेचे जडसाणीक लागून ताच्या तोंडांतल्यान 'ताबाय' अशें उतर भायर सर. पुण भुरगेपणांतलें ताचें तें लुडबें उतर जाण्टेपणांतूय तशेंच उल्लें आनी वामनराव आपले आवयक सदांच 'ताबाय' ह्याच नांवान उलो करताले. त्या नांवातलो गोडवो ते आनी तांची आवयूच जाणा आसलींत. वामनरावांचो आवयवयलो मोग आनी सीताबायक पुताविशींचें वात्सल्य हीं परस्परांक नुलैत कळटालींत, आनी दोगांयचे जिणेच्या अंतामेरेन तीं तशींच नुलैत पुण भासत रावलींत. अपरोक्षपणान जे कोण पळोंवक शकत तांकां मात तांचे ते भाव स्पश्ट दिसताले. सीताबाय वामनाक "शाणो" म्हण. तिणे पुताक दवल्लेलें हें अडेचें नांव तिचे स्वतःचे नद्रेन तशेंच वस्तुतायेन, अर्थान उपाट आसलें, कित्याक तर वामन भुरगेपणा पासूनच बुद्दीन तीख, शाणो आनी समंजस आसलो.

वामन चार वर्सांचो आसतानाच शिकूंक लागलो. गांवांत एक सरकारी पुर्तुगेज साळ आसली; परंत हिंदु लोक आपल्या भुरग्यांक देवनगरी बरप आनी मराठी वाचप शिकैल्याबगर एकदम पुर्तुगेज शिकूंक धाडिनासलेत. कोंकणी साळो वा शिकप नासलेंच. दिवचले मराठी शिकोवपाची साळ अशी नासली. राम गांवकार नांवाचो एक थोडेंशें मराठी बरप-वाचप जाणा आशिल्लो शेत-काम करपी मनीस गांवांतल्या शिकपी भुरग्यांक व्हडे सकाळीं आपल्या आंग-णांत एकठांय करून तांकां धुळाक्षरां चिरूंक घालतालो. नाल्लाच्या बोळक्यांत धूळ म्हळचार वेळेवयली रेंव भल्लेली आसताली. लांकडाचे फळयेर ती रेंव पातळावन हाताच्या बोटांनी वा बारीक बडयेन मुळाक्षरां घालून भुरग्यांक दितालेत आनी भुरगीं तीं अक्षरां आपल्या बोटांनी चिरीत रावून तांचें वळण घोळयतालीं. शिलेटी वा पाटयो आनी पाटयां-पेन्सिली फुडें बऱ्याच वर्सांनी आयल्यो. राम गांवकार भुरग्यांक अक्षरां चिरूंक घालून दितालो आनी आपुण आपल्या शेतांतल्या बी कामाक वतालो. दोन अडेच घंटचांनी पर्थून येवन भुर ग्यांनी कितें केलां वा करूंक ना आनी तांकां कितें येता वा कितें येना तें पळोवन साळ सोडून घालतालो. ताचे अपरूरवीं कोणूय जाण्टो सो भुरगो हेरां भुरग्यांचेर लक्ष दवरतालो.

हे तरेन वामन देवनगरी मुळावीं अक्षरां शिकलो. ताचें अक्षर सुंदर आनी वळणदार येतालें. जाण्टेपणांतलें वामनरावांचें हातबरप जाणीं पळेलां तांकां खबर आसतालें तांचें तें बरप – देवनगरी जांव, रोमी जांव – कितलें सुंदर स्पश्ट, सुवाच्य, विस्कळ आनी एकजात वळणाचें आसतालें तें. बरैल्ल्या मजकुरांत भर घालप वा तो कातरून उडोवप, अक्षर वा उतर सुधरून घेवप हांचे खातीर तांच्यो थारायल्ल्यो कुरवो आनी वरोवपाच्यो तरा आसताल्योत. हांकां लागून वाचप्यांक तांचें बरप वाचपांत खंयच अडचण येनासली. तांच्या ह्या बरपाच्या गुणांत राम गांवकाराचें जितलें कसब आसलें तितलेंच चार वर्सांच्या "शाण्या" वामनाच्या आंगचें मनस्वीपणूय आसलें. फुडलें जिणेंत श्री भगवद्गीता वाचून ती पचोंवचे पयलींच वामनान "योगः कर्मसु कौशलम्" हो गीतेंतलो कर्मविषयक पाठ अंतःस्फूर्तीन शिकून आत्मसात् केल्लो. आपले जिणेंत ताणें जें जें कितें फुडे केलें तें तें सगळें ताणें गीतेचे हे योगिक पद्धतीनूच कुशळतायेन केलें. मनस्वीपणाक लागून ताणें सामान्याक जें साधूंक कठीन तें सोंपेपणान, सहजतायेन साधलें.

मुळाव्या अक्षरांचें शिकप जातकूच वामनान मराठी पयल्या तीन यत्तांचें शिकप दिवचली गांवातल्या एका मराठी बामणाचे घरगुती साळेंत वचून केलें. ह्या मास्तराचें नांव आसलें विनायक सखाराम वर्वे. वर्वे मास्तर गांवांत भटपण करतालो जांवये. आपल्या घरांत भुरग्यांक बरप वाचप आनी गणित शिकोवन तो आपले भटपणाचे जोडींत थोडी भर घालतालो आसुंये. त्या काळार गोंयांत व्यवस्थितपणान चलपी सर्वजणिक मराठी साळो नासल्यो म्हळ्यार जाता. ज्यो हातावयल्या बोटांर मेजीसारक्यो थोडयो आसल्यो त्यो म्हापशें, पणजी वा मडगांव अशा मोटया शारांत आसल्यो. सरकारी मराठी वा कोंकणी साळो तर मुळीच नासल्यो. म्हण्टकूच हिंदु भुरग्यांचें मराठी शिकप गांवांतल्या खासगी वा घरगुती साळेंतल्यानूच रखडत रखडत आनी मदींच एकादलो खंड पडत सवकासायेन आनी अनियमितपणान जातालें. ह्यो असल्यो साळो गरजेणसार निर्मताल्यो आनी गरज सोंपतर विरमताल्यो. त्यो भोवकरून मराठणांतल्यान गोंयांत भटपणाच्या निमतान आइल्ले मराठी बामण वा रत्नागिरी जिल्ह्यांतल्यान (इंग्रजी मुलखांतल्यान) गोंयांत मराठी शिकोवन पोट भरपाक म्हणून आइल्ले, मराठी पांच सात यत्ता काडलेले भंडारी वा तसल्याच मदल्या जातींचे लोक आसतालेत. केन्ना केन्ना गोंयांतलेच गांवकार (खेत्री जातीचे लोक) आनी क्वचित शिकिल्ले सुदीरूय शिकोवपाचें काम करताले. फाविल्ल्या वेळांत गोंयकार बामणूय घरबसल्या मांड – पसरो सांबाळून वा दुसरीं कामां

सांबाळून भुरग्यांक शिकोवपाचें काम करीत. पुण व्यवस्थित साळ घालून भुरग्यांक शिकोवपाचेंच काम करपी भोव थोडे शणैमाम मेळटाले.

बर्वे मास्तरांकडे तीन वर्सां शिकून वामनान तीन यत्तांचें शिकप पूर्ण केलें. ह्या सुमाराक दिवचली गांवात एक व्यवस्थित स्वरूपाची मराठी साळ उगडपांत आयली. रामचंद्र दत्ताजी कुळकर्णी नांवाच्या एका सावंतवाडच्या सर्वजणिक वृत्तीच्या गृहस्थान गोंयांतल्या म्हापशें शारांत "गोमन्तक शिक्षण प्रसारक मडळी" ह्या नांवान इ. स. १८८४ त एक मराठी शिक्षण संस्था घडयली आनी त्याच शारांत हे संस्थेची एक साळ उगडली. थोडयाच दिसांनी त्याच गृहस्थान दिवचली गांवांत आपले शिक्षण संस्थेची एक शाखा घडयली आनी हे शाखेच्या पाल्यापाखाल दिवचलेंतूय एक सर्वजणिक मराठी साळ चालू केली. ही साळ व्यवस्थित आनी नियमित चलूंक लागली. वामनाच्या जाण्टेल्यांनी वामनाचें नांव हे साळेंत घालें. हे संस्थेंत वामन विद्यार्थी म्हणून तीन वर्सां उल्लो. हांगा ताणें चौथी, पांचवी आनी सवी ह्या यत्तांचें शिक्षण घेतलें. त्या काळार सातवी यत्ता हें मराठी शिकपाचें निमाणें पेणें आसतालें. पुणून संस्थेचे साळेंत सातवी यत्ता अजून काडूंक नाशिल्ली. म्हणून रघुनाथबाबान आपल्या वामनाक सरकारी पुर्तुगेज प्रांथमिक साळेंत पुर्तुगेज शिकपाक दाखल केलो. ह्या शिकपाक प्रिमैर ग्रावाचें शिकप अशें म्हणत. साळेंतल्या अभ्यासक्रमाक अणसरून हे शिकप करपाक दोन तीन तरी वर्सां लागतालीत. पुण तीव्र बुद्दीच्या वामनान एकाच वर्सांत प्रिमैर ग्रावाची परीक्षा दिवन उत्तम येश जोडलें. वामनाक हांगा करचो पडलो तो फक्त पुर्तुगेज भाशेचो अभ्यास. गणित बी हेर विशय ताचे मराठींतल्यान जाल्लेच आसलेत. सामान्य विद्यार्थ्याक मात हे अशें करप जमचें नासलें. वामनाचे बुद्दीन गिन्यानाचें बीज आनी तंत्र वळखिल्लें, देखून ताका दुसरे भाशेंतल्यान तेंच गिन्यान संपादूंक चड कळाव लागलो ना.

प्रिमैर ग्राव काडटकूच वामनान दुसरी श्रेणी म्हणचे सेगुंद ग्राव काडूंक जाय आसलो. पुण दिवचल गांवांत सेगुंद ग्रावाचें शिक्षण दिवपी साळ नासली. म्हण्टकूच तें शिकप करतलो जाल्यार वामनाक दुसरेकडेन वचून रावल्याबगर मार्ग नासलो. परंत पुताक दुसरेकडे दवरून ताचो शिक्षणखर्च चलोवपाची रघुनाथबाबांक तांक नासली. तांचो धाकलो पूत विनायक हो मुरगांवा आपल्या बापोलयाकडे शिकपाक म्हणून राविल्लो. पुण तो निकतोच थंय दिसांचो जोर येवन भायर पडिल्लो. ताच्या मर्णाचें दुःख अगदीं ताजें आशिल्लें. अशा वेळार वामनाक आपलेकडसून पयस दवरूंक ताचे आवयचें मनूय तयार नासलें. परंत वामनाची

फुडें शिकपाची तीव्र इत्सा पळोवन तिणें ताका म्हापशें शारालागसार बस्तोडें म्हणून गांव आसा थंय ताच्या आजोळा सुखठणकारांगेर दवरपाक आपली मान्यताय दाखैली. हांगा रावून वामनान एका वर्साभितर सेगुंद ग्रावाचो अभ्यास करून परिक्षा दिली. हें परिक्षेंत वामन सगळ्या बारदेस तालुक्यांत पयलो आयलो. हे तरेन ताणे आपले बुद्दीची चमक दाखयली.

परंत ह्याफुडें वामनाच्या शिकपांत ताचे घरचे गरीबकायेक लागून खंड पडलो. सेगुंद ग्रावाफुडलें पुर्तुगेज शिक्षण म्हळ्यार लिसेव. हो पांच वा सात वर्सांचो अभ्यासक्रम आसतालो. त्या काळार फक्त पणजे (राजधानी) आनी मडगांव ह्या दोन शारांतच लिसेवाचीं कॉलेजां आसलींत. पुण इतलो पयस पुताक दवरून ताचो थयंचो खर्च करून ताका शिक्षण दिवप रघुनाथबाबांचे तांकीभायलें आसलें. म्हण्टकूच वामनाक आतां शिकूंक मेळना जावन घराच बसचें पडलें. ताका आतां तेरावें सरून चौदावें वर्स लागिल्लें. तो हुशार आनी समजुपी भुरगो आसलो. ताचें अवांतर वाचप खूप आसलें. लिसेव करुंक येना म्हणून तो स्वस्थ बसलो ना. ताणें घरांत बसल्या बसल्या संस्कृत आनी इंग्रजी शिकचो विचार केलो. ताणें त्या दोनूय भासांचीं आपणांक जाय आसलेलीं पुस्तकां खंयसून तरी मेळयलीं आनी तो आपले आपुण त्या दोन भासांचो अभ्यास करूं लागलो. एकलव्याभाशेन तो आपलो आपुणच गुरू जालो. आपल्या आयुश्यांत फुडें शिकपाची आपणाक केन्ना तरी संद मेळटली अशी आस्त - उमेद ताण आपल्या काळजांत बांदिल्ली आसूंये. पुण तो त्या संबदान कोणाकडे कांय उलय नासलो. ताणें स्वाध्याय पद्धतीन डॉ. रामकृष्ण गोपाळ भांडारकरांचें संस्कृत पयलें पुस्तक पूर्ण केल्लें आनी तीन चार यत्तांचें इग्रजी भाशेचें गिन्यानूय ताणे संपादलेलें. ताच्या अवांतर वाचनातलें एक म्हत्वाचें पुस्तक आसलें रामचद्र भिकाजी गुंजीकरांचें १८८४ त प्रसिद्ध जाल्लें "सरस्वती मंडल" हें. ह्या पुस्तकान ताच्या मनाचेर मोटो प्रभाव घालो. ताच्यांत आपले संस्कृतायेविशीं आनी आपल्या पुरातन इतिहासाविशीं अभिमान निर्मिलो. तशेंच आपुण आनी गोंयचे लोक उलयतात ते कोंकणी भाशचं मूळ वेदीक भाशेंत (संस्कृतांत) आसा हें ताका कळून आयलें आनी ते भाशेसंबंदान ताच्यांत आदर आनी अभिमान उत्पन्न जालो. अशेतरेन स्वाध्यायांत ताचीं दोन वर्सां घरांत बसूनच गेलीं. आतां ताका सोळावें वर्स लागिल्लें आनी आपलो फुडार कितें असो प्रश्नूय ताच्या विचारी मनासामखार उबो रावतालो जातलो.

# ३. वामनाचें मुंबय वचप आनी मॅट्रिक जावप

वामनाचो बापोल आजो भास्कर शणै हांचो पूत चिंतामणबाब वर्दे वालावलिकार हे मुंबयतच स्थायिक जाल्ले. मुंबैत ते गिरगांवांत बनामहॉल गल्लींत रावताले. हांगा रावून तांका जायतीं वर्सां जाल्लीं. ते मुंबैचे आग्रा बँकेचे शाखेंत मॅनेजर आशिल्ले. १८९४ वर्सा आपल्या वयाच्या ६५ व्या वर्सा ते भोवकरून आपले चाखरेंतल्यान निवृत्त जाल्ले आसूंये. त्या वर्सा आपली कुळदेवी कवळेंची शांता-दुर्गा, तशेंच आपली आवयभुंय जी गोंय तिचेंय दर्शन घेंवक ते सहकुटुंब गोंयां आयिल्ले. देवीचे दर्शन, अभिशेक, पूजा बी धर्मिक विधी करून मेकळे जातकूच ते जुंवें, सांगें, दिवचल बी वेगळ्या वेगळ्या थळांनी रावतल्या आपल्या नातेवग्यांक मेळूंक गेले. वामनाचे जाण्टेले रघुनाथबाब हे तांगेले बापोलभाव. तांकां मेळूंक म्हणून ते दिवचले आइल्ले. रघुनाथबाबांच्या घरची गरीब स्थिती आनी एकटयाच उरिल्ल्या पुताक फुडलें शिक्षण दिंवचे बाबतीत तांची असहायता तांच्या पुरायेन ध्यानांत आयली. वामनाची फुडें शिकपाची तीव्र इत्सा आनी संस्कृत भाशेंत प्रवीण जावपाची ताची महत्वाकांक्षा तांचे नद्रेक आयल्याबगर रावली ना. ताणी वामनाक आपले वांगडा मुंबय घेवन वचपाची आनी ताका ताचे इत्सेप्रमाणें फुडलें शिक्षण दिंवची तयारी दाखयली. शिकपाचे संदीची मनांतल्यान वाट पळेत बशिल्ल्या वामनाक चिंतामणबाबांचें सुचोवणेन खूप आनंद जालो. वामन आतां मार्गाक लागतलो हें पळोवन रघुनाथबाब आनी सीताबाय दोगांयनी आपली मान्यताय दाखैली. १८९४ वर्साच्या फेब्रेरांत वामन चिंतामणबाबांबरोबर बोटीतल्यान मुंबय वचपाक तयार जालो. आवय-बापायन आनी घरांत वैधव्य दशेंत दीस काडपी शेंवतुआकान जड आंतस्कर्णान वामनाक निरोप दिलो.

वामन आंगलटीन बारीक किडकिडीत आनी नांवाप्रमाणेच मोटवो आसलो. ताचे नद्रेत बुद्धीची खोल चमक आसली आनी ती दिगंताचो वेध घेताली पुण त्याचबरोबर ताचे बावळे मुद्रेंत गरीबकायेंची काकळुतायणी नमळाय भल्लेली. ताच्या त्या वयांत ताच्यांत साइत्यिक ऊर्मी आसली. तो अभंग रची

आनी कवीत करतालो. पुण ते आसलें केवळ आप-उक्तावपाचे गरजेखातीर. नेमाळ्यांतल्यान उजवाडावन नांव मेळवंचें खातीर न्हय. ताच्यांत साइत्यिक प्रतिभा आसली, पुण साइत्यिक वसवस नासलो. आपली प्रतिभा जायतशी विकसित जावन जाण्टी जायसर वाट पळोवपाचो ताच्यांत धीर आसलो. तो हुतहुतेपणान कांय करिनासलो, वा उलयनासलो. ताच्यांत रघुनाथबाबांचो संथ, स्वाभिमानी आनी नुलोवपी सभाव उतरल्लो., तशेंच सीताबायचें सोशीक समंजसपणूय आइल्लें. आपले उदरगतीखातीर पडटीत ते कश्ट -स्रम करपाची ताच्या मनाची तयारी आसली. असो हो वामन आपलो उदार अंतस्कर्णाचो बापोलयो चिंतामणबाब हांचेबरोबर गोंयचे राजधानीत म्हळचार पणजे येवन बोटीत बसलो. पयलीं केन्ना पळोंवक नाशिल्लें अशें नवें जग तो आतां थोडच्याच घटकांनी पळेंतलो आसलो.

बोटीच्या डेकचेर एक दोन सतरंज्यो हांतरून चिंतामणबाबांनी आपल्या मनशांखातीर प्रवासांत जाय तशी सुवात करून घेतली, आनी ते स्वस्थ बसले. कुशीकूच वामनूय बशिल्लो. इतल्यांत तांचे ओळखीचो एक गृहस्थ तेच बोटींत चडिल्लो तांकां पळोवन तांच्या म्हऱ्यांत आयलो. हेवशिल्यो तेवशिल्यो गजाली जातकूच कुशीक बसून शांतपणान गजाली आयकतल्य वामनाकडे पळोवन ताणें चिंतामणबाबांक म्हळें, "ह्या गोंयबाबाक तुमी आपले बरोबर मुंबैय घेवन चल्ले दिसता!" कोणाकडे कांय मागनाशिल्ले वृत्तीच्या वामनाच्या अंतरांतल्या स्वाभिमानाचेर "गोंयबाब" हें जळजळीत खतखतीत उतर विजेच्या लोळाभाशेन येवन पडलें. पुण बापायच्या संथ, नुलोवपी सभावान आनी आवैच्या सोशीक समंजसपणान वामनाक तें वीख शंकराभाशेन गिळूंक शिकयलें. गिळिल्ल्या विखान शंकराक "नीलकंठ" ही बिरूदावली प्राप्त जाल्ली. वामनान गिळिल्ल्या विखान ताका फुडें मेळपाची "शणै गोंयबाब" ही साइ-त्यिक बिरूदावली काळाच्या गर्भांत रुजत पडली.

"हय, हो म्हजो पुतणयो, हांव ताका इंग्रजी शिकूंक मुंबय व्हरतां." संथ-पणान, शांतपणान, मनाची कसलीच खळबळ जांवक दिनासताना चिंतामण-बाबांनी त्या गृहस्थाक जाप दिली. हे सत्विक आनी सद्भावनेन दिल्ले जापेन त्या गृहस्थाची उपहासाची खुमखूम जंयचे थंय जिल्ली, आनी तो थंड पडलो. वामनाचेय वैयक्तिक स्वाभिमानाचे दुखीक थंडाय हाडणें वखद मेळ्ळें. ह्या प्रसंगान वामनाच्या मनांत पयलींच उत्पन्न जाल्लो आपल्या बापोलयाविशींचो आदर कितलेशेच पटींनी वाडलो! फुडें सुमार पन्नास वर्सांनी उजवाडाइल्ल्या आपल्या 'पुण्यात्मो राम कामती' ह्या पुस्तकाचे ओंपणीत ताणी आपल्या काळ-

जाच्या संपुष्टांत जतनायेन राखून दवल्लेलो हो भाव थोडयाच पुण खरेपणान भरिल्ल्या उतरांनी उक्तो करून दाखयला.

'गोंयबाब' हें उतर तशें पळेल्यार "बंगाली बाबू" वा "इंदियन" ह्या उतरांइतलेंच निरुपद्रवी उतर. पुण मनशाचो उपहास आनी अपमान करुंक सोदतल्यांनी तांतूंत खंवचटपण आनी अपमानाचें वीख भल्लें ना? 'गोंयबाब' ह्या उतराची विशेताय म्हळचार तें खुद्द गोंयाभायर वचून स्थायीक आनी सधन जाल्ल्या गोंयकारांनीच आपल्या गोंयांत दीस काट्टल्ल्या भावांची निंदा करुंक तें घडयलें. वास्तविक बाब हें मानादिक उतर. तांतूंत "गोंय" भरसून ताचेंच अपमानगर्भ रूप तयार केलें. अशे तरेचें हें रूप तयार करप्यांचें आत्महीणपण दिसून येता. तांचो अणकार करून हेर लोकूय गोंयकारांचो उपहास आनी अपमान करपाक हें उतर उपयोगांत हाडूंक लागले जातले. ह्या उतरांत गोंयकाराचें बावळेपण आनी बाबडेपण सुचैलें आसा. अंतस्कर्णात प्रखर स्वाभिमान पोसणाऱ्या सोळा वर्साच्या वामनान ह्या उतराची नांगी आपुण केन्नातरी धाडायतलों असो संकल्प करून तेन्नापासून तें उतर आपल्या काळजांत घट सांबाळून दवल्लें. फुडें बारा-पंद्रा वर्सांनी बरैल्ल्या आपल्या "गोंयकाराचो मुंबयकार" ह्या पुस्तकांत 'मुंबयकार' जाल्ल्या आत्महीण गोंयकाराक वामनरावान पच्छताप करूंक लावन ताचें परिवर्तन करून दाखैलां. आपले "शणै गोंयबाब" हें साइत्यिक नांव ताणी हें आपलें पयलेंच पुस्तक उजवाडायलें तेन्नापासूनच घेतिल्लें. आपल्या कर्तुत्वान ताणी आपले जिणेंत ह्या नावांक सन्मान्यपण जोडून दिलें आनीं अशें तरेन तांतलें वीख अभिनव मार्गान नाशें केलें.

चितामणबाबांबरोबर वामन मुंबै पावलो आनी तांचेच सरेन, गिरगावांत बनाम हॉल गल्लींत रावूंक लागलो. थंयसून लागींच, खोताचे वाडींत 'मराठा हायस्कूल' ह्या नावांची, बरीच नामना पाविल्ली, मराठी माध्यमांतल्यान शिकोवपी एक इंग्रजी साळ आशिल्ली ती श्री. रा. रा. भागवत या विद्वान गृहस्थान स्थापन केल्ली आनी तेच हे शाळेचे आचार्य आसले. श्री. भागवत हे नांवाजलेले संस्कृत पंडित आशिल्ले. आनी म्हणून संस्कृतची 'जगन्नाथ शंकरशेट' शिष्यवृत्ती मेळोंवचो हावेस बाळगिण्या वामनान आपलें नांव थंय दाखल करून घेतिल्लें. आपणांक ही शिष्यवृत्ती मेळ्ळचार आपुण उच्च इंग्रजी शिकप करतलों अशी ताच्या मनांत उमेद आसली. वामनान घर बसल्या थोडें इंग्रजी आनी संस्कृताचें गिन्यान स्वाध्यायान मेळैल्लें. ताची परीक्षा घेवन ताका इंग्रजी चवथेच्या म्हळचार आतांचे आठवेच्या वर्गांत बसैलो. मॅट्रिक पर्यंत वचपाक वामनाक आनीक तीन वर्सांचें शिकप करचें आसलें.

हे मेरेनच्या संस्कृत, इंग्रजी धरून सगळ्या साळकारी विशयांचें गिन्यान वामनान कोणाची मदत घेनासताना केवळ स्वाध्यायान मेळैल्लें. शाळेंत प्रवेश घेतिल्ल्यान तेंच आतां व्यवस्थित जालें इतलेंच. फुडल्या अभ्यासांत कसलीच अडचण येनासताना तो १८९८ वर्सा मॅट्रिकच्या वर्गांत आयलो. मदल्या काळांत साळेंतल्या अभ्यासाखेरीज ताचें अवांतर वाचप खूप आसतालें. नेमाळीं, इंग्लिश, मराठी आनी संस्कृत वाडमय हांचोय तो शाळेंतल्या अभ्यासक्रमाखेरीज वेगळो अभ्यास करतालो. तो फक्कत नेमलेलीं पुस्तकांच वाचपी विद्यार्थी नासलो. तो एक अभ्यासू वृत्तीचो आनी बहुश्रुत असो, मोटचा हावेसाचो तरुण आसलो. १८९८ वर्सा मॅट्रिकची परीक्षा दिवन बऱ्याच वयल्या पांवड्याचे येस जोडून तो शाळेंतल्यान भायर सल्लो. ताचे अपेक्षेप्रमाणे ताका जगन्नाथ शंकरशेट शिष्यवृत्ती काय मेळ्ळी ना, आनी कॉलेजांतलें शिकप करपाची ताची इत्सा ताका सोडून दिवची पडली. तो आतां वीस एक वर्साचो तरुण आसलो. आनी स्वतःच्या पायांर उबै रावन आपलें पोट भरूंक जाय अशीच ताची परिस्थिती आसली. शाळेंतल्या ताच्या चार वर्सांच्या काळांत ताचे जिणेंत घडिल्ले दोन तीन म्हत्वाचे प्रसंग सांगून फुडें सल्लेलें बरें. हे प्रसंग वामनाची वृत्ती कशी आसली, ताची बुद्धिमत्ता कशी आसली आनी ताच्या साइत्यिक जिणेची दिशा कशी बदलली हें दाखोवन दितात.

वामन तेदोळा सवे वा सातवे यत्तेंत आसलो जांवयें. कोणेतरी जातीय मानस आशिल्ल्या शिक्षकान एका विशिष्ट समाजासंबंदान अपमानकारक आनी खरेपण नाशिल्लें विधान केलें. वामनाक ताचें तें विधान खरेपण नाशिल्लें, लटकें दिसलें. पुण तोंडाक तोंड दिवप वा बाचाबाची करप हें वामनाचे वृत्तीत नासलें. तो लिखणेन घट आशिल्लो आनी हें तो जाणा आशिल्लो. ताणे त्या चुकीच्या विधानाचें पुराय खंडण करपी एक ल्हानसो लेख वा पत्र बरैलें. पुण तो लेख कोंणें छापलोना. फक्त पुण्याच्या "सुधारक" पत्रान मात तो छापलो. ताचें कात्रण काडून वामनान तें त्या विशिश्ट शिक्षकाक, पोस्टांतल्यान धाडलें. शिक्षकाच्या तें हातांत पडलें. ताणे तें वाचलें खंय आनी कैराच्या पांटुल्यांत उडैलें. दुसऱ्या दिसा वामनाची आनी त्या शिक्षकाची साळेंत जेन्ना भेट जाली तेन्ना शिक्षकान वामनाक म्हळें, खैं, " म्हाका, तुजें तें कात्रण मेळ्ळें, हावें तें वाचून कैराच्या पांटुल्यांत उडयलें!" वामनान परती जाप केली, "हांवें तें तुमी वाचचें म्हणूनच धाडिल्लें. तें तुमी फ्रेमीत घालून दवरचें अशी म्हजी अपेक्षा नासली." ह्या प्रसंगान वामनाची निर्भयता, नित्य जागो आशिल्लो स्वाभिमान, असत्याचो रोकडोच प्रतिकार करपाची वृत्ती आनी

निर्भीडतायेची स्पश्टोक्ती हे गुण उठून दिसतात. ताच्या फुडल्या आयुष्यांत हे सगळे गुण ताचे नित्य सांगाती आसतालेत. ते ताच्या साइत्यांत आनी हेर कार्यां आनी संबंध हांचे भितरूय दिसतालेत. परंत तांचे स्वाभिमानी जापेंत, त्वरित प्रतिकारांत, अथवा निर्भीड स्पश्टोक्तींत द्वेस वा मत्सर केन्ना नासतालो. ताचें मन निर्लिप्त स्थितींत उरतालें.

शाळेंतली विद्यार्थीदशा सोंपत्यार वामनरावांनी – आमी आतां तांचो असोच उल्लेख करूंया – "रामराज्याभिषेक" नांवाचें एक मराठींत नाटक बरैल्लें. ताणीं अजून कोंकणी भाशेंत बरोवपाक सुरवात करूंक नाशिल्ली. कोंकणीची तोखणाय ताणी "सरस्वती मंडळांत" वाचिल्ली. ती वाचून ते प्रभावित जाल्ले आनी एकाद्रे त्या शाळेच्या काळांत ताणीं आपल्या बापायक कोंकणींत पत्र बरोवन आच्छर्यात आनी बुचकळयांत घाल्लें जांवये. पुण ती करणी तांची तितल्यारूच रावली. कोंकणी बरोवपाक हेतु वा दिशा तांकां अजून मेळूंक नासली. कोंकणी बरोवपाचो तांचो संकल्प अजून जांवक नासलो. अशा वेळार तांचें बरप मराठींतच जावप हें सभाविक आसलें. तांचें तें नाटक बरोवन पूर्ण जाल्लें. नाटक छापून उजवाडांवचें परस तें माचेयर हाडपाचें म्हत्व चड आसता. देखून ताणीं नाट्याचार्य अण्णासाहेब किर्लोसकार हे मुंबयंत आइल्ले आसतांना तांची भेट घेतली आनी आपणें बरैल्लें नाटक तांकां दाखैलें. ताणीं तें दवरून घेवन वाचून पळेलें आसतलें. वामनराव नाटकानिमतान अभिप्रायाखातीर तांकां पर्थून मेळ्ळे तेन्ना अण्णासायबांनीं तांकां म्हळें, " तुमचें हें नाटक, प्रसंग, घटणा, रचणूक आनी हेर नाट्यगुणांनी बरें आसा. पुण एके गजालीं-मुळें तें माचयेर हाडपाचे योग्यतायेचें म्हाका दिसना. नाटकाचो प्राण म्हळ्यार तांतूतले संवाद. थंयच तुमच्या नाटकांत नड आयल्या. तुमची उलोवपाची भास मराठी न्हय, देखून तुमी रचलेले संवाद अस्वाभाविक जाल्यात. तांच्यंत सहजपण ना. ते वाचिल्ल्यावरी दिसतात. उलैल्ल्यावरी दिसनात." अण्णासायबांचो अभिप्राय आयकून वामनराव थोडेशे खेदित जावन घरा आयले. पुण अण्णा-सायबांची टीका तांच्या मनाक पटली. ताणी आपल्या त्या नाटकाची पुनाय-केन्नाच खंयच वाच्यताय केली ना. अजूनय तें नाटक अप्रकाशित अवस्तेंत तांच्या लिखितांच्या संग्रहांत पडिल्लें आसा. अण्णासायबांचे टीकेन वामनरावांक दिश्टावो जालो कि आपुण जी शिकल्यां आनी जिच्यांत आपुण बरैतां ती मराठी, आपली आवयभास न्हय. पुण आवयभाशेसंबंदान तांच्या मनाचो संकल्प जांवक अजून कळाव आसलो.

तिसरो प्रसंग वामनराव मॅट्रिकची परीक्षा पास जाल्या उप्रांतचो. १८९८ वर्साचो अखेरचो म्हैनो आसुये तो. मॅट्रिकचे परीक्षेंत येस मेळैल्ल्या विद्यार्थ्यांचें अभिनंदन करपाखातीर मराठा हायस्कुलंत सभा भरिल्ली. सभेचें अध्यक्षपद सेंट झेवियर कॉलेजाच्या कोणातरी मोटचा संस्कृत - मराठीच्या विद्वान प्राध्यापकाकडे आसलें. वामरावांनी हे परीक्षेंत उत्तम येस जोडिल्लं. ताणीं हे सभेंत आपणें बरैल्लो एक मराठी निबंध वाचून दाखैलो, तो आयकून अध्यक्षांनी आपल्या उलोवपांत निबंधाची आनी वामनरावांची तोखणाय आनी व्हडवीक केली. ताणीं म्हळें, "हो तरुण वांचून उल्लो जाल्यार फुडें फाटीं आपले बरौपाचे शैलींत विष्णुशास्त्री चिपळूणकरांक फाटीं घालतलो." अध्यक्षांलें हें भाकीत वामनरावांचें बाबतींत पूर्णांशापरस अदीक वांटचंनी खरें जालें म्हणूंक जाय. चिपळूणकारांभाशेन वामनरावांनी मराठी लेखन केलें ना. कितेंय केलें आसत जाल्यार तें कोंकणीच्या मानान भोव थोडें. परंत चिपळूणकारांनी मराठी गद्याक जशें एक वळण आनी मार्ग घालून दिलो, आनी तांतूतले अराजक आनी विस्कळीत गलथनपण तोडलें, तशेच तरेन वामनरावांनी कोंकणीक एक बरी मोड घालून दिली, आनी तिच्या बरपांतलें अस्ताव्यस्तपण कशें तरेन काडून उडोंव येत ताचो मार्ग दाखैलो. वामनरावांनी आपल्या बरपांत कोंकणीक जें वळण लायलें ताकां अणसरून रोमी लिपयेंत पुर्तुगेज वा इंग्लेज मोडीचें कोंकणी बरोवपी, कानडी लिपयेंत कन्नड वळणाचें कोंकणी बरोवपी आनी कोंकणीक मराठी साज चडोवन संस्कृत जड-जडावान भरिल्लें मराठी वळणाचें कोंकणी बरोवपी हे आतां वामनरावांची कोंकणी मोड दोळ्यांमुखार दवरून आपलें बरप करपाक वावुरतात. वामनरावांनी विशिश्ट मोड आसलेली "खडी" कोंकणीच घडयलीं अशें न्हय, तर ताणीं ते मोडींत जायत्या तरांचें आनी विशयांचें वाङ्मय निर्मिलें. हे भाशेन ताणीं चिपळूणकर शास्त्र्यांक भाकीताप्रमाणें खऱ्यांनीच फाटीं घालें.

# ४. चाखरे निमतान आसगांव–करांची–मुंबय

१८९९ वर्स लागल्यार वामनरावांक बाविसावें वर्स चलतालें. ते निकतीच मॅट्रिकची परीक्षा पास जाल्ले. आयजच्या मानान मॅट्रिकेक हें वय चड दिसता. परंत हें ध्यानांत धरूंसंक जाय कि तांचे शिकप परिस्थितीक लागून कुडक्या कुडक्यांनी जाल्लें. ताणीं पयलीं मराठीच्यो स यत्ता काडिल्ल्यो. उप्रांत पुर्तुगेजीचें पयले आनी दुसरे श्रणीचें शिकप केल्लें. ताचे उप्रांत ताणी दोन वर्सां घराच बसून स्वाध्यायान इंग्रजी तीन यत्तांचें शिकप संपादिल्लें आनी थोडोसो संस्कृत भाशेचो अभ्यासूय स्वयंशिक्षक जावन केल्लो. त्याउप्रान्त मुंबय येवन तांणी मराठा हायस्कुलांत चार वर्सां शिक्षण घेवन मॅट्रिकची परीक्षा दिल्ल्ली. हे भाशेन पळेल्यार तांचीं वर्सां आळसांत वा नापास जाल्ल्यांन फुकट गेलीं अशें म्हणूं नज. शिवाय तांचें ल्हानपणापासूनचे स्वाध्यायाचे संवयेक लागून परिस्थितीन ताणीं कितेंय होगडायलें आसल्यारूय तें लुस्कान ताणीं स्वाध्यायान जायते पटींनीं भरून काडल्लें अश म्हणूंक जाय. मॅट्रिक जाल्या उप्रांतय तांचो स्वाध्याय चालूच आसलो. ते गिन्यानाचे अखंड उपासक आसले. ते गिन्याना-खातीर गिन्यान मेळयताले. परिस्थितीक लागून उंचावयलें शिकप करपांत तांकां आडखळ आइल्ल्यांन पोटाखातीर चाखरे फाटल्यान लागप गरजेचें जालें. तांचो मनाचो कल शिक्षकाचो व्यवसाय करपाकडे आसलो जांवये. १८९९ त ते मुंबयतलो आपल्या बापोलयाचो आश्रय सोडून गोंयां आयले आनी दिवचलं आपल्या घरा कांय दीस रावून ते बारदेसांतल्या आसगांव नांवाच्या गांवांत एक इंग्रजी माध्यमाची साळ आसली थंय चाखरेक रावले. त्या काळा गोंयां जंय थंय इंग्रजी माध्यमाच्यो साळो उगडटाल्योत. पुर्तुगेज शिक्षण भोव थोडयांक चाखऱ्यो वा अन्य व्यवसाय मेळोवन दिवंक उपकारा पट्टालें. म्हण्टकूच गोंयचे भोवसंख्य विद्यार्थी इंग्रजी शिकपाक लागले. इंग्रजी शिकून ब्रिटीश मुलखांत गेल्यार खंयूय काम मेळपाची आशा आनी संभव आसतालो. म्हण्टकूच विद्यार्थ्यांचे मागणेक लागून भोव करून पोर्णे काबिजादींत प्रतिष्ठित गांवांनी इंग्रजी साळो उगडिल्ल्यो. आसगांव हें बारदेसांतलें मुखेल शार म्हापशें

ह्राचे लागसार आसलेलें, सुखवस्तु क्रिस्तावांची चड वस्ती आसलेलें गांव. ह्या लोकांल्या तरनाटयांची वृत्ती इंग्रजी शिकून गोंयाभायर ब्रिटीश मुलखांत ना जाल्यार ताच्याय पेल्यान आफ्रिका खंडांतल्या बी पयशिल्ल्या मुलखांत वचून बऱ्यो चाखऱ्यो मळोवन दुडू कमोंवचो. ह्या उद्दिश्टान इंग्रजी साळांची तांकां गरज भासताली. आनी ज्यो साळो ह्यो गरजो भागोंवक थापन जायत तांची प्रेरणा शिक्षणाच्या वा गिन्यान मेळोंवच्या उदात्त ध्येयांत चड करून नासताली. वेव्हारी गरज भागोंवचें वेव्हारी उद्दिश्ट तांचें आसतालें. अशेच एके आसगांवचें शाळेंत वामनराव शिक्षक म्हणून कामाक रावले, आनी एक वर्स सोंपना फुडं थंयच्या वातावरणाची उबगण येवन ताणीं आपले जागेचो राजिनामो दिलो आनी ते अकस्मात उठून करांचीक गेले, आनी थंयच्या नगरपालिकेच्या रिफण्ड खात्यांत साद्या कारकुनाचें काम करूंक लागले. वामनरावांचो सभाव म्हळ्यार कसलेंय आंगार घेतिल्लें काम तांतूंत सगळे मन ओतून करपाचो. पुण तांचे भोंवतणी दुसरे कारकून जे काम करताले ते आळशी आनी कामचुकार आसले. म्हण्टकूच तांचें उरिल्लें कामूय वामनरावांकूच करचें पड. तांची वृत्तीच मनस्वी आशिल्ल्यान तें तेंय चुकैनासलेत वा चुकोंवक सोदिय नासलेत. हे परिस्थितींत थंय दीस काडप तांकां नाकाशें जालें. शिवाय करांचीची गरम वायूय तांका मानवना जाली. म्हण्टकूच हांगा एक वर्सभर कशें तरी रेटून ते राजिनामो दिवन करांची थावन मुंबै आयले. १९०१ वर्साची ती अखेर आसली वा १९०२ वर्स लागलेलें जांवये. करांची थावन आयले ते आपल्या बापोलयासरेन म्हळ्यार चिंतामणबाबांसरेन गेले. चिंतामणबाब अगदीं म्हातारे जाल्ले. पुतणयाक पळोवन तांकां खोस जाली. ताणी वामनरावांक सुचैलें आसूये कि तूं आतां हांगांच, मुंबैतच राव आनी मेळटा ती चाखरी कर. त्याप्रमाणे वामनराव मुंबैतच रावले आनी काम सोदूंक ताणी सुरवात केली. थोडयाच दिसांनी, १९०२ वर्साच्या आब्रिलांत चिंतामणराव भायर पडले.

वामनरावांची वृत्ती अध्ययन, अध्यापन करतल्या शणैची म्हळ्यार शिक्षकाची. परंत तांचें शिक्षण अर्दकुटें राविल्ल्यान शिक्षकाचे चाखरेंत तांची उदरगत जायत असो संभव नासलो. जंय तसलें काम मेळिल्लें थंय ध्येय वादाचें वायमंडळ नासलें. शिवाय त्या गांवांत फावोशी लायब्ररीय नासली. म्हण्टकूच खंयचेय वेपारी कंपनीत प्रवेश करून आनी थंय मन लावन आनी हुशारेन काम करून आपलो निर्वाह करचो अशें ताणीं थारायलें. तांच्या मुखार तांच्या बापोलयाचें उदाहरण आसलें. ताणी निश्टापूर्वक काम करून आपली उदरगत करून घेतिल्ली वामनरावांनी पळेल्ली.

आसगांव आनी करांची ह्या दोन सुवातांनी वामनरावांनी मॅट्रिक जाल्या उप्रांत चाखरी केली त्या दोन वर्साच्या काळांत ताणीं दोन पुस्तकां बरैलीं. वामनरावांक बरोवपाची स्फूर्त ते अठरा वर्साचे जाले तेन्नापासूनच जांवंक लागिल्ली. तशें पळेल्यार त्या पैलीच ते अभंगादि रचना करतालेत. परंत तें बरप एक बौद्धिक प्रयोग वा खेळ म्हणून ते करीत. पुण १८९८ च्या सुमाराक ताणीं बरैल्लें "रामराज्याभिषेक" हें नाटक ताणीं बरोंवक म्हणूनच बरेंल्लें. पुण ताचेवयली अण्णासाहेब किर्लोस्कारांची प्रतिकूल टीका आयकून ताणी ताच्या प्रकाशनाचो वा माचयेवैल्या प्रयोगाचो नाद अजिबात सोडून दिलो. पुण बरोवपाचो फुरफुरो तांकां तेन्नापासून येत रावलो आनी ताणी कितें ना कितें बरोवपाचो रियाज चालू दवल्लो. आसगांवा आयल्या उप्रांत ताणी "उ मेस्त्र मारात पुर्तुगेज" हें एक साळांत उपकारा पडपी पुस्तक बरैलें. गोंयच्या पुर्तुगेज साळांच्या अभ्यासक्रमांत त्या काळार मराठी-पुर्तुगेज भाशांतर हो विशय सुरू केल्लो. देखून पुर्तुगेज साळांनी उपयोग जायत अशें तें पुस्तक आशिल्लें. हें पुस्तक वामनरावांची साइत्यिक योग्यताय दाखैना. ते तांची शिक्षकाची व्यासंगी वृत्ती आनी उद्योगाची आवड दाखैता. तें ताचो हावेस दाखैता. हें पुस्तक बरोवन जातकूच ताका जोडिल्ली आपली प्रस्तावना ताणीं त्या पुस्तकासैत श्री. तोमास मौरांव, बारांव द कुंभारजुवा ह्या फिडॉ्ल गृहस्थाक दाखैलीं. हे फिडॉ्ल गृहस्थ गोंयांत कुंभारजुवें ह्या गांवात स्थायिक जाल्ले. तांकां गोंयचे प्रजेविशीं खूप सहानुभूती आशिल्ली. वामनरावांक ते ओळखताले आनी तांचे ते बरें मागते आसले. त्या काळार ते पुर्तुगेज साळांचे इन्स्पेक्टर आसलेत. तांकां मराठीचें गिन्यान आसलें आनी ते भाशेसंबंदान आदर आसलो. ताणीं गोंयचे प्रजेक उपकारा पडपी म्हणून कांय मराठी पुस्तकां छापून उजवाडाइल्लीं. तांतून 'रामविजय' होय एक ग्रंथ आसलो. वामनरावांनी आपणें रचिल्लें तें मराठी - पुर्तुगेज भाशांतर शिकोवपी पुस्तक बारांवांक दाखैलें. ताणीं तें पळलें आनी ताची प्रस्तावना वाचली. प्रस्तावनेंत वामनरावांनी मराठीचो उल्लेख "A Lingua Vernacula de Goa" असो केल्लो, म्हळचार मराठी ही गोंयची आवयभास अशें म्हणिल्लें. ताचेर बोट दवरून बारांवान तांकां म्हळें, "मराठी ही गोंयची आवयभास (Lingua Vernacula) कशी जायत ? गोंयची आवयभास कोंकणी". ह्या उतरांनी वामनरावांच्या चित्ताक जाग आयली. तांकां बारांवांचें विधान पटलें. बारांव तशे मराठीविशीं आदर आशिल्ले गृहस्थ. हें जाणा जावनच आपलें पुस्तक वामनरावांनी तांकां दाखोंवक व्हेल्लें. बारांवानी पुस्तकाचें उपयोगीपण, रचणूक बी गुणांविशीं वामनरावांक

उत्तेजन दिलें जातलें, पुण Lingua Vernacula ह्या उतरांक ताणी सिद्धांतिक आडवाद घालो. गोंयची आवयभास मराठी नासून ती कोंकणी आसा असो वामनरावांक हो दुसरे खेपेक दिश्टावो जालो. पयलो दिश्टावो अण्णासायबांच्या "रामराज्याभिषेक" ह्या पुस्तकांतल्या संवादाक घेतलेल्या आक्षेपांनी जाल्लो. रा. भि. गुंजीकारांच्या "सरस्वती मंडळा'च्या वाचपान कोंकणी ही एक सुंदर भास आसून तिचो उगम वेदीक संस्कृत भाशेंत आसा हें गिन्यान तांकां जाल्लें आनी कोंकणी ही आपली भास आसा असो अभिमानूय तांच्यांत रिगिल्लो. पुण ती आपली आवयभास आसा, आनी देखून तिची सेवा चाकरी करून तिचो आपणें विकास करुंक जाय ही भावना तांच्यांत उत्पन्न जावंक नाशिल्ली. ती ह्या दोन दिश्टाव्यांनी तांच्यात निर्माण केली. आपले आवयभाशेंचो आपणे विकास करूंक जाय ह्या कर्तव्याचें तांका भान आनी दर्शन जालें आनी त्या दर्शनाउप्रांत तें आपुण करतलों असो निग्रह आनी संकल्प तांच्या मनांत घट जांवक कळाव लागलो ना. तांच्या त्या संकल्पाक पोसणारीं अशीं हेर अनेक कारणां तांकां मेळ्ळचां जातीत; पुण कोंकणी बरोवपाकडे तांची प्रवृत्ती जांवक हृच मुखेल बुनयादी आनी सिद्धांतिक कारण. "कोंकणी ही म्हजी आवयभास, मराठी न्हय. म्हजी आवयभास मराठीपरस जायत्या गजालिंनी वेगळी आसा देखून म्हजे आवयभाशेची सेवा करून तिचो विकास करप हें म्हजें कर्तव्य, आनी तें हांव करतलों." असो तांचो निच्छय जावन ते नेटान आनी घटपणान त्या वावराक लागले.

"O Maistra Marate Portuguesa" हे पुस्तक छापून उजवाडा आयलें वा ना तें कोण जाणा ! विद्यार्थ्यांक तें एक उपयोगी पुस्तक आशिल्ल्यान चड करून उजवाडा आयलें जांवये. ह्या सुमाराक वामनराव आसगांवचे साळेंतली चाखरी सोडून अकस्मात उठून करांचीक गेले आनी थंय ताणीं म्युनिसिपालिटीच्या रिफण्ड खात्यांत कारकुनीची चाखरी धल्ली, हें वयर आयलांच.

करांचीक चाखरेक आसताना वामनरावांभितर आसलेलो पिण्डाचो शणै पुनाय जागो जालो. ताणीं पळेलें कि करांचीच्या इंग्लेज साळांनी सिंध प्रदेशाचो इतिहास शिकोंवक कांय पुस्तक ना. वामनरावांचे आवडीचो विशय इतिहास. ताणीं सिंधच्या इतिहासाचीं सगळीं साधनां मेळोवन तीं वाचून काडलीं; आनी साळकारी भुरग्यांक समजूंक सोपे अशे इंग्लेज भाशेंत तो इतिहास बरोवन काडलो. ताणी तें हातबरप मुंबय इलाक्याच्या शिक्षण बोर्डाकडे पुण्याक धाडलें. बोर्डाक तें पुस्तक पसंत पडलें, पुण कित्याक ना कित्याक लागून तें बोर्डाच्या दप्तरांतूच पडून उल्लें, आनी वामनराव करांचीच्या मानसिक आनी भौतिक वायमंडळाक कंटाळून मुंबय आयले.

# ५. करांची थावन मुंबय

करांची थावन मुंबय आयल्या उप्रांत ते कांय दीस आपलो बापोलयो चिंतामण-बाब हांचेकडेन उल्ले. १९०२ च्या आब्रिलांत चिंतामणबाब भायर पडले हो मजकूर वयर आयलाच. तंव मेरेन ते थंयच रावले जांवये. पोटाचो वावर म्हणून ते येवरोपेव आनी व्यापारी कंपन्यांनी चाखरी सोदतालेत. त्या काळार मुंबयंत येवरोपेवांच्योच कंपन्यो चड आसताल्योत, आनी व्यवस्थित चलताल्योत. एक दोन कंपन्यांनी काम करून ताणी तसल्या कारकुनीपणाचो अणभव मेळैलो. दीसभर ऑफिसांत काम करून आपलो उरिल्लो वेळ आनी सोडीचो दीस ते आपलें गिन्यान वाडोवपांत खर्च करीत. हें गिन्यान संस्कृत, इतिहास बी आवडीच्या विशयांचेंच आसलें अशें न्हय. आपल्या व्यवसायाक लागतल्या स्टेनो ग्राफी (मोटव्या बरपाचें शास्त्र) आनी अकाउन्टसी (हिशब दवरपाचें शास्त्र) असल्या विशयांचेंय गिन्यान ते संपादताले. तांचें वाचप अखण्ड चालू आसलें. पुस्तकांखातीर ते प्रतिश्टित ग्रंथालयाचे वांगडी जाल्ले आसतले. ग्रंथालयांत वचून पुस्तकां वाचूंक बसपाची आनी वाचिल्ल्या मजकुरासंबंधान टिपो उठावन घेवपाची संवय ताणी आपणाक लावन घेतिल्ली. वाचपाबरोबरच तांचें हेतु-पूर्वक बरोवपूय चालू आसलें. परंत आतां ते मराठी वा इंग्रजी बरोवपाबदला कोंकणी बरोंवक लागलेले. कोंकणीत बरोवपाचो तांचो संकल्प आतामेरेन दृढ जाल्लो आसूंक जाय. गरजे-ताकतिकेक ते मराठीचो उपयोग करीनासलेत अशें न्हय, पुण आपलें मुळावें बरप आतां कोंकणीतूच जांवक जाय अशी तांच्या मनाची भावना जाल्ली.

ह्या काळाक वामनराव संवसारी गृहस्थ आसले. तांचं लग्न जावन तांकां एक चलोय जाल्लो. १९०३–१९०४ वर्साचो सुमार आसतलो. तांचो चलो तीन चार वर्सांचो आसूंये तेदोळा. चल्याक आवयभाशेंत म्हळचार कोंकणींत शिकोंवक म्हणून ताणी आपले पद्धतीन "कोंकणी मुळावें पुस्तक' रचलेलें. (हें पुस्तक फुडें गोमन्तक छापखान्यांन १९४० वर्सा छापून उज वाडायलें.) आपल्या चल्याचें मुळावें शिकप आपुण कोंकणींतल्यानूच करतलों

असो तांच्या मनाचो सिद्धांतिक निच्छय आसलो आनी कांय वर्सां ताणी तशेंच केलेंय. फुडें चलो जाण्टो जाल्या उप्रांत ताणीं ताका इंग्रजी माध्यमाचे साळेंत शिकूंक घालो. कोंकणी मुळाव्या पुस्तकाखेरीज तांचेकडे ह्या वेळार आनीक दोन कोंकणी पुस्तकां बरोवन तयार आसलींत. एक "अभागी सुब्राय" आनी दुसरें "भिडेस्त रायूबाब". अभागी सुब्राय ही एक मोटवी वा दीर्घ काणी आसली जावये. "भिडेस्त रायूबाब" हें आसलें ऑलिव्हर गोल्डस्मिथ ह्या इंग्रजी नाटककाराच्या "She Stoops to Conquer" ह्या नाटकाचें रूपान्तर. हें रूपान्तर ताणी छापून घेवचें असो विचार केल्लो. पुण फुडें तांकां तांतूंत कांय येवरोपी चालिरिती आयल्यात त्यो आपल्या समाजांत अडेच्यो वा विप्रीत दिसतल्यो अशें दिसलें. ह्या विचारान ताणी तें पुस्तक छापून घेतलेंना. आनी फुडें तें केन्ना छापूंक दिलेंना. त्या काळार कोंकणी पुस्तकां, विशेषकरून देवनगरी लिपयेंत बरेल्लीं, छापून उजवाडावपी संस्था मुंबैंत वा हेर खंयच अस्तित्वांत नासली. वामनरावांक तें पुस्तक छापचें जाल्यार स्वखर्चान छापचें पट्टलें आसलें. आनी अशें करपाइतली तांची आर्थिक स्थिती ह्यावेळार घट नासली. म्हण्टकूच तें पुस्तक उजवाडा न येवपाचें हेंवय एक कारण जाल्लें आसूंये. "अभागी सुब्राय" ही पुस्तकाच्या नांवावरसून निर्शेणेची काणी आसूंये अशें दिसता. कोण जाणा कोंकणी पुस्तकां छापचें बाबतींत तांच्या मनाक अणभवणे निर्शेणेचें हें काणयेंत एकादलें पडबिंब पडलांय बी जायत !

करांची थावन मुंबय येवन वामनरावांनी एक दोन सुवातांनी सामान्य कारकुनाची चाखरी केल्या उप्रांत तांकां मुंबयचे इतालियन कोंसुलातींत, साधारण बऱ्या दर्जाची चाखरी मेळ्ळी. थंय ते सुमार एक वर्सभर आसले. ते नेमिल्लो वेळ चुकय नासताना आपल्या कामार हाजिर रावताले. दिसूयभर एकाग्रतायेन मन लावन आपलें काम आपले सुवातेर बसून करताले. कामाक एक वर्स जातकूच काम करप्याच्या पगारांत त्या काळार ठराविक रकमेन वाड करतालेत. त्या वर्सा वामनरावांच्या वांगडच्या कारकुनांक वर्सुकी पगारवाड जाली पुण वामनरावांक ती जालिना. तरी आसताना वामनराव थंड आसले. तांच्या चित्ताची कांयच चलबिचल जालिना. तांच्या वांगडच्याच पुण मातसो वयल्या पांवड्यार आसलेल्या कर्मचाऱ्यान तांकां सहानुभूती दाखोवन म्हळें लेगीत, "तुमकां पगारवाड जालिना ! अशें कशें जालें ? " वामनरावांनी ताका पर्थी म्हळें, " म्हाका पगारवाड जावंक ना ताचें हांव दुःख करिना. म्हाका मेळटा तो पगार पुरो आसा. म्हाका तांतूंत समाधान आसा. " पुण गजाल इतल्यार उल्लिना. पगारवाडीचें तंत्र ज्या अधिकाऱ्याच्या हातांत आसलें त्या

वयल्या अधिकाऱ्यांन वामनरावांक आपले बसपा कुडींत आपोंवक धाडलें. वामनराव त्या अधिकाऱ्याचे कुडींत वचून तांच्या मेजासरेन उबे रावले.

" ऑफिसांतल्या तुमी सोडून हेर सगळ्या काम करप्यांक तांचें वर्सुकी प्रोमोशन दिलां, जाणा जातलेत तुमी ?"

" हय, खबर आसा म्हाका. पुण हावेंय काय मागुंक ना. "

" तुमी जाणांत तुमका प्रोमोशन कित्याक मेळूंक ना तें ? "

वामनराव जाप करिनासताना मोन्यानी उबे रावले.

" म्हाका सांगात, तुमी आफिसांत जंय काम करतात थंय हांव जेन्ना जेन्ना भितर सरतां तेन्ना सगळे जाण उठून उबे रावतात. तुमी एकलेच काम करीत बसलेले आसतात. हें अशें कशें ?"

हें आयकून वामनरावांचो चेरो तांबडोगुंज जालो. पुण ताणी ताचेर कांयच जाप दिली ना.

" हें पळेया, वालावलिकार, तुमचें काम म्हाका खूप पसंत आसा. तुमी वेळार कामार येतात, मन लावन काम करतात, गैरहाजिर केन्ना रावनात. देखून तुमकां हांव हे खेपे दोट्टी प्रोमोशन दितां. समजलें ?"

वामनराव हाचेरूय कांय जाप करिनासताना वोग्गी रावले.

थोडो वेळ जातकूच अधिकारी आनीक कांय उलैनाशें पळोवन ते ताची रजा घेवन आपले सुवातेर गेले.

दिसूयभर एक चित्तान काम करीत रावून ताणी आपलें दिसाचें काम व्यवस्थितपणान आनी पुरायेन सोंपयलें. अधिकाऱ्यांकडे धाडपाच्या कामासंबंदीची सगळीं कागदां ताणी सदांभाशेन ट्रे (Tray) मदीं घालून दवल्लीं. उप्रांत एक कागद घेवन ताचेर आपले चाखरेचो राजिनामो बरैलो आनी तो एका लाखाटचांत घालून अधिकाऱ्याकडे वचपाच्या कागदां बरोबर दवरून दिलो. इतलें जातकूच ते आफिसांतसून घरा वच्च्या वेळार सदांभाशेन उठून घरा गेले.

दुसऱ्या दिसा आपल्या सदांच्या वेळार अधिकारी ऑफिसात भितर सल्लो. ताका पळोवन सगळे काम करपी कर्मचारी उठून उबे रावले. अधि-काऱ्याचो तर्क आसलो कि काल जाका आपणें डबल प्रोमोशन दिलें तो वालावलिकारूय आपणाक पळोवन कृतज्ञतायेन उबो रावतलो. परंत पळे जाल्यार वालावलिकार आपले सुवातेर ताका दिसले नात. ताका आच्छर्य जालें. बरोबर वेळार ऑफिसांत येवपी आनी केन्ना गैरहाजिर ना रावपी वामनराव आज अकस्मात ऑफिसातल्यान गैरहाजिर कशे आनी कित्याक रावले ? ऑफिसांत काम करतल्यांचेर एक नदर मारून तो आपले कुडीत

गेलो, आनी कामाचे कागद उस्तून पळोवंक लागलो. तेन्ना ताच्या हाताक वामनरावांच्या राजिनाम्याचो लाखोटो लागलो. उगडून पळे जाल्यार तो वामनरावांचो आदल्या दिसा बरैल्लो आपले जागेचो राजिनामो आसलो. तांतूंत बरैल्लें, " हांव म्हजेर सोंपयल्लें काम म्हज्यान जायत ते भाशेन व्यवस्थित पणान आनी बरे तरेन करतां. परंत अधिकाऱ्याची खुशामद करप हें म्हजें काम न्हय. " कामाचो रजिनामो त्या दिसापासूनचोच आसलो.

तें राजिनाम्याचें पत्र वाचून अधिकारी अवाक् जालो. तो समजल्लो ताचे परस वामनरावांची व्यक्ति आनी तांचें प्रकरण वेगळेंच आसलें. तीं दोनूय ताचे नित्याचे संवयेपरस एकदम विप्रीत आसलीं. वामनरावांचें मोल करपांत आपली कितली आनी कितें चूक जाली हें ताका रोकडेंच समजलें. ताणें ऑफिसाच्या शिपायाकडे चीट बरोवन दिली आनी ताका वामनरावांक घेवन येवपाक म्हणून तांच्या बिराडा धाडलो. पुण वामनरावांनी आपणे आता ऑफिस सोडलें, आपुण कामार येंवचोना अशी पर्थी जाप दिवन शिपायकाक घालयलो. तेन्ना अधिकाऱ्यान आपल्या सकयल्या अधिकाऱ्याक आपली गाडी दिवन वामनरावांक आपोंवक धाडलो. तरीय आसताना वामनरावांनी ताका तीच जाप दिवन पर्थो धाडलो.

ऑफिसांतल्यान दोन वेळां आपोवणें येवनय वामनराव ऑफिसात वचनात हें तांची आवय सीताबाय पळेताली. ऑफिसांतली कितें तरी गडबड आसा हें तिका समजलें, आनी तिणें वामनरावांक म्हळें, " ते इतले आपयतात जाल्यार तूं कित्याक वचना रे शाण्यां ? "

वामनरावांन तिका सांगलें, " ना गे ताबाय, हांव वच्चोना. ते म्हण्टा हांव काम करीत आसलों तरूय ऑफिसर ऑफिसात येतकूच हांवें काम सोडून उठून उबें रावूंक जाय. म्हज्यान तें जांवचें ना. "

आनी आपल्या शाण्यांचो सभाव आनी वृत्ती पुरायेन जाणा आसलेली; सहसंवेदना आसलेली वामनरावांची आवय सीताबाय तांची ती जाप आयकून समजुंचें तें समजली आनी वोगी रावली. आवय आनी तिचो शाणो पूत हांचे भितर अप्रतिम सामंजस्य आसतालें. ह्या सुमाराक म्हळचार १९०४–१९०५ ह्या काळाक ती गोंयां थावन येवन वामनरावांच्या बिराडाक रावताली अशें दिसता.

वामनरावांनी चाखरेचेर, तांकां दिल्ल्या डबल प्रोमोशनाचेर आनी जाल्ल्या दिसांच्या पगाराचेरूय मनाचो निच्छय करून उदक सोडलें तें सोडलें. ताणी पर्थून त्या ऑफिसांत पांय दवल्लो ना तो नाच. तांचो स्वाभिमान आनी निग्रह कितलो प्रखर आसलो तें ह्या प्रसंगावरसून समजून येता.

म्हैन्याच्या म्हैन्या एक थारायल्ली कमाय मेळोवन दिवपी ती चाखरी अकस्मात सोडून दिल्ल्यान वामनरावांच्या मुखार कुटुंबाचो दिसपट्टो खर्च कसो भागंवचो म्हणपाची आर्थिक अडचण उबी रावली. तांच्या संग्रहाक अजून कांयच पैसो नासलो. म्हण्टकूच ताणी आपले आवयचे गांठीक स्त्रीधन म्हणून थोडेशे दुडू आसले तांतल्यान उसणवारी करून फुडयात आइल्ली अडचण कशेय भाशेन निभायली. फुडें चाखरी मेळटकूच ताणी आवय कडसून घेतिल्ल्या रिणाची पर्ती फेड केली आसतली. कारण पैशांचे बाबतीत वामनराव अतिशय व्यवस्थित आनी हिशेबी आसलेत. आवयचो दुडू जालो जाल्यारूय तें रिणूच. तें फेडल्याशिवाय ते कशे रावतीत ? तांकां ते फारीग करप शक्य जातकूच रोकडेंच ताणीं तशें केलें आसूंक जाय.

ह्या काळाक वामनराव मराठींत बरोवपाचो आपलो नाद सोडून पुरायेन कोंकणीचे फाटीं लागिल्ले. गोंयच्या आनी कोंकणाच्या इतिहासाचो तांकां आतां "सोंस" लागिल्लो. त्याखातीर ताणी त्या इतिहासावयलीं पुर्तुगेज आनी, इंग्लेज पुस्तकां जमयल्लीं आनी तांचो ते नेटान अभ्यास करताले, आनी तांतूंतल्यान आपल्या उपयोगाखातीर आनी उगडासाखातीर टिपो घेतालेत. हे तरेन अभ्यास करची ताणी मुदलपासून आपणाक संवय लावन घेतिल्ली. ह्याफुड कितेंय बरैलें जाल्यार तें ते कोंकणीतूंच बरैतलें आसले. ही बरोवपाची कोंकणी कशी आसची ताचोय ताणी येन्नादर निर्णय घेतिल्लो. तांकां जें बरैन दिस तें लोकाक गिन्यान दिवचेखातीर, धा जाणांच्या हिताखातीर. ते बरैताले तें स्वान्तः सुखाय तर आसलेंच, परंत आपले बरप बहुजन हितायच आसूंक जाय हो तांचो आदर्श आनी घट संकल्प आसलो. तांची बरोंवची प्रेरणाय तीच आसली. अर्थात् ते जें कोंकणी बरोंवक सोदीत तें सगळ्यांक समजसारकें सोपें आसूंक जाय अशें तांकां दिस. म्हजें उतर 'बामणा'चें म्हळ्यार बुदवंत आनी संस्कारी मनशाचें आसतलेंच, पुण तें उतर गावड्याचेंय आसतलें, म्हळ्यार तें गांवड्या आनी नेण्टया लोकांकूय सहज समजसारकें आसतलें. भुरग्यांक लेगीत तें समजूंक कठीन जांवचें ना. आपल्या बरपाविशीं ताणी सुरवेकथावूनच असो आग्रो धरिल्लो आनी तो ताणीं केन्ना सोडलो ना. तांच्या बरपाक दोट्टी धार आसली – बुद्धीची चमक आनी व्यवस्थितपण तेच भाशेन अभिव्यक्तीची सहजताय आनी प्रासादिकपण.

वामनरावांनी आपल्या साइत्यिक बरपाक सुरवांत केल्ली ती मराठी भाशेंत. त्या काळार हेर गोंयकार हिंदूभाशेंन तेवूय समजतालेत किं मराठी हीच आपली आवयभास, वा तिचें शुद्ध स्वरूप. आनी जी आपुण आनी हेर

गोंयकार उलयतात ती कोंकणी भास म्हळ्यार मराठींचें एक अशुद्ध, भंगलेले आनी गांवगारी स्वरूप – म्हणजे ती एक तिची बोली – हेंगाडी तरा. पुण तांकां दिश्टावो जाल्ल्या उप्रांत कळून आयलें कि आपली आवयभास मराठी नासून कोंकणी आसा. तिच्यांत आपुण सभाविकपणान उलयतां तशें तिच्यांत आपणांक सभाविकपणान जाय जाल्यार बरोंवकूय येता. मागीर तांची नदर आपले भोंवतणी पडली, तेन्ना ताणी पळेलें कि पुर्तुगेज, इंग्लेज वा मराठी साळकारी शिकप चडशें जांवक नासलेले आपले क्रिस्तांव भाव गरजे ताकतिकेक कित्याक जायना पुण चिटी बरोवपाक, मनरंजनाखातीर खेळ आनी काणयो रचपाक, गितां रचपाक, रांदप कशें करचें तें सांगपाक अथवा संवसारांत चलपी घडामोडी नेमाळ्यांल्यान वृत्ताचे नद्रेन सांगपाक रोमी लिपयेन बरैल्ले कोंक-णीचो उपयोग करतात. ताणं अशेंय पळेलें कि कोंकणींत बरौन छापूंक नासलेली पुण लोकांच्या तोंडांत घोळणीं जायतीं लोकांगीतां आनी लोकांकाणयो आसात, जायत्यो म्हणी आनी ओपारी आसात. कर्णाटकात वचून रावलेले जायते क्रिस्तांव आनी हिंदु भावूय कन्नड लिपयेंत कोंकणी बरप करतात आनी ही बरपांतली सरस्पत थंयच्या जायत्या कोंकणी भावां भैणींची बरपाक्षरी भाशेची गरज भागैतात. इतिहासांत रिगून ताणी अशेंय पळेलें कि तीन साडेतीनशीं वर्सांपैलीं कोंकणी भाशेचें व्याकरण बरोवन छापलेलें आनी ते भाशेंतले देव-नगरी लिपयेंत बरपूय जावंक सुरवात जाल्ली; पुण फुडें पुर्तुगेज राजकर्त्यांच्या आनी धर्मपिसाटांच्या हिंदु संस्कृताय नश्ट करचेल्या, बाटोंवचेल्या आनी इन्क्वि जिसांवाच्या रूपान धर्मछळ करचेल्या धोरणाक लागून तशेंच गोंयच्या-आवाठांत भौन भौन उपस्थित जावपी थंडचा आनी हुनहुनीत रण खेवांक लागन, त्या अशांततायेच्या काळांत कोंकणी बरपी सरस्पत विकसुंचेल्या मार्गांत वलांडू नज येदें आडमेळें आयलें आनी ती विकसनासताना चेपून उल्ली. ती तशीच योकणिसाव्या शेंकडयाच्या दुसऱ्या अर्दामेरेन चेपून उल्ली. योकणि साव्या शेंकडयाच्या दुसऱ्या अर्दांत भारतांत जेन्ना ब्रिटिश सत्तेचें आसन घट जालें तेन्ना पुर्तुगेज सत्तेकूय आपशींच घटाय मेळून तिच्या प्रदेशांतलीं रणखेवां न्हिवलीं आनी थंय थंडाय आनी सुशेग पाताळ्ळो. सिञ्जोर एलिओदोरिउ कुञ्ज रिवार सारको उदार मताचो आनी हिंदी प्रजेविशीं सहानुभूती आशिल्लो पुर्तुगेज राज्यकर्तो कोंकणी भाशेची तोखणाय करून, तिका प्रोत्साहन दिवन तिची उदरगत करपाक वावरूं लागलो. सिञ्जोर साबास्तियांव रोदोल्फ दाल्गाद हाणें कोंकणी उतरावळीचो कोश रचलो. आनी इतल्या लांब काळामेरेन चेपणा पडिल्ली कोंकणी भास हळुहळू माथें वयर करून संवसाराक पळोंवक लागली.

ह खरें आसा कि तिचो रूपाकार अ-निसर्गीक आनी विद्रूप जाल्लो, तिचे उच्चार भंगलेले आनी तिच्या वाक्याची बांदावळ येवरोपेव तरेची आनी कोंकणीक तिच्या भारतीयपणाक आथवी दिसता तशी जाल्ली. पुण तशेय अवस्तेंत ती जायत्या कोंकणीभावांचें गरजे - ताकतिकेक उपकारा पड आनी तांका तिचे ते विपन्न अवस्तेंतूय आवय म्हणून तिचो मोग दिस. हें सगळें पळोवन वामनरावांचो आत्मो कळवळून उठलो आनी ताणी तिका तिचो ताथोमाथो करून तिचें मुळचें सुंदर, संस्कारी आनी भारतीय रूप दिवन तिका भारतीय भासांभितर भौमानाचो पाट मेळत येदी तांक आनी शक्त तिच्यांत भरपाचो घट संकल्प केलो.

पुण ह्या सुमाराक कोंकणी भाशेसंबंदान शिकिल्ल्या हिंदु आनी किस्तांव गोंयकारांची मनोदशा कशी आसली तें इल्लें पळोंवक जाय. कुञ्ज रिव्हाराच्या कोंकणी भाशेसंबंधाच्या कळवळ्याचो वा दाल्गादान रचलेल्या कोंकणी उतरांकोशाचो शिकिल्ल्या गोंयकार समाजाचेर व्हडलोसो कांय परिणाम जालोना. शिकलेले हिंदु आनी ख्रिस्तांव परक्यांमुखार कोंकणी उलोंवक लजाताले. ते पुर्तुगेज वा इंग्लेजीचो वा मराठीचो उपयोग करतालेत. सर्वजनिक सुवातांनी आनी सर्वजनिक कार्यक्रमांत कोंकणीचो केन्नाच उपयोग करिंनासले. कोंकणीचो उपयोग घराभितर, रांदनी-पल्लांत, कुजनांत, आपआपसांत आनी हेर-भासो न समजतल्या अशिक्षित कोंकणी मनशांकडे उलोवपाखातीरुच करतालेत. सभा-संमेलना, जमातीचे मेळावे, कथाकिर्तनां, पुराणिकांचीं प्रवचनां, पत्रां, चिटयो, हिशेब दवरप, जाहिराती छापप, हीं सगळीं कामा इंग्लेज, पुर्तुगेज वा मराठी आनी कानडी मुलखांत कन्नड भाशेंत चलतालीं. कोंकणी ही एक हेंगाडी, रानवट आनी विचार आनी भावना सारक्यो बऱ्यो उक्त्यो करुंक येना अशी भास आसा अशें तांकां दिस. खरें पळेल्यार जशे लोक तशी तांची भास आसता. कोंकणी लोक अप्रबुद्ध आनी रानवट लोक न्हयंत. तांचो मेंदु तल्लख आनी धार आसलेलो. ते हरां भासांनी, मागीर त्यो योरोपेव जांव वा भारतीय जांव, सहजतायेन पंडितपण जोड्टात. अशा ह्या लोकांक आपुण जे भाशेंत आपले विचार-येवजण्यो, भाव-भावना, विकार-वेदना आपापल्या घरांभितर परगटायतंत ती आपणाली भास हेंगाडी आनी रानवट दिसप आनी ती परक्यां मुखार उलोंवक ताणी लजप वा अणमणप ही एक विकृताय आसा हें खबर नासचें म्हळचार एक नवलाची गजाल. परंत ती वस्तुस्थिती आसली. परतंत्रतायेच्या चेपणाखाल वर्सांची वर्सां उरिल्ल्यान तांच्यांत परधार्जिणेपण, आत्महीणपण, आपणाकूच कुस्कुटावपाची खोड बी दोश आइल्लेत आनी देखून ते

आपले विचार, भावना बी आपले भाशेंत उक्त्यो करपाक आपल्या मेंदवांक शीण दिवचें परस ते तिच्यांत सयसुवाद, वेळकाळ पळेनासताना मराठी, कानडी पुर्तुगेज, इंग्लेज भासांच्या उतरांची आनी मोडींची भरताड आनी भेसळ करून आपले भाशेची विटंबणा आनी विपश्टा करतालेत; आनी मागीर म्हण्टालेत, "हे असले आमचे विचित्र भाशेंत आज शास्त्रीक गिन्यानांत फुडें पावलेल्या संवसाराच्यो विचार-येवजण्यो कशो मांडूंक येतल्यो ? देखून आमी तिका आमच्या मागीलदारा आनी रांदनीपल्लांतूच उलोंवया." हे तरेचे येवजाणेक लागून दर एकलो हिंदु गोंयकार त्या काळा आपली भास मराठी म्हणून सांग. तेच भाशेन दर एकलो शिकिल्लो क्रिस्तांव आपली भास पुर्तुगेज वा इंग्लेज म्हणून सांगतालो.. आपुण उलैतां ते आपले आवयभाशेक तो आपली भासूच समज नासलो. आनी समजलोय जाल्यार ती हेंगाडी आनी रानवट बोली आसून ती निरुपयोगी आनी मोलान साप उणी अशें समजतालो. गोंयाभायर पावलेले गोंयकार तर आपली भासूच लिपवपाचो येत्न करीत. चारचौगांत पावले कि ते कोंकणींत उलोवप बंद करीत वा चिप बसत, अथवा मोडके–तुटके थोंटे-पांगळे मराठींत वा हिंदींत वा इंग्लेजींत उलोंवक लागत. खरे रानवट जंगली लोकय जाले तरी आपणाले अपूर्ण भाशेंत उलोंवक भियेनात वा लजनात. पुण शिकिल्ले संस्कारी गोंयकार मात आपले कोंकणीक नाक मुड्डिताले. ही मनोदशा विचारी आनी स्वाभिमान आसलेल्या मनशाक असह्य जावंक फावो अशी आसली.

कोंकणी ही अशे विपन्न अवस्तेंत आसताना ती आपली आवयभास म्हण-पाचो दिश्टावो वामनरावांक जालो. अशा ह्या काळार ताणी कोंकणींत कितें बरैलें, तें कशें उजवाडायलें बी तें आमकां आतां पळोंवक जाय. उदरनिर्वाहा-खातीर चाखरी केल्याबगर तांकां दुसरो मार्ग नासलो. देखून केवळ वाचप आनी बरप हो तांचो पुराय व्यवसाय जावप शक्य नासलें. देवनगरींत बरैल्ल्या कोंकणीचो वाचपी वर्ग मुळींच अस्तित्वांत नासलो. म्हण्टकच कोंकणी बरोवप हो पोट भरपाचो धंदो जावप शक्य नासलें. कोंकणी बरोवप हें फक्कत कोंकणी भाशेची सेवा करपाच्या हेतूनच जांव शकतालें. तें व्यवसाय म्हणून जावप शक्य नासलें. कोंकणी बरोवपाचो संकल्प जाल्या उप्रांत ताणी बरैल्ली 'अभागी सुब्राय" आनी "भिडेस्त रायूबाब" हीं दोन पुस्तकां उजवाडायल्या-बगर तशींच पडून आसलीं. उजवाडावपा इतलीं तीं तांकां समाधानकारक दिस-नासलीं अथवा तीं उजवाडावपाची आर्थिक साधनां तांचेकडेन नासलीं आनी देवनगरी लिपयेंत छापून तीं उजवाडायणो उजवाडावपी कोण मेळनासलो.

पुस्तकांखातीर पयलीं ग्राहक मेळोवन मागीर तीं छापचीं अशा विचारान ताणी भोंवडी करून कांय प्रतिश्टित कोंकणी-मोगी ग्राहक मेळयल्ले. कांय जाणांनी २०–२०, २५–२५ प्रती घेवपाचें आश्वासनूय तांकां दिल्लें. पुण अखेरेक वामन-रावांनी तीं पुस्तकां उजवाडावपाचो विचार सोडूनूच दिलो. ह्या काळार तांकां गोंयचो पुर्तुगेज कालीन आनी कोंकणाचो प्राचीन इतिहास वाचचेलो सोस लागलेलो. ह्या वाचपांतल्यान ताणीं जायतें साइत्य एकठांय केल्लें. ताचो उपयोग कसो करचो हाचे संबंधान तांच्या मनांत कांय योजना घोळटाल्यो. पुण देवनगरी लिपयेंतलीं कोंकणी भाशेंतली पुस्तकां छापतलो कोण हो विचार पर्थपर्थी, तांच्या फुडयांत उबो राव. तांची स्वतःची अर्थिक परिस्थिती तर बिलकूल ह्या उजवाडावपाच्या कामाक फावोशी नाशिल्ली. रीण काडून सण मनावप हें वामनरारावांच्या सभावांत नासलें. अखेरेक आपले बरोवपाचे उमळाशिकेक वाट करून दिवपाचो एक उपाय तांकां सुचलो.

अशिक्षित आनी अर्दशिक्षित क्रिस्तांव जनतेक वाचपाखातीर रोमी लिपयेंत कोंकणी भाशेंत काणयांचीं, कांतारांची, आनी रांदपाची पुस्तकां भायर सरतालीं. ती उजवाडावपी एक दोन पुस्तकां विकपी संस्था मुंबैत आसल्यो. वामनरावांक कोंकणी देवनगरी लिपयेंत बरयल्ली जाय आसली. तांची ती सिद्धांतिक नदर आसली. पुण आपल्या सिद्धांताक ताणी थोडिशी मुरड घाली आनी स्वतः स्रम घेवन शास्त्रीय नद्रेन सुधारिल्ले रोमी लिपयेंत, शुद्ध आनी भारतीय मोडीचे कोंकणी भाशेंत इंग्रजी प्रसिद्ध नाटककार शेक्सपियर हाच्या नाटकांच्यो काणयो बरोवन काडल्यो. हे तरेन ताणी शेक्सपियरच्या धा बारा नाटकांची कथानकां कोंकणींत बरोवन " शेक्सपियरच्या खेळांची माळ " तयार केली. त्याशिवाय इंग्रजी " अरेबियन नाइटस् " मदल्यो कांय काणयो आनी " बकावलेचे फूल " ही प्रसिद्ध काणी ताणी अणवादित केली. रोमी लिपयेंत कोंकणी पुस्तकां उज-वाडावपी एके संस्थेन वामनरावांचीं ही पुस्तकां छापलीं आनी उजवाडायलीं. ह्या काणयांनी सुंदर, सोपे, भारतीय मोडीचे आनी योरोपेव उतरांची भरताड नाशिल्ले शुद्ध कोंकणींत कशें बरोंवचें हाचो नमुनो घालून दिलो आनी नेमा-बगर कशाकशी रोमी लिपी वापरिल्ल्यान कोंकणी उच्चार भंगताले ते कांय प्रमाणांत आळाबंदा हाडले. रोमी लिपयेंतल्या कोंकणीच्या क्षेत्रांत वामनरावांनी आपल्या ह्या पुस्तकांनी एक क्रांतीच घडयली म्हळचार जायत. सुबुद्ध क्रिस्तांव कोंकणी बरपी वामनरावांच्या वळणार आपली भास आनी लिपी व्हरुंक लागले. कोंकणी क्रिस्तांव जनता वामनरावांक आतां वळखूं लागली आनी तांचेकडेन आदरान आनी कौतुकान पळोंवक लागली. वामनरावांच्या ह्या पुस्तकांक

उजवाडावपी मेळिल्ल्यान तांचेर पेलनाशिल्ली अर्थिक जापसालदारी पडलिना आनी पुस्तकांक जाय तशी मागणी आशिल्ल्यान उजवाडावप्यांच्याय आंगार तीं पडलिनात. वामनरावांकूय तांचे बरोवपाचे ऊर्मीक वाट मेळिल्ल्यान समाधान जालें.

# ६. मेस्टर ल्युसिअस ब्रुएनिंग कंपनीतलो चाखरेचो काळ

कोंसुलातींतली चाखरी स्वाभिमान राखपाखातीर सोडल्याउप्रांत वामनरावांनी एकादे दुसरे सुवातेर किरकोळ काम केलें जातलें. १९०६ वर्सा ते मुंबयंत मेसर्स ल्युसिअस ब्रुएनिंग कंपनी हे मोटे जर्मन व्यापारी कंपनीत चाखरेक रावले. हे कंपनींत तांचो प्रवेश स्टेनोग्राफर म्हणून जालो. स्टेनोग्राफर म्हळ्चार मोटवें बरोवपी. मोटव्या बरपाची कला शिकची लागता. वामनरावांनी आपले चाखरेच्या चार पांच वसंच्या काळांत ही कळा अथवा विद्या केन्ना तरी आपले स्वाध्याय पद्धतीन शिकून घेतली आसूंक जाय. जे विद्येचीं पुस्तकां आसतात ती विद्या त्या पुस्तकांतल्यान कोणाची चडशी मदत घेतल्या विना ते आपले स्वाध्याय पद्धतीन संपादन करूं शकताले. ते स्वतःच एक अभिजात स्वयंशिक्षक आसले. आपले स्वयं-शिक्षा पद्धतीन ताणीं ह्याच काळंत 'अकाउण्टासी' म्हळ्चार हिशेंब दवरपाचें (गणित) शास्त्र शिकून घेतलेलें आसूंक जाय. कसल्याय कामांत पूर्णताय मेळवप हो तांचो हावेस आसलो. अशे तरेचो हावेस गोंयचे तरणे पिडयेंत येंवचो ही तांची मोटी इत्सा आसली, आनी विद्यार्थ्यांक उदेसून केल्ल्या उलोवपांनी ते ही इत्सा अनेक वेळां उलोवन दाखयताले. वयर सांगिल्ले जर्मन कंपनीत ते स्टेनोग्राफर म्हणून रिगले आनी सात आठ वर्साभितर अदिक अदिक जापसालदारकेचीं कामां करीत करीत ते कंपनीचे "हेड अकाउण्टण्ट" म्हळ्चार मुखेल हिशेबनीस जाले.

तांचे भायले जिणेंत प्रतिश्टा, मानभौमान, व्यावसायिक जापसालदारक्यो आनी दुडवांची कमाय हीं वाडत गेलीं आनी जिणेक घटाय आनी थीरताय आयलीं. त्याचबरोबर तांची आंतरिक जीणूय विकसूं लागली. ते आपल्या ध्येयाक आनी संकल्पाक विसरूंक नासले. ते दिशेन प्रगती करपाखातीर ताणीं आपलो स्वाध्याय वाडयलो. व्यवसायांतल्यान मेळताली ती उसरपत ते ह्या स्वाध्यायाक दिवंक लागले. सोडीचे दीस आनी कामाच्या दिसांतलोय थोडो नेमिल्लो वेळ ते ग्रंथालयांतल्या वाचनाक आनी टिपो उठावन घेवपाक दिताले.

व्येवसायाखातीर मेळयल्लें स्टेनोग्राफीचें गिन्यान आनी कला तांकां ह्या कामांक भोव उपकारा पडूंक लागली. हाका लागून तांचें वाचप आनी टिपून घेवप हांचो वेग वाडलो. तांचे आवडीचो विशय इतिहास आनी संस्कृत. हांचेर ताणी शेंकड्यांनी ग्रंथ वाचले. ग्रंथालयांत बसून केल्ल्या वाचनाक लागून तांच्या गिन्यान मेळोवपाच्या कामांत एक शीघ्रगतीची आनी अतिशय कार्यक्षम अशी पद्धत आपशींच निर्माण जाली. तांच्या गिन्यानाची लांबाय, रुंदाय आनी खोलाय वाडूंक लागली. आपल्या संकल्पाचे नदरेन उपकारा पडत म्हणूनच न्हय तर व्यासंग म्हणूनय ताणी अनेक भाशांचें गिन्यान संपादून तांच्यांतलें अभिजात वाङ्मय वाचलें. मराठी, पुर्तुगज, संस्कृत, इंग्लेज, फ्रांसेज, हिंदी, गुजराती आनी सिंधी ह्यो भासो तांकां ह्या काळांत बऱ्यो येताल्यो. फुडें वतकच ताणी आपल्या इतिहासिक आनी भाशीक संशोधनाक उपकारा पट्टीत ह्या हेतून प्राकृत, पाली, अर्धमागधी, महाराष्ट्री ह्या आतां उलोवपांत नासलेल्या पोन्र्या भासांचोय अभ्यास केलो. फ्रांसेज आनी पुर्तुगेज भासो उत्तम येत आशिल्ल्यान एस्पान्योल आनी इतालियन भासोय तांकां बऱ्यो समजूं लागल्यो. जर्मन कंपनीत ते काम करताले तेन्ना ते भाशेचेंय गिन्यान ताणी थोडें भोंव तरी मेळैल्लें आसूंकच जाय. शिवाय भाशिक संशोधनाक उपकारा पडत हे नद्रेन ताणी उत्तर हिंदुस्तानांतल्यो हिंदी शिवाय काश्मीरी, राजस्थानी, व्रज आनी बिहारी हांचोय परिचय करून घेतिल्लो. संशोधनापुरती तांकां ग्रेग भाशेचीय वळख आसली. संस्कृत भाशेचेर तर तांचं भुरगेपणापासून प्रेम आसलें. हे भाशंतल्या वेदिक वाङ्मयापासून मध्ययुगीन काळामेरेनच्या वाङ्मयाचो ताणी बरो अभ्यास करून संस्कृतांत ते मोटे पंडित जाल्ले. पुण तांकां पंडित ही उपाधी खंयचेच युनिवर्सिटीन दिवंक नाशिल्ली. ताणीं आपलें सगळें गिन्यान गिन्यानाखातीर जोडिल्लें, उपाध्यांखातीर वा सर्टिफिकिटांखातीर न्हय. आनी गिन्यानाखातीरच जे गिन्यान जोट्टात तांकां आपल्या गिन्यानाचो अभिमान नासता आनी ते ताचो केन्ना बडवाचार माजैनात. ताणी मेळैल्लें गिन्यान तांच्या बरपांतल्यान परगट्टा आनी तांतूत ल्यानूच तें आपलो उजवाड दाखैता. ताणी आपल्या फुडल्या आयुष्यांत केल्ल्या इतिहासिक लेखनांत, भाशिक संशोधनाच्या वावरांत, अभ्यासपूर्वक आनी चड कश्ट घेवन बरैल्ल्या जिणां बरपांत, ताणी जिखलेल्या वादविवादांत तांच्या गिन्यानाचो उजवाड घणघणीत दिश्टी पट्टा.

पुण तांच्या गिन्यानाचो जसो तांकां इल्लो पुण अभिमान वा गर्व नासलो तशीच तांकां तांचे पात्रतायेक लागून प्राप्त जाल्ले सुस्थितीचीय घमेंड नासली. ते पयलीं सारकेच सादेपणान आनी काटकसरीन रावताले. पैसो मेळूंक लागलो

म्हण्टकूच गरज नासतनाय आपलो डामडौल वाडोंवंक जाय ह्या अपुर्बुद् विचारांचे ते मनीस नासले. तांची भायली जीण आनी भितल्ली जीण दोनूय समृद्ध जायत गेल्ल्यो, पुण त्यो कसल्याच अभिनिवेशाविण्यो, सपाट वाठारांतल्यान व्हांवतल्या गंगा यमुनेच्या संथ प्रवाहांभाशेन खळखळनातताना नुलैत फुडें सरताल्यो.

वामनरावांक मूळपासूनच इतिहास विशयाची आवड. कराचीक आसतांना ताणीं सिंधच्या इतिहासाचें साळकारी भुरग्यांखातीर इंग्रजीत पुस्तक बरैल्लें. १९०६ पासून तांकां गोंयचो पुर्तुगीजाच्या काळांतलो आनी ताचे पयलींचो इतिहास जाणून घेवपाचो सोंस लागिल्लो. ताणी त्या विशयावयलीं मेळटात तीं इंग्लेज पुर्तुगेज पुस्तकां वाचलीं. विदेशी लोकांनी बरैल्लीं त्या काळांतलीं प्रवास वर्णनां वाचलीं. मुद्दाम गोंयां वचून पुर्तुगेज सरकारचीं पोर्नीं दप्तरां वाचलीं, गोंयांतलीं इतिहासिक थळां पळेलीं आनी १९१० च्या सुमाराक "आलबुकेर्कान गोंय कश जिखलें" ह्या विशयाचेर एक सुसंगत आनी सोंपे कोंकणी भाशेंत बरैल्ली इतिहासिक काणी रचली. १९१० वर्सा पुर्तुगालाचें सरकार गोंयचे जिखीच्या चौथ्या शेंकडयाचो उत्सव मनावपाची तयारी करतालें. त्याखातीर गोंयांतूय एक उत्सव समिती नमलेली. वामनरावांक आस्त आसली कि आपलें हें पुस्तक उत्सवाच्या प्रसंगाक तयार जालें जाल्यार उत्सव समिती तें एकादली छापून उजवाडायत. ताणीं त्या संबंधान समितीकडे पत्रव्यवहार केलो. समितीन कळैलें कि पुस्तकाचें हातबरप धाडात मागीर समिती आपलो निर्णय दीत. वामनरावांनी तशें केलें, पुण कित्याक कोण जाणा, तें हात बरप उत्सव जावन गेलो तरी समितीच्या दप्तरांत तशेंच पडून उल्लें. फुडें पंचेचाळीस वर्सांउप्रांत १९५५ त मुंबयच्या गोमन्तक छापखान्यान तें पुस्तक छापून उजवाडायलें.

१९१० वर्सा वामनरावांकडे बरौन तयार जाल्लें आनीक एक कोंकणी पुस्तक आसलें. ताचें नांव "गोंयकाराचो मुंबैकार". ताचें रूप आसलें कवीताचें. मुंबय वचून आपुण गोंयकारांपरस मोटो जालों अशें समजुपी आनी गोंयकारांच्यो बकच्छायो करपी एका मनशाची कथा तांतूंत दिल्या. फुडें विपन्नावस्था येवन ताका पच्छताप जाता आनी तो पर्थून आशिल्लो तसो सादो गोंयकार जाता आनी गोंयात येवन गरीबकायेंतूच पुण सुखान रावता. 'गोंयकाराचो मुंबैकार' हो त्या काळच्या कांय गोंयकारांचो प्रातिनिधिक पात्र आसलो. पुस्तकांतले मूळ काणयेपरस दुपेट जायत इतल्यो स्पष्टिकरणाच्यो टिपो पुस्तकाक जोडल्यात. तांतूंत गोंयचीं इतिहासिक थळां, व्यक्ती, प्रसंग हांचेविशीं माहिती दिल्या. ती वाचून गोंयांसंबंधी वाचप्याक तो पयलीं

नकळ आसलेल्यो जायत्यो इतिहासिक आनी सामाजिक गजाली कळटात. मूळ काणी सोंपे, सादे सरळ आनी व्हांवते भाशेंत कवीताच्या रूपान सांगिल्ली आसून तिच्यांतले मुख्य रोस, सुरवेक उपहासाचो आनी निमाणेकडेन पच्छत्तापाचो शांत रोस हे आसात. हें पुस्तक वामनरावांनीं स्वतःच्या खर्चान छापून उजवाडायलें. तांची अर्थिक स्थिती आतां बरी आशिल्ल्यान तांकां तशें करप जड गेलेंना. पुस्तकांतलो विशय रुचिक आनी त्या काळार वचत थंय चर्चितालें तसलो आशिल्ल्यान ताच्यो प्रती सहज खपून गेल्यो जातल्यो. त्यो तांच्या आंगार पडल्यो नात, हें दुब्रावाविरैत सांगूं येत. कारण ह्या पुस्तकान तांची उमेद बांदली आनी ताणीं एक दोन वर्सांभितर आनीक एक कोंकणी पुस्तक रचून तेंय आपल्या खर्चान उजवाडायलें. ह्या नव्या पुस्तकाचें नांव आसलें "मोगाचें लग्न." तें आसलें एक हांसौणों खळ.

फ्रांसेज बरपी मोलिएर हाच्या 'Le Medecin Malgre Lui' ह्या सुपुल्ल्या हांसौण्या खेळाचें—फार्साचें—तें रूपान्तर. वामनरावांनी फक्कत मोलि-एराच्या खेळाचो सांचो आनी कल्पना तितली घेतिल्ली. तांचेर ताणीं कोंकणी भास, कोंकणी नांवां, कोंकणी चालिरिती, कोंकणी वायमंडळ हाचो इतलो जित्रूप भेस आनी साज चडैल्लो कि तो खेळ परके भाशेंतल्या आनी संस्कृतायेंतल्या पुस्तकाचें रूपान्तर आसा हें भितर तशें बरैल्लें आसलें म्हणूनच कळटालें. वाचप्याचें मन पुस्तकाकडे ओडून घेंवक जांय, वा कितेंय एक नवेंपण म्हणून जांव, पुस्तकाचें अखेरेक सोडोवपाखातीर दोन तीन कुवाडीं घाल्लीं आनी तीं सोडोवन धाडप्याक रुपया दोन रुपयांची तस्रीप दवल्लेली. दोन कुवाडीं व्याकरणी स्वरूपाचीं आसलीं :– कोंकणी भाशेंतल्या अमक्या अमक्या उतराक वा तांच्या रूपाक पाणिनीचीं खंयचीं सुत्रां लागतालीं? कोंकणी भाशेची रूच वाडोवपाचे आनी तिका व्यवस्थित बसका घालून दिवपाचे विचार वामनरावांच्या मनांत त्या वेळार घोळटाले हें ताणी घाल्ल्या ह्या पावलांवरसून कळून येता. देवनगरी लिपी वाचूंक येतल्या कोंकणी वाचप्याक तें पुस्तक तेदोळा साइत्यांतली एक नवीत्र वस्त आसलें. त्या पुस्तकाचेर त्या काळार अनेकांच्यो अनेक प्रतिक्रिया जाताल्यो. कोणाक तीं भाशेचीं फकाणां दिसत; कोणाक ताची भास हेंगाडी दिस, तर कोणाक तें पुरायेन वाचतकूच ताचेविशीं वेगळोच जिवाळो दिसूंक लाग. मुंबयंतल्या आनी गोंयच्या हिंदु कोंकणी सामाजांत त्या पुस्तकाच्या अवताराक लागून बरोच बोवाळ निर्माण जालो. परंत देवनगरी वाचूंक येनाशिल्ल्या, क्रिस्तांव समाजांत तेदोळा विशेश प्रतिक्रिया कांय दिसलीना.

" मोगाचें लग्न " ह्या पुस्तकाची फुडें १९३८ वर्सा म्हळयार चोवीस वर्सांनी गोमन्तक छापखान्याचे धनी श्री. काशिनाथबाब नायक हाणी दुसरी आवृत्ती काडली. तेन्ना ते त्या पुस्तकाक जोडिल्ल्या " चोवीस वर्सांनी " ह्या सुरवेच्या आपल्या निवेदनांत म्हण्टात :—

" चोवीस वर्सांफाटीं गोंयचे हिंदु आजचे सारकेच घरादारांत जरी कोंकणी भास उलैताले तरी तिका बरपाक्षरी मान दिवक तयार नासले, तिका ते आवयभास म्हणनासले, आनी जायते जाण तिका हेंगाडी म्हणून चाळैताले. ते भाशेंत कितेंय बरोंवचें वा छापचें म्हळयार व्हडलीच् पिसाय कशी तांकां दिसताली. इतलें न्हाय तर, तें एक दशा होगडावणें काम अशें ते समजतालेत. " मोगाचे लग्न " नवेंच भायर सल्लां म्हणपाची कोंकणी जाहिरात घेवंक गोंयचें ते वेळचें एक मराठी साताळें जायतें अणमणलें खै ! ताका पुस्तकाची जाहिरात कोंकणी भाशेंत दिवप म्हळयार एक मोटें पातक दिसलें जांवये ! "

कोंकणी भाशेसंबंदान गोंयाभायर पाविल्ल्या गोंयकार हिंदूंचें लोकमानस कशें आसलें त्याविशीं श्री. काशिनाथबाब फुडें सांगतात :— "भायर पाविल्ल्या हिंदूंची चलणूक जाल्यार सामकीच आत्महीणपणाची जाल्ली. गोंयां आसताना घरांदारांत आनी चारचौगांत जे कोंकणी उलोंवक लजनासले तेच भायर पावतकूच सामके धरिल्ल्यावरी जाताले. आपली भास परकी लोकांनी आयकल्यार आपणाक ते हांसचे नात मूं ? आपणांक ते पिशे म्हणचेनात मूं ? अशें तांकां दिसतालें. मुंबयसारक्या शारांत दोग कोंकणे मनीस एकठांय जाल्यार कोंकणींत उलोंवक लजतालेत खैं. ते एकामेकांकडे इंग्लेजींत ना जाल्यार मराठींत उलैताले हें तर जालेंच, परंत बिराडाक वेतकूच बायलां भुरग्यांकडे लेगीत मराठींत येसाय मारतालेत ! तांकां आपणाले पवित्र जल्म भुंयेच्या नांवाची लज दिसताली. आपुण कोंकणे आनी गोंयकार म्हणून सांगूंक तांकां उणेपण दिसतालें. आपले चलणुकेक गोंयकारपणाचो वास लेगीत येवंचो न्हय म्हणून ते जतनाय घेतालेत ! . . . . . . . . . . . . . . . . . "

" मोगांच्या लग्नाची " पैली आवृत्ती भायर सल्ली त्या वेळार तें पुस्तक वाचपी लोकसमाजाचें मानस हें अशें आसलें. तरीपुण ह्या पुस्तकाचे वाङमय-गुण अशे आसले कि लोक कोंकणी भाशेसंबंदान आपलें आत्महीणपण खिणभर विसरून ताची तोंडभर तोखणाय करीत आनी कोंकणी भाशेक तिचे शत्रु जाल्ल्यावरी अक्षरशः गाळी संवणारे तो खेळ माचयेर चलिल्लो पळोवन तांतल्या विनोदान हेर लोकांवांगडा मेकळपणान हांसून आपली कमरणूक करून घेतालेत.

मोलिएरचें वामनरावांनी केल्लें हें रूपान्तर इतलें उत्कृष्ट आनी स्वतंत्र जालां कि तें पळेंतल्या गोंयकाराचें काळीज हालल्याबगर रावना. ह्या खेळांत अशें कितें भल्लां त्या संबंदान मोगाच्या लग्नाची 'होवळीक सांगपी' म्हळचार प्रस्तावनाकार श्री. रा. शं. नायक बरैतात :—

"ताणीं (वामनरावांनीं) "मोगाच्या लग्नांत" गोंयचो संवसार निर्माण करूंक मोलिएराक जैचे थंय दवरून पानाचीं पनां आपलेच लिखणेंतसून उतरायल्यांत. बाबग्या – म्हालखुमेचो एकचार करचेल्या वेळावयलें नांव घेंवचेलें प्रकरण सगळें तांगेलें. घारूदाद–फुलग्याच्या वादाचें, आनी बाबग्याच्या रजिदोर जांवचेल्या हावेसाचेंय तशेंच. ह्या भायर 'लाटफेंची आनी मयेंचीं' भरेकारां, 'जुविजाच्या नायका'चो भय, 'आपाराण्याचें पाळं', 'रुमडावयलो गावडो', 'विस्किरावांची व्हडवीक', 'मयडेंचे घड', 'जुवेंची शाक', 'दुर्भाटचे खारवी', 'म्हापशांचो फोग' बी पानाकणकणी आमकां आमच्या घराच आशिल्ल्याचो भास करतात."

वामनरावांनी मोगाच्या लग्नाची कोंकणी भास जे शैलींत बरैल्या —— तांच्या हेर पुस्तकां भितरुय तांचे भाशेची तीच शैली दिश्टी पट्टा.— तिचें संबंधान श्री. रा. शं. उर्फ राणू नायक सहानुभूतीपूर्वक अशी टीका करतात :—

"मोगाच्या लग्नांतलीं सगळींच संवगां बामणाली भास उलयतात. 'आमकां त्यो बामणांच्यो देखी कित्याक?' म्हणून विचारतली म्हालखुमय उलैता आसताना तें विसरता. म्हाका दिसता शणैबाबांनी (वामनरावांनी) हें जाणा जावन अशें केलां. घटकाभर ती भास बरोंवक म्हणूनच ताणी 'मोगाच्या लग्ना'चो आटाप मांडला हें दुबावाविरैत सांगू येत. आतां, जी भास ताणी बरैल्या तांतूत इतल्यो सुंदर सुंदर म्हणण्यो, ओपारी, अळंकार भल्ल्यात कि तांतूंतलीं वेंचीव थळां हांगा उतरायतलों म्हळचार म्हाका सगळोच खेळ उतरावन घंवचो पडत म्हणून भय दिसता............"

वामनरावांलें उतर नकसूद आनी शुद्ध, तसेंच तें सादें, सोपें आनी प्रसादिक. तांगेली भास जाण्टयाक तशी नेण्टयाक सारकी बरी समजता. बामणाल्या आनी गावड्याल्या उतराचो तांच्या उतरांत समन्वय जाला. बामणान आपलें बामणपण सोडिनासताना गावडो (स्रमिक) जांवचें, आनी गावड्यान आपलें गावडेपण सोडिनासताना बामण (बुदवंत) जांवचें अशें आसलें वामनरावांच्या वर्णाश्रमाचें स्वरूप. तेंच तांचे भाशेतूय उतरून तिचें स्वरूप शुद्ध, नकसूद, सोपें आनी प्रसादिक जालां. 'मोगाच्या लग्ना' पासून 'ऐन वेळार' ह्या तांच्या अंतिम लेखामेरेन तांची भास अशीच एकजात, अभिजात उल्ली. देखून 'मोगाचें लग्न' हें तांच्या बरपाचें प्रतिनिधित्व धरपी पुस्तक आसा अशें म्हणूंक फावो.

# ७. पैलें संवसरिक म्हा-झूज

## वामनराव कंपनीचे विश्वस्त धनी

१९१४ वर्स म्हळचार संवसारांतलें पयलें म्हा-झूज सुरू जाल्लें तें वर्स. इंग्लंड आनी जर्मनी हीं ह्या झुजांत शत्रुराष्ट्रां आसलीं. हिंदुस्थानाचेर इंग्लडची सत्ता चल म्हण्टकूच हिंदुस्थानांतल्या जर्मन लोकाक युद्ध सुरू जांवचे पैलींच भारतांतल्यान आपली बिटकी कवळप अवश्य आसल्लें, नाजाल्यार, युद्ध-कैदी म्हणून तांकां ह्या देशांत बंदखणीत वचून वसचें पटटलें आसलें. वामनराव काम करीत ती मे. ल्युसिअस ब्रुएनिंग कंपनी जर्मन कंपनी आसली. तिच्या जाळवणदारांनी थारायलें कि कंपनीच्या पसाऱ्याची जाता ती बरी व्यवस्था लावन आपणें जर्मनीक वच्चें. तांचे हें थारावणुकीप्रमाण ज्या ज्या भारतीय शारांनी कंप-नीच्यो खांदयो आसल्यो थैं थैं ते ते खांदयेची व्यवस्था कोणाय योग्य भारतीय मनशाच्या हातांत सोंपोवन, ताका ते खांदयेचो विश्वस्त कसो नेमून आपणें हिंदु-स्थान सोडून स्वदेशाक परत वच्चें, ह्या तांच्या बेताप्रमाण मुंबयचे खांदयेचें विश्वस्त धनीपण वामनरावांकडे आयलें. आपल्या चोख, प्रमाणिक, व्यवस्थित आनी अक्कल हुशारेन केल्ल्या कंपनीच्या कामाक लागून तांकां ही उच्च पदवी फावो जाल्ली. १९१४ पासून १९१९ मेरेन ते हें नामनचे जर्मन कंपनीचे मुखेल जाळवणदार आनी धनीच आसले. ह्या पांच वर्सांच्या काळांत ताणी कंपनीचो कारभार उजूपणान, प्रमाणिकपणान, व्यवस्थितपणान, लुस्कान जावंक दिनास-ताना विश्वस्ताक फावो ते तरेन चल्यलो. १९१९ त जर्मनीक हार खांवची लागून युद्ध सोंपलें. तेन्ना मे. ल्युसियस ब्रुएनिंग कंपनीचे जाळवणदार परत हिंदुस्तानांत आयलेत. ताणीं ह्या देशांतल्या सगळ्या खांदयांचो युद्धकाळांत व्यवहार आनी कारभार कसो चलतालो हें पळलें आनी तांचेर आपलो रिपोर्ट तयार केलो, आनी तो जर्मनीक कंपनीच्या भागीदारांकडे — मालकांकडे — धाडून दिलो. ताणी भागीदारांक कळैलें कि हिंदुस्थानातल्या कंपनीच्या सगळ्या खांदयेभितर मुंबयचे खांदयेचो व्यवहार आनी कारभार उत्कृष्ट तरेन चलिल्लो.

आनी ताचें सगळें श्रय ताणीं वामनरावांचें हुशारेक आनी कर्तव्यदक्षतेक दिल्लें. या रिपोर्टाचो परिणाम भागीदारांचेर जावन ताणी कंपनीची हिंदुस्थानात नवी घडी घालताना वामनरावांक ताणी केल्ल्या कामाची जाणविकाय दवरून मुंबयचे खांदयेचो सेक्रेटरी म्हळचार सगळ्यांत मुखैल काम करपी म्हणून म्हैन्याक एक हजार रुपया पगाराचेर नेमलै. कंपनीत सगळ्यांत जास्त पगाराची आनी जास्त मानाची ही पदवी आसली. कंपनीचें पोर्नें नांव आतां बदलून तिका "कलर आनी ड्रग कंपनी" अशें नवें नांव दिल्लें.

हे तरेन वामनराव आपल्या आंगांतल्या नीतिक, मानसिक, आनी बौद्धिक गुणांनी आपल्या व्यवसायांतले सगळ्यांत उंच पदवेक पावले. पुण ते पदवेन तांच्यांत गर्व, अभिमान, ताठपण वा बडाय हांचेंपैकीं कांयच रिगूंक पावलें ना. ते पैलीं आसले तशेच शांत, सादे, नुलौपी आनी भुरग्यांभाशेन ॠजुतायेन भरिल्ले अशे वामनराव उल्लेत. नुलैत काम करपाचें मनस्वीपण हो तांचो स्थायी गुण आसलो. तांचें मन संवसारी वस्तींचे सुक्षीमतायेन निरीक्षण करता आसताना सदांच तांचे वयर अलिप्ततायेन रावतालें, आनी ते सदासर्वदा आपल्या ध्येयांत आनी संकल्पांत मग्न आसताले.

१९१४ पासून १९१९ मेरेन कंपनीची पुराय जापसालदारी तांच्या आंगार आसली. त्या पांच वर्साच्या काळांत ताणीं कोंकणीत वा मराठींत बरप केल्लें कांय दिसना. एकादले ते आपली साबार शक्ती आंगार घेतिल्ल्या जापसाल-दारकेच्या कामाक लायतालेत देखून साइत्य निर्मपाचें काम तांचे हस्तकीं ह्या काळांत जालें नासूंये. १९१९ उप्रांतूय कंपनीचें मुखैलपद (सेक्रटरी) तांचेचकडें आसलें. परंत क़ंपनीचे जर्मन जाळवणदार युद्ध सोंपतकूच परत आइल्ल्यान जापसालदारकेची विभागणी जाल्ली आनी तांच्या माथ्यावयलें ओजें आतां थोडें ल्हवु जा़ल्लें. १९१९ पासून १९२५ मेरेन स वर्सां ते कंपनीचे सेक्रेटरी ह्याच पदार आसले. ह्या काळांत तांचें लक्ष पुनाय बरपाकडे वळूंक लागलें. फोंड्याच्या 'स्वयंसेवकात' तांचो १९२२ वर्सां "गोविंद नारायण शणै मडगांवकार" हे मुंबैंतले पोर्नें पिडयेंतले नामवंत सुधारक व्यक्तिसंबंदान एक कांय वांटयान संशोधनात्मक आनी कांय वांटयान टीकात्मक असो विस्तृत मराठी लेख आइल्लो. गरज पडल्यार आनी चड करून गोंयाभायले मराठी जनतेक आपणें अभ्यास करून एकठाय केल्ले माहितीचें गिन्यान जांवचें अशे इत्सेन ते मराठींतूय लेख बरैताले. तांचें मराठी-बरोवप प्रशस्त, चिपळूणकर – आगरकर हांचे पिडयेंतल्या वळणाचें, आत्म-विश्वासान आनी वादविवादाक जाय आशिल्ले निच्छयी घटसाणीन भरिल्लें अशें

आसलें. तें कुदळीक कुदळ म्हणपी निबर स्पष्टोक्तीचें, भावनिक अथवा शिश्टा-चारी मोवसाणीक दोन हात पयस दवरपी आनी खर आनी तीख धारेची सत्याची तरवार निश्चिंतपणान पेलणारें अशें आसलें. आपल्या खंयच्याच विधा-नाक आड येतीत ते मुद्दे आपुण सहज कातरून उडैन इतली माहिती आपले स्मरणिकेंत भल्लेली आसा असो आत्मविश्वास तांच्या उतरा-उतरांत दिसून येता. ह्या काळांतूय तांचें कोंकणी बरप खंय जाल्लें दिसना. हांचें कारण तें बरप स्वत: छापल्याबगर उजवाडाक ये सारकें नासलें. "मोगाच्या लग्ना" वेळार तो प्रयोग ताणीं केल्लो. पुण एकसारकें तशेंच करीत रावप तांकां पसंत नासलें. मागणी ना थंय पुरवठो करीत रावप तांचे हिशेबी, व्यवहारी आनी वस्तुनिश्ट दृष्टीक मानवण्यासारकें नासलें. त्या काळचीं नेमाळींय "कोंकणी" मजकूर छापून आपलीं पानां भरून काडपाक अणमणतालीं, तयार सहसा जाय-नासलीं. वामनरावांचो हे परिस्थितीक लागून घुस्मटमार जातालो जावंक जाय. पुण कितें करतले? बरैलें जाल्यार छापतलो कोण? छापलें जाल्यार, वाचतलो कोण? आनी वाचपी नासलो जाल्यार छापतलो कोण? अशें तरेचें दुश्ट चक्र त्या काळा तांच्या अणभवाक येंतालें. म्हण्टकूच निरुपाय जावन ते आपलें गोंय आनी कोंकण हांचे संबंदीचें इतिहासिक, समाजिक आनी साइ-त्यिक संशोधन मराठींतल्यान उजवाडांवक लागले. ह्या कामांत तांकां विविध ज्ञान विस्तार, नवयुग, स्वयंसेवक बी मराठी नेमाळयांनी पाळो दिलो. तांचे लेख, भारदस्त, म्हत्वाचे आनी ज्ञान प्रसारक आसताले. म्हण्टकूच तांकां सहज येत्रकार मेळ. तरीय पुण केन्ना केन्ना तांच्या लेखांतल्या विशयाक पळोवन एकादलो संपादक तो छापपाक कचरतालोय. वयर सांगिल्लो मडगांवकारांसंबंदाचो लेख विविध ज्ञान विस्तारान छापलो ना खंय. उपरान्त तो फोंडयांच्या स्वयं-सेवकांत आयलो असो त्या लेखाचो इतिहास मेळटा.

आमच्या चिंतनशीळ पुरातन रुशींनीं सांगलेलें आसा : सत्यम् ब्रूयात् प्रियम् ब्रूयात्; सत्यम् अपि अप्रियं न ब्रूयात्। हे तिनूय आदेश एकमेकांक धरून आसात. सत्य उलयात म्हळयार असत्य उलोंव नाकात. सत्याची प्रतारणा करूं नाकात. ताचो अपलाप करुं नाकात. तुमी उलैतात तें सत्यूच आसूंक जाय असो आग्रो तुमी धरुंक जाय. तुमचें उलोवप सत्य आसून तें आयकतल्याच्या कानांक गोड लागत अशे तरेन तुमकां सांगूंक आयलें जाल्यार दुदांत साकर पडली म्हणच्चीं. पुण तें सत्य नासून बेश्टें गोडूच आसलें तर तें उपकारना. ताणें थोडयाच वेळान तुमच्या तोंडाक आनी आयकतल्याच्या कानांक माठी पट्टली. तोंड विट्टलें, कान किट्टले; देखून रुशी सांगतात, " सत्यम् ब्रूयात्। सत्यंच प्रियंच

ब्रूयात् । पुणून सत्य अप्रिय म्हळ्यार कोडू आसलें तर कितें करचें? रुशींची म्हणणी तें उलोंवचें न्हय, वोगी रावचें. सत्याचे मोगी भोव संख्येन रुशीचे हें तिनूय आदेश पाळतात. पुण कांय थोडे सत्याचे मोगी रुशींचो हो आदेश मानूंक कबूल नासतात. ते म्हण्टात, कोडू सत्य उलैलेंना जाल्यार इतिहास लिपयल्ल्यावरी जाता. ती इतिहासाची प्रतारणा जाता. इतिहास – इति ह आस-म्हळ्यार एक पवित्र वस्त. ती कोडू, अप्रिय, मानना जाल्ली आसा म्हणून जर ती बळयांच लिपयली जाल्यार सत्याचो अपलाप जाता आनी ताका लागून रुशींच्या पयल्या आदेसाक बादा येता. वामनरावांक रुशींचो तिसरो आदेश, " सत्यम् अपि अप्रियम् न ब्रूयात् " हो मान्य आसलो अशें दिसेना. सत्य कोडूय जालें जाल्यार तें सांगची गरज आसली वा गरज पडली जाल्यार तें सांगूकच जाय अशें तांकां दिसतालें. थोडयाभितर सांगप म्हळ्यार तांचें इतिहासाचें इंद्रिय ( Sense of History ) मोटें तीख आसलें. इतिहासाक कोणेय चेपणा घाल्लो तांकां सोंस नासलें. इतिहास म्हळ्यार जावन गेल्लें सत्य. जाचे नद्रेक तें पडलें ताणें तें आशिल्लें तशेंच सांगूक जाय. ताचेर आपली मखलाशी करुंक फावना. अथवा तें रुचना म्हणून चेपणा घालूनय दवरुंक फावना. तें आसा तशें दिवक जाय. वामनरावांचो सत्याचो आदर्श उंच आसलो. तांकां इतिहासाचें विडेबन सोंस नासलें, तशें जालें म्हण्टकूच तांकां सत्विक रागाचो किवाटो येतालो. ताका लागून तांची संशोधनात्मक टीका खर-निबर जाताली. केन्ना केन्ना ती कोडूय जाताली. कोणाकोणाचे नद्रेक तो तांचो साइत्यिक दोश कसोय दिसूंये. पुण फुडें फुडें विचारांचे अदिकतायेक लागून तांची ही केन्ना केन्ना जाणवपी संवेदनेची तीव्रताय बरीच आळाबदा आइल्ली आनी केवळ इतिहासिक सत्याचे स्पश्टोक्तीन असत्याचें स्वरूप वाचप्यां मुखार धरपाची युक्त तांकां साधली. वामनरावांच्या मनाचो स्थायी भाव म्हळ्यार प्रखर स्वाभिमान. तो राखून दवरपाक ते दोळयांत तेल घालून वावुरताले. ताका धक्को लागूं नये म्हणून ते आपलेकडसून दोश वा कारण घडूं नये म्हणून जपताले. निजी स्वाभिमानाभाशेन तांचो समाजिक स्वाभिमान, म्हळ्यार, आपुण एका विशिश्ट समाजाचो घटक आसां ह्या खातीर ताचो अभिमान, होय प्रखर आसलो. आपलेच लोक जेन्ना त्या स्वाभिमानाविशीं बेपर्वा दाखैताले तेन्ना तांकां तांचे वागणुकेची तिडक मारी आनी ते आपली समाजिक आत्मनिर्भर्त्सना करीत आनी ती अति निश्ठुरपणान.

१९१० ते १९१४ ह्या काळांत वामनरावांनी देवनगरी कोंकणींत आपलीं दोन पुस्तकां आपल्या खर्चान छापून उजवाडायल्लीं हें वयर सांगलांच. " शणै

गोंयबांब " हें आपलें साइत्यिक नांव ताणी ह्याच सुमाराक धारण करून तें वापरूंक सुरवात केल्ली. कांयशा विचित्रपणान मनाक धक्को दिणें अशें हें नांव ताणी कित्याक म्हणून आपणाक लावन घेतलें हाची ताणी आपल्या बर-पांत वा उलोवपांत खंयच चिकित्साय करूंक ना. तेन्ना ताचेविशींचें जागें जाल्लें कुतूहल आमकां खबर आसलेल्या कांय गजालीं वरसून अनुमानान न्हिवंवचें पट्टा. " शणै गोंयबाब " हांतूत दोन उतरां आसात. : शणै आनी गोंयबाब. " शणै " ह्या उतराचेर वामनरावांनी एक दीर्घ लेख बरैला. तो मराठींत बरैला तो लेख म्हळ्यार देडशें पानाचें एक पुस्तकूच जातलें. हो लेख मुळांत १९३१ वर्सा " विविधज्ञान विस्तार " नांवाच्या मराठी नेमाळ्यांत उजवाडाक आइल्लो. तो वाडोवन – विस्तारून १९४५ त उजवाडाइल्ल्या " कांही मराठी लेख " ह्या पुस्तकांत दिला. हाचेवरसून त्या उतराचें म्हत्व वामनरावांक चड दिस म्हणपाचें कळून येता. हें उतर गोंयचे जायते बामण आपल्या नांवाक वा आपल्या बापा-यच्या नावाक वा आपल्या आडनांवाक जोट्टात. हें उतर जातीवाचक नासून तें सन्मानार्थी, आदरार्थी आसा. वामनरावांनी स्वतः संशोधन करून ताची व्युत्पत्ती दिल्या. दोन अडेचशें वर्सां फाटीं इतिहासाचो विपर्यास करपी कांय बरप्यांनी त्या उतराच्या अर्थाचो विपर्यास आनी विडंबन करून तें जातिवाचक आसा असो अपसमज पातळायलो. वामनरावांनी आपल्या त्या प्रदीर्घ लेखांत अर्थ, व्युत्पत्ति, इतिहास, परंपरा, संदर्भ, मतमतांतरां, उतराच्यो सर्व विटंबना फाटलो हेतु बी सगळ्या गजालींचो सतर्क विचार करून आपणें संशोधित केल्ली खरी व्युत्पत्ती दिवन, तें आकसान आनी दुस्त्रासान भंगल्लें उतर बिरुदाभाशेन ताणी आपल्या साइत्यिक नांवाक जोडलें. उतराची व्हडवीक लोकांक समजुंची, विस्मृत आनी विपर्यस्त इतिहासिक सत्य पुनः स्थापित जांवचें ह्या उदात्त आनी स्वाभिमानी हेतून ताणीं तशें केलें आसूंक जाय.

साइत्यिक नांवांतलें दुसरें उतर " गोंयबाब ". " बंगाली बाबू " ह्या उतरासारकेंच तेंय; पुण ताच्या अणकारान आनी केलदावणी करपाखातीर घडयल्लें आसा. " बंगाली बाबू " हें उतर निरुपद्रवी आनी क्वचित परक्यांनी सौम्य हेटाळणी करपाक उपकारांइल्लें जायत. पुण " गोंयबाब " हें हेटाळणी-खातीरुच परक्यांनी घडयल्लें, इतलेंच न्हय तर गोंयाभायर वचून " गोंयकाराचे मुंबयकार " जाल्ल्या स्वकियांनी आपल्याच लोकांची हेटाळणी करूंक उप-काराइल्लें उतर आसलें. स्वाभिमानी मनशाक ताची तिडक मारूंक फावो. सोळाव्या वर्सा आपल्या बोपोलयाबरोबर बोटीर बसलेले आसतांना वामन-रावांनी त्या उतरांतलें वीख गिळिल्लें आनी शंकराभाशेन तांचोय कंठ किणवन

पांचवो-निळो जाल्लो. ह्या उतराचें विखयाळपण जगाक कळचें इतलेंच न्हय, तर आपल्या तेजान, ओजान, बुद्धिमत्तेन आनी विक्रमान तें विखयाळपण नाशें करचें असो संकल्प करून ताणी शणै फुडें गोंयबाब जोडून आपलें साइत्यिक नांव तयार केलें, आनी ह्याफुडें ते तें निःसंकोचपणान वापरुंक लागले. आपले जिणेंत ताणी आपलो अ-कथित आनी अनुच्चारित पुण अंतरात दिव्यासारको घणघणीत पेटलेलो संकल्प पूर्ण केलो हें उक्तेपणान कोणाकय दिसून येत. तो संकल्प आसलो आपले आवयभाशेक – कोंकणीक – भारतांतले एक स्वतंत्र, विकसल्ले, साइत्यिक आनी समर्थ भाशेचो पांवडो मेळोवन दिवचो आनी तिचे नाटेच्या "शणै", "गोंय" आनी "बाब" ह्या निनूय उतरांक तांचें होग-डावल्लें तेजिश्टपण, सन्मान्यपण आनी प्रतिश्टितपण पर्थुन प्रदान करचें. आज शणै गोंयबाबांच्या धर्मान आनी तांच्या प्रतिभासंपन्न कर्तुपाक लागून "शणै" वा "बाब" हीं उतरां आपल्या नांवाक जोडूंक कोणाच गोंयकाराक लज दिसपाचें कारण उरुंक ना. तशेंच निजी पौरुशान भरिल्ल्या, सत्वगुणाचे विरीन युक्त आनी सुंदरतायेची निजाचीच देण आसलेल्या "गोंय" ह्या भौगोलिक विशिश्टतायेच्या भारतीय प्रदेशाचे आपुण भाग्यशाली नागरिक, 'गोंय' कार, आसांत अशें म्हणून घेवपाक आनी गोंयाचो अभिमान धरपाक गोयकारांक आतां अडचण उरुंक ना.

१९१४ ते १९१९ हो काळ पयल्या संसार-व्यापण्या म्हाझुजाचो. ताचे दरम्यान शणै गोंयबाबांचेर कंपनीच्या व्यवहाराची पुराय जापसालदारकी आसली. ती ताणीं विश्वस्ताक फावो ते तरेन आनी अतिशय कुशळतायेन निभावन व्हेली. परंत ह्या काळांत ताणीं साइत्य उजवाडाइल्लें अशें कांयच दिसना. आनी तेंय बरोबर आसा; कारण शणै गोंयबाबांचो पिण्डूच मनस्वीतायचो. ते ज्या कामांत पडत तांतूंत पुराय ध्येयभान घालीत. म्हण्टकूच कंपनीच्या वेपार वेव्हारांत पडिल्ल्यान तांच्या साइत्याक फुरसदच खैं आसली? पुण बरप कांय केलेंना तरीय तांचें वाचप आनी टिपो घेवप हें अध्ययनाचें काम ऑफिसाक सोड आसताली त्या काळांत अखंडपणान चालू आसतालें. तांचें समाजिक येवप-वचप चडशें नासलें. नाटकां-सिनेमा पळोवपाचो बी तांका शोक नासलो. मोटचा ऑफिसरांभाशेन तांकां "क्लब लाइफ"चें व्यसन नासलें. तांचें मनरंजन म्हळ्यार वाचन, अध्ययन आनी तें ते नेमान करतालेत.

# ८. गोंयकार हिंदु सभे वांगडा वामनरावांचो संबंध

१९१९ हें पयल्या संवसारव्यापी म्हाझुजाचें सोंपतें वर्स वामनरावांक व्यावसायिक प्रतिश्टा मेळोवन दिणे म्हणून जशें थाल्लें तशेंच तें तांचे समाजिक प्रतिश्टेक आरंभ करपी म्हणूनूय थाल्लें. ह्या वर्सा मुंबैत वस्ती करून रावपी कांय गोंयकार भावां-भैणीच्या मनांत आयलें कि शारांत आपली एक समाजिक संघटणा आसची. गोंयकार क्रिस्तांव भावांची एक खबरदार संघटणा बऱ्याच वर्सांपासून मुंबैत आसा, पुण गोंयकार हिंदु मात ह्या शारांत समाजिक माचयेचेर एकठावल्ले खंयच दिसनासले. गोंयकार हिंदूंची संघटणा आसची ह्या विचाराक रोकडेंच मूर्त रूप आयलें आनी त्याच वर्सा वेगळ्यावेगळ्या खेत्रांतले कांय प्रतिश्टित गोंयकार भाव आनी भैणी एकठांय मेळून ताणी मुंबैत गोंयकार हिंदु सभा स्थापन केली. ज्या पंचवीस-तीस प्रतिश्टित गोंयकार नागरिकांनी एकठांय जमून ही संस्था काडली तांच्यात श्री. वामनराव केरकर, डॉ. व्यंकटेश पांडुरंग कामत, श्री. वामनराव वालावलिकार, श्री. बी. जी. ज्याक बी लोक आसले. मुंबय शारांत आज ही संस्था साठएक वर्सांची जुनी आनी नांवाजती संस्था म्हणून प्रसिद्ध आसा आनी गोंयकार हिंदूंची संघटणा करून तांचें शिकप, आरोग्यताय, कला, संस्कृताय, आर्थिक सहकारिता बी अनेक आनी विविध खेत्रांनी गोंयकार हिंदूंची उन्नती आनी प्रगती सादपाचो वावर करीत आसा. हें संस्थेचे स्थापनेपासून पैल्या अठरा वर्सांच्या काळांत वामनरावांचो तिचेकडेन सतत क्रियाशीळ संबंध उल्लो. ह्या काळांत म्हळचार १९१९ पासून १९३७ मेरेन वामनराव संस्थेच्या जाळवणदार मंडळात केन्ना अध्यक्ष तर केन्ना उपाध्यक्ष, केन्ना खजिनदार तर केन्ना मंडळाचे सादे वांगडी म्हणून आसतालेत. संस्थेच्या सगळ्या तरांच्या कार्यावळींत ते आपले शांत, प्रौढ आनी नेमस्त प्रकृतीक सोबशे तरेन भाग घेतालेत. खास करून संस्थेच्या वार्षिक स्नेहसंमेलनांच्या वेळार, अथवा प्रतिश्टित सन्मान्य व्यक्तींक येवकार दिवन सत्कार करच्या वेळार, परीक्षांत येस जोडलेल्या विद्यार्थ्यांचे अभिनंदन करच्या वेळार वामनराव विचारांनी आनी माहितीन भल्लेलीं आनी अभ्यासपूर्वक बरोंवन काडलेली प्रदीर्घ भाशणां

करीत. अर्थात् तीं कोंकणीतच आसतालींत. केन्ना केन्ना ताणी संमेलनासारक्या, प्रसंगांखातीर मुद्दाम रचलेले खेळ माचयचेर करून दाखयतालेत. संस्थेनिमतान तांचेकडसून निर्माण जाल्ल्या ह्या साइत्याचो कांय वांटो उजवाडांत आयला. बाकीचो अजून अप्रकाशित आसा. विद्यार्थ्यांक उदेसून वा सत्कार -येवकार आदि प्रसंगाक अणलक्षूम ताणी अठरा वर्सांच्या काळांत वीस एक उलोवपां केल्लींत. तांतली बाराच होलमलींत खंय, बाकीची हातोहात कोणे वाचूंक म्हणून व्हेलीं तीं नाशींच जालींत. ह्या बारापैकी चार, "कोंकणी विद्यार्थ्यांक" ह्या नावान पुस्तकरूपान एकठांय छापल्यांत. एक येवकाराचें उलोवप हालीच एका नेमाळ्यांत प्रसिद्ध जालां. तें धि गोवा हिंदु असोसिएशन म्हळचार गोंयकार हिंदु सभेन दोतोर फ्रोयलानु द मेलु ह्या नाम्नेच्या गोंयकार फुडाऱ्याक आनी गोंयच्या पुर्तुगालच्या पार्लमेंटांतल्या प्रतिनिधिक दिल्ल्या येवकार आनी मानपत्राच्या वेळार केल्लें उलोवप आसलें. वामनरावांचीं हीं उलोवपां केवळ वेळ सोबोवन व्हरपा खातीर केल्लीं उलोवपां नासतालींत. तीं जशीं सुंदर आनी काळजाक स्पर्शिणी आसतालीं तशींच तीं उंच विचारांनी आनी नव्या नव्या माहितीनीं उपाट भरिल्लीं आसतालीत. वामनरावांनी बरैल्ले 'मोगाचें लग्न', 'झिलबा राणो', आनी 'पवनाचें तपलें" हें खेळ संस्थेच्या उत्सवांच्या वेळार आदलून बदलून माचयेर करून दाखयतालेत. ते खूप रंगत आनी गोंयकार भावां-भैणींची सत्विक करमणूक करतालेत. १९२३ वर्सा गोंयांत खूप पावस पडून जायत्या थळांनी बुट्टी येवंन लोकांक पिडा भोगलेली. त्या वेळार मुंबैचे गोंय-कार हिंदु सभेन खास समिती नेमून बुट्टेंतल्या पीडित लोकांक मदत करपाक म्हणून फंड उबारिलो आनी हेर अनेक तरांनी मदत धाडपाचें काम केल्लें. सभेच्या जाळवणदार मंडळाचे अध्यक्ष, बुट्टी मदत समितीचे वांगडी, निधी एकठावपी स्वयंसेवक बी अनेक नात्यांनी वामनरावांनी ह्या कार्यात भाग घेतलेलो. १९३० वर्सा गोंया मडगांव शारांत पंधरावी महाराष्ट्र साहित्य परिषद भल्लेली त्यावेळार धि गोवा हिंदु असोसिएशनान (गों. हिन्दु सभेन) परिषदेचे स्वागत समितीकडे सहकार्य करून परिषदेचो बरोचसो वावर आपल्या स्वयंसेवकांमार्फत केल्लो. वामनराव ह्या वर्सा जाळवणदार मंडळाचे वांगडी आसले. गोंयांत मराठीच्या प्रसाराक तत्वदृष्टीन जरी तांचें मन अनुकूल नासलें तरी ताणी धा-जाणांच्या मतान थारायल्ल्या वावराक आपलो विरोध दाखयलो ना. ते परिषदेचे स्वागत समितीचे वांगडी जालेनात, पुण समितीक ताणी, फावोशी देणगी दिली. मराठीक तांचो विरोध आक्रस्ताळ्याचो नासलो. तो समंजसपणाचो आनी विचारपूर्वक थारायल्ल्या तात्विक बसकेचेर आधारिल्लो आसलो हें हाचेवरसून उक्तें दिसता.

गोंयकार हिंदु सभा हे संस्थेच्या पयल्या अठरा वर्सांच्या काळांत वामन-रावांची हे संस्थेत प्रबुद्ध जाण्टेपणाची, विचारीपणाची, निश्टावंतपणाची, उजूपणाची, मनाचे दृढतायेची आनी सरळ वृत्तीची मंगलमूर्त म्हणून प्रतिश्टा आशिल्ली. संस्थेचे ते तहाहयात वांगडी आसले. १९३७ वर्सापासून तांच्या अस्थास्थ्याक लागून संस्थेच्या जाळवणदारींतल्यान ते मेकळे जाले. तांचो १९३७ पासून १९४६ त जाल्ल्या तांच्या मर्णापर्यंतचो णव वर्सांचो काळ पिडा आनी मृत्यू हांचेकडेन झगडत रावपांत आनी उसरपत घेनासतांना कोंकणी भाशेचो संकल्पित वावर करपांत गेलो.

# ९. वामनराव 'कल्तर ॲण्ड ड्रग कंपनी'तली चाखरी सोडटात

१९१९ वर्सापासून वामनराव कंपनीच्या सगळ्यांत उंच पदाचेर रावून म्हळ्यार सेक्रेटरी म्हणून चाखरी करताले. तांकां पगारुय बरो चार आंकड्यांचो आसलो. तो पगार तांकां जाळणदारांच्या समान पांवड्यारसून मेळटालो. त्या वेळेच्या जाळवणदारांनी तांची योग्यताय वळखून आणी ताणी युद्धाच्या आपत्कालांत कंपनीच्या वेव्हाराची जापसालदारकी कशी सांभाळ्ळेली ताची जाणविकाय दवरुन तांचो तो पगार समानतायेच्या पांवड्यार थारायल्लो. ही स्थिती १९२५ मेरेन तगली. पुण आतां कंपनीत पोर्ने जर्मन जाळवणदार निवृत्त जावन नवे जाळवणदार आइल्ले. तांकां कंपनीच्या आपत्काळांत वामनरावांनी केल्ल्या कामगिरीची खबर नासली अशें न्हय, पुण वामनराव हे एक इंदियन आनी आपुण जर्मन–येवरोपेव–ही जाणविकाय तांका खटकताली. वामनरावांक आपल्या दर्जाचो पगार मेळटा ही गजाल तांच्या दुस्वासाक कारण जाली. त्या दिसांनी मंदीची लाट आइल्ल्यान कंपनीक मेळटाली ती नफा कांय थोड्या वांट्यान उणी जाल्ली जांवये. हे संधीचो फायदो घेवन ताणीं वामनरावांचो पगार मात्सो उणों केलो. अर्थात् अशें करपाखातीर मंदीचें आनी नफेंतले घटीचें कारण दाखयल्लें. वामनरावांनी पळेलें कि एकट्या तांचोच पगार उणो केल्लो; म्हण्टकूच ताणीं ताचे संबंदान जाळवणदारांकडे चौकशी केली. तेन्ना जाळवणदारांनी तांकां आपलो दृष्टिकोण समजायलो. कंपनीत मोट्या हजार रुपया पगाराचे जागेर ते एकलेच इंदियन काम करपी आसले. बाकीचे इंदियन कारकून आनी ऑफिसर हांचें पगार ल्हान आसले. तांचे पगार कापले जाल्यार तांकां अडचणींत घाल्ल्यावरी जातलें, आनी योवरोपेव ऑफिसरांचे पगार तशेच दवरपाचें कारण येरोपेव ऑफिसर परक्या देशात काम करीत आशिल्ल्यान तांच्या पगारांत कपात करप म्हळ्यार तांकाय अडचणींत घालप. देखून पगार-कपात फक्त वालावलि-कारांच्याच पगाराक लांव येताली, आनी ती तशी करपांत आयल्ली. रजांव हे दृष्टीन वयलेवयर पळेतल्याक तें फावोशें दिस. पुण वामनरावांचे तीख आनी

स्वाभिमानी नद्रेक तांतूंत आसलेलो समानतायेचो दुस्वास सटकरून दिसलो. ताणी एक लांब, तत्विक स्पष्टीकरण करपी पत्र बरोवन जाळवणदारांक कळयलें कि मंदीक लागून कपनीचे नफेंत उणाय आयल्या आसत जाल्यार कंपनीच्या हिताचे नद्रेन कंपनीत काम करतल्या सगळयांनीच आपापल्या पगाराच्या प्रमाणांत कांय एका थारायल्ल्या वांटयांन कपात करून घेतल्यार तत्विक दृष्टीन तें योग्य जातलें. देखून योवरोपेव जाळवणदारांनीय जर आपापल्या पगारांत कपात करून घेतली जाल्यार आपुण मोटे खोसयेन आपल्या पगारांत जाल्ली कपात सहन करीन. पुण कंपनीच्या जाळवणदारांक अशें जाल्लें नाका आसलें. तांची नदर आनी हेतु कंपनीच्या हिताचो नासून इंदियन आनी योवरोपेव हांचे भितल्ले समानतायेचो दुस्वास होच आसलो. देखून वामनरावांची सुचौणी तांकां मानवलिना. तें पळोवन वामनरावांनी त्याच खिणा स्वाभिमान राखपाखातीर आपले जागेचो रजिनामो दिलो आनी कंपनीच्या कामांतल्यान ते मेकळे जाले. तांची समजाविशी करपाचे यत्न जाले, पुण वामनरावांनी आपलो रजिनामो फाटीं घेतलो ना. आपल्या वयाच्या अठ्ठेचाळीसाव्या वर्सा ते सेवेंतल्यान निवृत्त जाले. तांचें काम करपाचें वय आसलें, तरीय उप्रांत ताणी दुसरेकडेन चाखरी धरपाचो यत्न केलोना. ताणी आपले उरिल्लें आयुष्य आपलो संकल्प पुरो करपाक, म्हळयार कोंकणी भाशेचें उदरगती खातीर लावपाचो नित्शय करून त्याप्रमाणें ते त्या कामांक लागले.

कलर अड ड्रग कंपनीतलें काम वामनरावांनी सोडलें हें कंपनीतल्या काम करतल्यांक अर्थातच कळलें. हेर उद्योगांतल्या तांच्या सहकारी वांगडयांकूय तें कळलें. पुण आच्छर्य अशें कि वामनरावांच्या घरांतल्या कोणाकच हाची खबर नासली. खुद्द तांचे घरकान्नीकूय हें वृत्त वर्स दोन वर्साउप्रांत कळ्ळें. हाचें कारण ताणी आपल्या रजिनाम्याचो आनी काम सोडून दिल्ल्याचो खंयच कोणाकडे स्वत: जांवन उच्चार केलो ना. तांकां आपलेविशीं लोकांक कांय सांगचेली संवय नासली. कंपनीत कामाक आसताना ते मुंबयतले रॉयल एशियाटिक, सोसायटीचे लायब्ररीचे आनी पेटीट लायब्ररीचे वांगडी जाल्ले. कंपनीत काम करताले तेन्ना ते सोडीच्या दिसाय्र लायब्ररींत वचून बसत आनी वाचप करीत, आनी आपणांक जाय आसलेल्या विशयाच्यो टिपो घेत. कंपनीचें काम सोडल्या दिसा-पासून ते त्याच नेमलेल्या वेळा कंपनीत वच्चें बदला लायब्ररींत वचूंक लागले. ऑफिस सुटतकूच ते जशे घरा येतालें तशेच ते त्याच वेळार लायब्ररींतल्यान भायर सरून घरा येवंक लागले. आपले जिणेंत कांय पुण फरक पडला अशें ताणी आपले आपणांकूच जाणवूंक दिलेंना. म्हण्टकूच तांच्या ह्या पुत्रिल्लेमारत्रयाच

दिसपट्टचा कार्यक्रमाक लागून तांच्या घरच्या कोणाकूच वर्स दोन वर्सां खबर नासली कि ते ऑफिसांतल्या कामांतल्यान निवृत्त जाल्यात. अशे तरेचो हो आंखलेलो बांदलेलो चक्रनेमिक्रम आनी अशे तरेचें हे आपले संबंधाचें नुलौप संवसारांत भोव थोडेकडेन दिश्टी पट्टा.

शणै गोंयबाबांचो – वामनरावांचो – आपलेविशीं नुलौपी सभाव – आत्म-प्रसिद्धी पराङमुखता – कमालीच्या तोंकांक गेल्लो हें वयर सांगलेलें गजाली वरसून दिसून येता. "मराठी भाषेचे व्याकरणकार आणि व्याकरण-प्रबंधकार" ह्या नांवांच्या आपल्या पुस्तकांत ताचे संपादक आनी बरोवपी श्री. मोरेश्वर सखाराम मोने हांकां शणैगोंयबाबांविशीं चरित्रात्मक माहिती आपल्या ग्रंथांत दिवची आसली, म्हणून ताणी शणैक पत्र बरोवन माहिती विचाल्ली. त्या पत्राची जाप शणैगोंयबाबानी श्री. मोने हांकां धाडली. ते जापेक उदेसून श्री. मोने आपल्या त्या ग्रंथांत म्हण्टात : " त्यांच्या पत्रांतील भाषेवरून ते अत्यंत नम्र व आपले चरित्र व फोटो प्रसिद्ध करण्यास नाखूष दिसतात. मोठ्या मिनत-वारीने त्यांनी दिलेल्या टिपणाचा उपयोग करून (त्यांजविषयीं) वरील मजकूर लिहिला आहे." शणै गोंयबाबांच्या प्रसिद्ध जाल्ल्या कांय पुस्तकांत त्या पुस्तकाचे उजवाडावपी श्री. का. श्री. नायक हाणी शणैचे कांय फोटो घाल्यात. पुण भोव करून ते फोटो सभा समारंभाच्या वेळार फोटोग्राफरान वा एखाद्या नेमाळ्याच्या रिपोर्टरान घेतलेले आसात. मुद्दाम पोज दिवन घेतलेलो तांचो फोटो एकल्याचो असो क्वचितच मेळत — नाच म्हळ्यार जाता.

१९१९ ते १९२५ हो काळ शणै गोंयबाबांचे व्यावसायिक आनी समा-जिक प्रतिश्टेचो आसलो. त्या काळांत ते आपल्या कार्यक्षेत्रांत उंच पांवड्याक पाविल्ले आनी तांची आस्पतूय वाडिल्ली. चाखरेंतल्यान निवृत्त जांवच्या सुमा-राक वा थोडें उप्रांत ताणी मुंबैच्या एका उपनिवासांत —विलेपारले गांवात— आपलें स्वतःचें अशें एक एकमजली घर बांदिल्लें. ताका ताणी "गोमन्ताश्रम" अशें नांव दिल्लें. थंय ते तेन्नापासून आपली घरकान्न शांताबाय, विधवा भैण शेंवतुआका आनी चार भुरगीं—दोग चले, आनी दोगी चलयो – हांचे सैत रावूंक लागले. शणै गोंयबाबांलें जाण्टेले रघुनाथबाब हे चिंतामण बाव (बापो-लये) भायर पडले त्याच सुमाराक फुडें फाटीं केन्नातरी हो लोक सोडून गेले. आनी आवय सीताबाय उप्रांत बारापंद्रा वर्सांनी मृत्युवश जाली. शणैबाबांची तांचेपरस जाण्टी आसलेली विधवा भैण १९३४ वर्सा विलेपार्ल्याक आसताना भायर पडली. शणैबाबांनी आपल्या दोगीय चलयांची लग्नां करून दिल्लीं. व्हडली भैण वत्सल (वागळे) ही उप्रांत थोडयाच दिसांनी दिवंगत जाली. हे भाशेन

शणैबाबांसरेन तांच्या अंतामेरेन तांची घरकान्न आनी दोग चले आनी एक चली अशीं चौगां घरची मनशां आसतालींत.

हे सुवातेर शणै गोंयबाबांचे घरकान्नीविशीं मेळिल्ली थोडी माहिती दिवंक हरकत ना. शणैबाबांचें लग्न ते मॅट्रिक जाल्या उप्रांत रोकडेंच म्हळ्यार एक दोन वर्सांचे अवधींत जाल्लें. तांची घरकान्न गोंयचींच पुणून मुंबैंत राविल्ली जुन्या वळणाची चली आसली. ती बरपाक्षर शिकूंक नासली. पुण ती बहुश्रुत आनी उपकारापट्टा तसलें अणभविक गिन्यान आसलेली अशी आसली. वामन-रावांक आपले घरकान्नीविशीं खूप आदर आसलो आनी वेळ प्रसंगाक ते तिची तोखणाय करीत. बरपाक्षरी नासलेल्यान तांच्या साइत्यिक वावरांत प्रत्यक्ष अशें जरी तिचें सहकार्य नासलें तरी अप्रत्यक्षपणान वामनराव तिचें सहकार्य मेळयतालेत. श्रीमती शांताबायक लोकवेद म्हळ्यार गोंयांत लोकांल्या तोंडांत ज्यो काणयो घोळटाल्यो त्यो बऱ्योच येताल्यो. तशेंच तिचें कोंकणी उतरांचे आनी ओपारी म्हणीचे बी गिन्यान बरेंच आसलें. पुण हें तिचें गिन्यान साइ-त्यिक दृष्टिकोणांतल्यान मेळोवपाक वामनरावांक युक्ति करची पट्टाली. ते आपले घरकान्नीकडेन कसलो तरी विशय उस्तून काडून उलैत बसतालेत. ह्या उलोवपांत तांकां घरकान्नीच्या तोंडांतसून भायर सरिल्लीं कितलीं तरी अस्सल कोंकणी, जातीवंत कोंकणी पुणून वामनरावांक नवीं आसलेलीं उतरां, ओपारी, म्हणी बी आयकूंक मेळत आनी वामनराव तीं आपले स्मरणिकेंत – उगडास– पटयेंत – रोकडींच सांटावन दवरताले. श्री. शांताबाय कडसून आयकलेल्यो काणयो वामनरावांनी संपादित करून 'लोकवेद' हो तांका सामान्य 'माथाळो' दिवन वेगवेगळया नेमाळयातल्यान शांताबायच्या नांवान उजवाडायल्यो. त्यो साध्योमुध्यो पुण अस्सल कोंकणी भाशेतल्यो लोकांकाणयो वाचतल्याक भोवच सुरबूस आनी रोसाळ लागतात. लोकवेदा शिवाय शांताबायक घरगुती वखदांलें परंपरेन मेळिल्लें बरेंच गिन्यान आसलें. हें गिन्यानूय वामनरावांनी अशेच युक्तीन घरकान्नीकडसून काडून घेवन संपादन करून तें "वखतांची सांगशी" हो माथाळो दिवन आपले घरकान्नीच्या नांवान नेमाळयांतल्यान (नवें गोंय) उजवाडायलां. वामनराव आपले घरकान्नीकडसून जी अस्सल कोंकणी उतरां मेळयताले ताचेर ते मागीर विचार करीत आनी तांची व्युत्पत्ती लायत. असल्या जायत्या उतरांची व्युत्पत्ती तांकां वेदिक संस्कृत भाशेंत मेळ आनी तें पळोवन तांकां समाधान जातालें. कोंकणी भास ही वेदिक संस्कृतापासून जाल्ल्या तद्भवांनी भरिल्ली आसा आनी तीच तिची गिरेस्तकाय आनी तिचें कुळवंतपण अशें ते मानीत.

श्रीमती शांताबाय वामनरावांच्या मर्णाउप्रांत चोवीस वर्सांनी आपल्या विलेपारलेच्या घरांत १९७० वर्सा भायर पडल्यो.

# १०. स्वाध्याय आनी बरप हांकां ओंपिल्ली जीण (पूर्वार्ध)

## गोमन्तक छापखानो आनी श्री काशीनाथ श्रीधर नायक हांचे कडेन संबंध

१९२५ वर्सा आपले व्यवसायिक जिणेंतल्यान निवृत्त जाल्याउप्रांत शणै गोंयबाब पुराय अंतस्कर्णान आपल्या संशोधनाकडे आनी बरपाकडे लक्ष दिवंक लागले. आपले आवयभाशेक —— कोंकणीक —— तिचे अवनत आनी अपमानित दशेंतल्यान उदरगतीक हाट्टलों असो तांचो मनांतलो संकल्प आसलो. त्या खातीर आपणाक तिचेविशीं जो स्वाभिमान दिसतालो तो सामान्य कोंकणीभौसांत उत्पन्न जाल्याखेरीज आवय भाशेची उदरगत जांवचिना हें ताणी वळखिल्लें. शिकिल्ल्या हिंदु समाजाक आपुण जी साळेंत शिकतां, जी आपुण पत्रव्यवहाराक, आमंत्रणां–निमंत्रणां बी समाजिक संबंध चलोंवक उपकारायतांत, जी सभांतलीं उलोवपां आनी देवळां-तलीं कथा-किर्तना करपाखातीर योजतांत ती मराठी भास आपली आवयभास अशें दिसतालें. आपुण जी नित्य घरादारांत उलयतांत, जिच्यातल्यांन आपले नित्याचे जिणेंतले संबंद आपुण उक्ते करतांत, जिच्यांतल्यान आपलो मेंदु विचार करता, कल्पना कल्पिता, भावना भावता, जिच्यातल्यांन आपुण आपलो मोग तिडक आदि विकार, वान्सा, आस्त-आस्था, उक्तायतांत आनी परगटायतांत, ती आपली नित्याची कोंकणी भास ही स्वतंत्र भास नासून ती ते मराठीची हेंगाडी, रानवट, असंस्कारी तरा वा बोली अशें समजताले. ह्या समजांत ते अशें धरून चलताले कि कोंकणी लोक हे रानवट आनी संस्कारहीण मनीस. कित्याक तर संस्कारहीण मनीसूच हेंगाडी आनी अधुरी, विचार उक्तांवक येना तसली आनी पावला कणकणी आडखळणी भास उलयतात. शणै गोंय-बाबांक कोंकणी समाजाक विश्वास बसत हे रितीन, दुबावारैत, दाखोवन दिवचें आसलें कि कोंकणी भास ही ते समजतात तशी अधुरी, हेंगाडी, संस्कारहीण

रानवट, सारकी उलोंवक येनाशिल्ली मोनी भास न्हय. उफाट्टी ती एक गोड, म्होवाळ, संस्कारी, विचार, भावना आनी कल्पना उक्तावपाचे कलेंत पूर्णतायेक पाविल्ली, शुद्धाशुद्ध पाराखिणी, व्याकरणी बांदावळ आनी नकसूद सांचो आसलेली, नित्याच्या उलोवपांत उंच आनी सुक्षीम विचार आनी भावना वा कवी हृदयाच्यो ल्हवपीक संवेदना आनी अणभूती उक्तांवची शक्त धरपीच न्हय तर जाय तसल्या शास्त्राची, तत्वगिन्यानाची, देवगिन्यानाची, धर्मगिन्यानाची, मनविज्ञानाची, नीत-अनितीची, तंत्रीक फोडणिशी करपाक जाय आसलेल्या नकसूद आनी जिस्त अर्थाच्या उतरांची विशालकोठी न्हिदलेले अवस्तेंत जिच्या अंतरंगांत पडून आसा अशी एक सभावसुंदर, गर्भगिरेस्त आनी सुघड भास आसा, अशें शणै गोंयबाबांक कोंकणी भौसाक दाखोवन दिवचें आसलें आनी तें ताणी १९२५ उप्रांत आनी १९४६ मेरेन रचलेल्या आपल्या साइत्यांत पयलीं कोंकणी समाजाक आनी उप्रांत तांच्या दिव्य वावरान प्रत्यक्ष आनी अप्रत्यक्ष प्रभावित जाल्ल्या कोंकणी समाजाच्या द्वारा भायल्या संवसाराक दाखोवन दिलें.

कोंकणी भाशेची उदरगत साधूंक ताणीं कथा काणयांचें वा नाटकां-काव्याचें चडशें लळित साइत्य निर्मिलें ना, जरिकय तांच्यात ती पात्रताय उपाट भरिल्ली आसली. खयंचेय भाशेंचें बळगें ती उलोवपी समाजाच्या, आत्मिक बळाचेर आधारून उरता. कोंकणी समाज – जांव, क्रिस्तांव, जांव हिंदु – स्वाभिमान नाशिल्लो जाल्लो, आनी हाकालागून तो आत्महीणतायेचे दशेंतल्यान पसार जातालो. तांकां परकी लोक आपले परस उंच आनी अदिक योग्यतायेचे दिसत. तांकां तुमी काळे पुर्तुगेज वा मराठी वा कानडी अशेंय म्हळें जाल्यार तांचो अपमान जायनासलो; उफाट्टें, ते तशें म्हणून घेवपाक वावुरताले आनी भुरकट्टाले. साडेचारशीं वर्सांच्या परशासित जिणेन तांचें रगत थंड किरांव जाल्लें. गोंय हो पुर्तुगालचो कुडको अशें कोणेंय म्हळ्यार तें थंड रगत शिवशिवनासलें. तांची कानशीलां तें आयकून सणसणनासलीं‌त. अशे तरेचे थंडसाणीन गोठेल्ले जिणेंत जिवसाण हाडूंक जाय, त्याशिवाय तांचे भाशेची उदरगत जांवचिना हें शणैबाबांनी जिस्त वळखलें; आनी ती जिवसाण घालपाक तांकां दोन उपाय दिसले, सुचले. एक, ह्या समाजाची स्वाभिमान शून्यतायेखातीर तीव्र निर्भर्त्सना करची, जी आयकून तो वळवळून जागो जातलो आनी ताचे भितल्ली जिवाची फुकफुक करपी कीट फस करून पेट्टली. दुसरो, त्या समाजाक ताचो पुर्विल्लो वैभवशाली आनी अभिमानास्पद इतिहास उंच ताळ्यान सांगचो. साडेचारशीं वा अदिकूच मुस्तीच्या परकी शासनाखाल

बंदेपणाचे दशेंत तो समाज कोंकणी इतिहास साप विसल्लेलो. तो आसा ही खबरूय ताका नासली. तांब्यापट्टयांभितर, पाशाणां बरपांत, पोर्णावळींत, जुन्या पिजक्या सरकारी दप्तरांतल्या फायलींनीं, येवरोपी आनी दुसरे भायले संवसार-प्रवासी हाणीं बरोवन दवल्लेल्या ग्रंथांनी तो कळंक चडिल्ल्या भांगरासारको विसरून अज्ञात दशेंत पडिल्लो. तो उस्तून काडून, तो साफसूफ आनी नितळ करून, आनी आसलो तसो भांगरासारको लिकलिकीत करून कोंकणी समाजा-मुखार धरचो आसलो. तो पळोवन कोंकणी समाजाक आपलें मूळचें रूप कशें दिव्य आनी व्हडविकेन भरिल्लें आसलें म्हणपाचें समजून येवन तांकां आपले वर्तमान, आत्महीण, धनीपणाची इल्ली लेगीत ऊब - कीट नासलेले' दशेविशीं लज आनी घृणा उत्पन्न जांवची आनी ताणीं बेगीन आपली दशा सुधारूंक वावुरचें. ती दशा सुधारूंक तांचे उबंत पडिल्ले आवयभाशेक तिचो मानाचो पाट आपणें खुद्द दिवचो आनी कोंकणाभायल्या संवसाराकडसूनय तो मेळोवन दिवचो हो अति गरजेचो वावर तो समाज करूंक लागतलो. शणै गोंयबाबांनी हें सगळें चुकनासताना हेरलें आनी हे दोनुय उपाय करून पळोवपाची मांडणी आंखली. १९०४ वर्सापासून ह्या आपल्या वावराची रूपरेखा ताणी आंखलेली. तेन्नापासून ते कोंकणाच्या इतिहासाचीं साधनां मेळटात थंयसून मेळोवन त्या इतिहासाचो सोद घेंवक लागिल्ले. ताणी तांब्यापटे, पाशाणांबरपां, शिळास्तंभ, मुद्रा, नाणीं वी आपले नदरेखाल घालीं आनी तांचेर खोल येवजून विचार केलो. ताणी होंवऱ्यो, मूर्ती, लिंगां, देवळां, इगर्जो, कोटां हीं दोळयांनी पळोवपाक ठांयठांय भोंवडचो केल्यो. ताणीं पोर्णे ग्रंथ वाचून काडले, नव्या ग्रंथांतल्यान आइल्लें इतिहासाचें संशोधन बारकायेन नियाळून ताच्यांतल्यान आपणाक जाय आसलेल्या मजकुरांचीं टिपणां घेतलीं, ताणी पोर्णी मराठी, इंग्रजी, पोर्तुगीज दप्तरां सोडून आनी सोदून पळेलीं इतिहासाचेर उजवाड घालपी अश संस्कृत वाङमय—रामायण, महाभारत, वेद, पुराणां, उपनिषदां, व्याकरणां, महाकवींचीं नाटकां आनी काव्यां हांचें भोव बार-कायेन आनी ध्यानपूर्वक नियाळप केलें. ताणी पोर्णे मराठी वाङमय वाचलें, ताणी गुजराती, हिंदी आनी हेर कांय उत्तर भारतीय भासांचें गरजेक उपकारत इतलें गिन्यान मेळयलें, ताणी इंग्रेजीशिवाय पुर्तुगेज, फ्रांसेज, इतालियन, एस्पान्योल ह्या योवरोपी भासांचें गिन्यान जोडलें. ह्या सगळ्या अवाढव्य, प्रचंड गिन्यानाचो उपयोग ताणी कोंकणाच्या इतिहासाची गौरवान आनी उजवाडान भरिल्ली, अखंड आनी तेजिश्ट मूर्त घडवपाखातीर केलो.

१९०४ पासून अखंडपणान, थारायल्ले दिशेन चलत आयलेल्या तांच्या अभ्यासाक आनी निदिध्यासाक लागून कोंकणाच्या दिव्य इतिहासाची मूर्त जशी

जशी तांचे नद्रेक अदिक अदिक स्पश्टतायेन दिसूंक लागली तशी तशी कोंकणी लोकांच्या, खास करून गोंयच्या लोकांच्या वर्तमान जिणेची, तांच्या अवमानित आनी आत्महीण दशेची तांकां चड लज दिसूं लागली, आनी तिची तिडकूय मारूंक लागली. हांतूनसून आत्मनिर्भर्त्सनेचो भाव तांच्यांत उसळून येंवक लागलो; कित्याक तर ते पिण्डानूच मनस्वी वृत्तीचे आसले; जातीनूच कवी आनी साइत्यिक आसले. तांच्या मनाक मारिल्ले तिडकीचो उद्रेक जावन १९१० वर्सा ताणी "गोंयकारांचो मुंबयकार" हें उपहासगर्भ आनी आत्मनिर्भर्त्सक काव्य रचलें. हें तांचें पयलेंच देवनगरी लिपयेंत बरैल्लें कोंकणी पुस्तक. हाचो बरोवपी म्हणून ताणी आपलें अडेचें साइत्यिक नांव, 'शणै गोंयबाब' हें दिल्लें. म्हळ्यार अगदीं सुरवातीपासूनच ते आपलें हें अडेचें घेतिल्लें नांव वापरूंक लागिल्ले.

१९२५ वर्सा आपल्या वयाच्या अठ्ठेचाळीसाव्या वर्सा ते आपल्या अर्थ-प्राप्तीच्या व्यवसायांतल्यान आपले जागेचो राजिनामो दिवन मुक्त जाले. नवी चाखरी धरपाचें तांचें अजून वय आसलें. पुण केवळ दुडू जोडपाचो तांकां लोभ नासलो. कुटुंबासंबंधान आपल्यो जापसालदारक्यो पूर्ण करपाइतली जोड ताणी केल्ली. हे जोडीचेर ते आपली उरिल्ली जीण अर्थिक चिंतेशिवाय समाधानान जगूं शकताले. म्हण्टकूच अधिक धन कमावपाचो लोभ वा हावरेपण करिनासताना ताणी आपली जीण आपल्या कोंकणी भाशेसंबंधाच्या ध्येयाक आनी आपल्या आवडीच्या विशयांच्या अध्ययनाक पुरायेन ओंपचो विचार केलो. चाखरेंतल्यान मेकळे जाल्ल्यान ते आता ऑफिसांत वच्चेबदला त्याच नेमान त्याच वेळाचेर पेटीट वा रॉयल एशियाटिक सोसायटीच्या ग्रंथालयांत वचून दिसूयभर आपलें अध्ययन करीत आनी यादींचीं टिपणांय घेतालेत. हांगा एक गजाल तांचे संबंधी आमच्या ध्यानांत येता ती म्हळ्यार तांची व्यवसायिक जीण ही फक्कत पंचवीस वर्साचीच आसली. तांतलीं पंद्रा वर्सां तांची जीण त्या काळच्या सामान्य कारकुनाचीच आसली. पुण तांची कामांतली क्षमता उंच पांवड्याची आसली. व्यवस्थितपण आनी कामांतली दक्षताय आनी पात्रताय हांका लागून तांच्या दर्ज्यांत आनी कमायेंत थोडो थोडो करून बरोच फरक पडलो खरो, पुण ताणी हात राखून खर्च करपाचो आनी कोणाच्या रिणांत ना रावपाचो मितव्ययी, सादो आनी स्वाभिमानी स्वभाव सोडलो ना. फुडें सामान्य दर्जाच्या कारकुनापरस तांची कमाय वाडली तेन्नाय ते त्याच सादेपणान रावताले. 'तांकां वळखणारे कांय लोक तांकां कंजूस समजताले. पुण कंजूस मनीस दुडवांचो लोभी आसता. तो स्वाभिमान सोडून दुडवांफाटल्यान लागिल्लो आसता. तो 'पत्रनांच्या तपल्यांतलो" कंजूस आसता. शणै गोंयबाबांत ती वृत्ती नासली. तांच्यांत वडेजावाचें उदारपणूय नासलें. तांच्यांत हिशेबी वृत्ती आसली. अस्ताव्यस्तपण

नासलें अथवा सैलपणूय नासलें. ते गरीबकायेंत जल्मा आइल्ले आनी पिंडान प्रखर स्वाभिमानी आनी अयाचक वृत्तीचे आसले. शिवाय तुलौपी सभावाचे आसले. ह्याका लागून तांचेविशीं न्हय तो समज पसरूंक पावतालो. आपणाक स्वाभिमानान अयाचकपणान आनी चिंतेविरैत रावून आपलें कुटुंबपोशणाचें कर्तव्य करून उरिल्लें आयुश्य काडूं येत अशें दिसतकूच ताणी अदिक दुडवांचो वा कमायेचो लोभ धरिनासताना, आनी पोकळ बडेजावांची मुळींच तमा धरिनासताना ते एकचित्तान आपल्या आवडीच्या वावराकडे म्हळ्यार अध्ययन आनी संशोधन आनी नव्या गिन्यानाच्या उपार्जनाकडे संपूर्ण ध्यान दिवक लागले. आपले विद्यार्थीदशेपासून मनांत संकल्पिल्लें ध्येय म्हळ्यार कोंकणी भाशेची आनी तिच्या वाटेयां कोंकणी समाजाची उदरगत घडोवन हाडप, ह्या ध्येयाक मूर्त रूप दिवपाक ते आतां संवसाराच्या हुस्क्यामेकळे जावन वावरूंक लागले.

आतां मेरेन इतिहासाच्या सगळे तरेच्या साधनांचो अभ्यास आनी संशोधन करून ताणी कोंकण आनी कोंकणी समाज हांचेविशीं एक बरी सुघड मूर्त तयार करूं येत इतलें इतिहासिक सत्याचें भांगर एकठांय केलें. पुण आतां ही मूर्त कशे तरेन निर्मुंची आनी ती कोंकणी समाजामुखार कशे तरेन उबी करची हो प्रस्न तांका पडलो. ताणीं कोंकणी भाशेंत पुस्तकां रचून तीं आपल्या खर्चान उजवाडांवचो प्रयोग करून पळेल्लो. तांतून क्रिस्तांव समाजाच्या मनरंजनाखातीर सोपे भाशेंत, रोमी लिपयेंत बरैल्ल्यो काणयों सोडल्यार तांका देवनगरीतल्या कोंकणी प्रकाशनासंबंधान आशेचें व्हडलेंश किर्ण दिसूंक नासलें. ताणी तोच प्रयोग पुनाय केल्लो जाल्यार नफा-लुस्कानीच्या भोवस्ताळयांत सांपडून ताणी संकल्पपूर्तिखातीर थिरायल्लें आपले जिणेचें आसन पुनाय डळमळीत जांव येतालें. तांकां तशे जाल्लें नाका आसलें. तांकां संसारीक जापसालदारी आनी हुसके हांच्यांतल्यान मेकळे रावन गिन्यानाची थीर आनी एकाग्र चित्तान उपासना चलोंवपाची आसली. देखून आपलो पोटतिडकेचो वावर कोंकणी समाजामुखार हाडपाच्या उपायासंबंधान तांच्या मनांत थोडिभोव निर्शेणी अणभवताली. परंत, मनशाची तपच्छर्या खऱ्या भावाची आसत जाल्यार तिका खंयच्यान तरी अकल्पित मार्गान फळ येता, असो मनीस जातीचो अणभव आसा. शणै गोंयबाबांच्या वावराक तशे तरेन एकाएक फळ आयलें.

मुंबयचे गोंयकार हिंदु सभेंत (धि गोवा हिं. असो.) डॉ. व्यंकटेश पांडुरंग कामत हे शणै गोंयबाबांचे एक सहकारी इश्ट आसले. ते संस्थेचे ते एक तळमळीचे जुने कार्यकर्ते आनी संस्थापकांपैकीं एक आसले. तांकां शणैबाबांच्या अचाट साइत्यिक वावराची खबर आसली. तांच्या मनांत आयलें कि धि गो. हिं. असोसिएशन आनी

मुंबतलो सारस्वत ब्राह्मण समाज हांच्या जोड पाख्यातळा सभा भरोवन ते सभेमुखार कोंकण आनी गोंय हांच्या इतिहासासंबंधान शणैबाबांनी जर उलोवपां केलींत तर त्या सभांतले लोक भोवसंख्येन कोंकणी आसतले आनी तांका आपल्या, पुर्विल्ल्या, आनी अर्विल्ल्या इतिहासाची काणी आयकुपांत रूच आसतली आनी ते तो इतिहास मोटे उमळशिकेन आयकतले. हो विचार आनी अनुमान हीं दोनूय पुराय खरीं आसलीं. डॉ. कामत हाणीं आपली ही येवजणी शणै गोंयबाबांकडे उलोवन दाखैली आनी तांकांय ती मानली. जालें, रोकडचा रोकडे शणै गोंयबाबांनी आपल्या इतिहासिक टिपांवरसून कोंकणाच्या इतिहासासंबंधान आपलें पयलें उलोवप तयार केलें. "गोंयकारांची गोंयांभायली वसणूक" हो त्या उलोवपाक माथाळो दिल्लो. हो माथाळो विचारपूर्ण आनी अर्थपूर्ण आसलो. त्या माथाळ्यान आपल्या उलोवपाक ताणी निच्छित मर्यादा घालून घेतली आनी आपल्या विशयाचें इतिहासिक स्वरूप उक्तें केलें. हें तांचें उलोवप दोनूय संस्थांच्या पाख्यातळा भरिल्ले सभेमुखार २२ माय १९२७ दिसा जालें. विशयासंबंधाच्या कुतूहलाक लागून आनी उलोवपाच्या माध्य-माचे नविदादीक लागून, (म्हळ्यार एका गंभीर विशयाचेर कोंकणीतल्यान––एक हैगाडी बोली म्हणून जिका समजताले ते भाशेंतल्यान–– उलोवप जातलें आसलें म्हणून हें पयलेंच उलोवप आयकूंक बरीच मोटी आयकुपी जमात एकठांय जाल्ली. छापलेलीं सुमार चाळीस पानां भरत येदें हें उलोवप दोन अडीच घंटे चलिल्लें आनी आयकुपी जमात कंटाळनासतांना आयकूक बशिल्ली. ह्या उप्रांत ह्या विशयाचेर अशींच आनीक चार उलोवपां जालींत––तितलींच रसाळ, तितलींच रूचीक, तितलींच माहितीन उपाट भरिल्लीं आनी तितलींच कुतूहल-जागैणीं आनी एका अडेच हजार वर्साचे लांबायेच्या पोर्न्या, विसल्लेल्या जगाचें नवदर्शन घडयणीं. ह्या उलोवपांक लागून शणै गोंयबाबांच्या कोकणाच्या पोरण्या, मध्ययुगीन आनी आर्विल्ल्या इति-हासाच्या गिन्यानान खचून भरिल्ल्या मेंदवाक जाय आसलेलो मेकळेपणाचो उस्वास सोडूंक मेळळो आनी तांकां प्राप्त जाल्ल्या येसान तांच्या अंतस्कर्णांत कोंकणी आनी कोंकणे हांचे उदरगतीचे आशेचें किर्ण नाचूंक आनी उजवाड घालूंक लागलें. ही उलोवपां दर सप्तकाक एक हे तरेन सुमार म्हैनो देड म्हैनो चलिल्लीं, जशीं काय चातुर्मास लागत्यार कोंकण देवीच्या मंदिरांत ही एक किर्तनावळ चलताली आनी किर्तनकार आसले कोंकणीचे एकनिश्ट भगत शणै गोंयबाब.

"गोंयकारांचे गोंयाभायले वसणुके"संबंधान शणै गोंयबाबांचीं उलोवपां जालीं ताचे आदीं सुमार तीन चार वर्सां कोंकणी भास देवनगरी वेशांत वयर सरताशें पळोवन, कोंकणी ही भासूच न्हय, ती मराठीचीच गांवगारी, हेंगाडी उलोवपाची तरा अथवा बोली आसा अशें समजतल्या गोयकारांचो कोंकणीच्या विकासाक आनी

पातळपाक विरोध जांवक लागलो. सुरवेक हो विरोध हांसप आनी फकाणां मारप इतल्या पुरतोच जातालो. पुण जेन्ना दिसून आयलें कि एक प्रतिभासंपन्न आनी स्वप्रयत्नान विद्वत्ताय जोडिल्लो मनीस कोंकणीक स्वतंत्र आनी ग्रंथिक रूप दिवक सोदता आनी ती गोंयकारांची आवयभास म्हणून तिचो विकास आनी भक्तियुक्त सेवा करूंक पळेता तेन्ना वयर सांगलेलो समज धरपी लोक––म्हळ्यार तांच्यांतले फुडारी––कोंकणीच्या ह्या जैत जोडण्या विजिगीषु स्वरूपाक आतां नेटाचो साइत्यिक, तात्विक, संशोधकी आनी सर्वजणिक असो विरोध करपाक बावळे आनी मांडयो थापटून उबे रावले. अशें कित्याक जांलें ? ह्यापैलीं कोंकणी भाशेंत साइत्य निर्मणी जायनासली अशें न्हय. कवीत आनी काणयो, कांतारां आनी तियात्रां, वृत्त आनी वाद आसलेलें नेमाळें साइत्य कोंकणी भाशेंत रोमी आनी कानडी लिपयेंत एका विशिश्ट वर्गाच्या गरजेपुरतें तयार जावन उजवाडा येत आसलें. क्रिस्तांव धर्मा-संबंधाच्यो ल्हानव्हड पटचो रोमी आनी कानडी लिपयेंत जायत्यो भायर सरताल्यो. पुण त्या साइत्यांतले भाशेक कोणे तात्विक, इतिहासिक वा संसोदपी पांवडयाचेर उबे रावून केन्ना विरोध केलोना. ती भास हेर भारतीय समाजाकडे संवाद वा संबंध सांधिनासताना आपली एकसुरी जीण आपल्या मेरायल्ल्या कोंडाभितर जिवे-ताली. तिच्यांत अस्मितायेची जाग नासली. तिच्यांत आसली ती एका जमातीची समाजिक हालचालींची गरज आनी भूक. ही गरज आनी भूक नुलैत आपलें काम करताली. हिचे वाटेक कोण वचनासलो. समाजाची ती भास गरज आनी भूक भागयताली, पुण अस्ताव्यस्तपणान, नेमस्त आनी नकसूद बांदावळी शिवाय, भारतीय भासांकडलें आपलें पोरणें, पुरातन नातें विसरून, इंग्लेज आनी पुर्तुगेज ह्या येवरोपी भासांचो जायतेन्ना जाय तसो अणकार करून, आनी वेळ प्रसंगाक सयसुवाद पळेनासताना त्या साप परकी भासांतल्या उतरांची भर्वण घालून आनी तांची वाक्यरचनाय जशीच्या तशी उसणी घेवन. आतां जेन्ना ती कोनशांत आनी रान्नीपल्लोत आनी नेण्टचा, अशिक्षित आनी अर्दशिक्षित लोकांच्या मांगरां खोंपींनी भोंवपी भास अस्मितायेची जाग येवन, आपल्या पुरातन मुळाचो सोद घेवन तांतूतल्यान आपले जिवसाणीचो रोस चोखीत, आनी आपल्या हक्काच्या देवनगरी वेशांत, सुंदर, सजणी, कुळवंत नारीभाशेन समाजांत उक्तेपणान भोंवूं लागली तेन्ना, ईर्षा, हांवकार, सुन्नाथ आनी निखटचा दुस्वासाची पिशुनताय हांका जल चडून ते तिका विरोध करूंक उठले. ह्या सगळचा विरोधांक पुरो जावन उरपाइतलें बळगें शणै गोंयबाबांच्या गिन्यानान उपाट भरिल्ल्या, तल्लख मेंदवांत आनी हातांतले वज्र लिखणेंत आसलें. पुण तांकां चड दुःख जातालें आनी तिडक येताली ती विरोधाची न्हय, तर ते विरोधक चड करून तेच आवै भाशेचें दूद पियेवपी आनी घरादारांत कोंकणी उलोवपी गोंयकारूच

आसले ह्याची. शणै गोंयबाबांनी ह्या विरोधांतल्या वादाक प्रतिवाद करून आनी जापेक सणसणीत प्रतिजाप दिवन तो विरोध इतिहासिक, व्युत्पत्तिक, संसोदपी आनी "बाबा वाक्यं प्रमाणम्" तरांच्या मुद्यांचें साप खंडण आनी पूड करून ताचेर शास्त्रीक जैत मेळैलें. इतल्यान तो विरोध नासो जालो अशें न्हय. ताणें आपलें आसन बदल्लें आनी हळुहळू तो म्होवाळें घाल्लें प्रच्छन्न राजकरणी रूप धरूंक लागलो. ह्याफुडें ताका राजकरणीच जाप फावो आसली आनी अखेरीक ताका ती मेळ्ळीय बी आनी तो चिप पडलो. दरम्यानच्या "वसणुकी" आदल्या आनी "वसणुकी" उप्रांतच्या सात आठ वर्सांच्या काळांत कोंकणी भाशेच्या स्वतंत्र आसपाक जाल्ल्या शास्त्रीय आनी संसोदपी स्वरूपाच्या विरोधाक शणैबाबांनी परती जाप म्हणून जे लेख बरैल्ले ते श्री काशिनाथबाब नायक हाणी संपादन करून "कोंकणी भाशेचें जैत" ह्या नांवाखाल आपल्या गोमन्तक छापखान्यांतल्यान "शणै गोंयबाबांली बरपावळ" हे माळेंतल्यान उजवाडायले. ह्या जैतांत—(१) गोंयची आवैभास, (२) भाशेची लक्षणां, (३) कोंकणीचो शुद्धकार (४) किरकोळ मुद्यांची निस्तरावणी - हे बुनयादी स्वरूपाचे चार मुख्य लेख आसून, (अ) मराठी भाषेचा आद्य व्याकरणकार (आ) १६७८ त छापिल्लो पयलो कोंकणी लेख, (इ) हिंदुस्थानांत मुद्रण कलेचा प्रवेश, (ई) कोंकणी आणि मराठी, हीं मराठींत बरैल्ली चार परिशिष्टां दिल्यांत. हें अखयें पुस्तक कोंकणी आड हाडिल्ल्या सगळ्या मुद्यांक एक जिस्ताक जिस्त आनी चपखळ बसणी, निरुत्तर करपी जाप आसा, इतलेंच न्हय तर तांतूत कोंकणीचें स्वतंत्र भाशिकपण दाखैण्यो अनेक नाटो दिल्ल्यो आसून शिवाय जायती अवांतर इतिहासिक आनी भासशास्त्रीय माहितीय घाल्ल्ली आसा.

'जैतांत'ल्या लेखांनी शणै गोंयबाबांक जरी अप्रतिम येस जोडून दिल्लें आनी कोंकणी आड येवपी सगळे विरोध कातरून उडयल्ले, आनी कोंकणीचो मार्ग सारको आनी आडखळचां मेकळो केल्लो तरी आसतना एका आडमेळच्याचें प्रचण्ड खडप त्या हरशीं स्वच्छ जाल्ल्या मार्गांत मदींच वयर सरून येवन ताणें तो रस्तो आडावन धरिल्लो. हें खडप म्हळ्यार कोंकणी (गोंयच्या) समाजाचें परधार्जिणेपण. "हे भाशेबगर आमचें आतां मेरेन कितें नडलें? हाचे फुडेंय तिचे बगर कितें नडटलें आनी कित्याक नडूंक जाय? आयती तयार भास आसताना हे 'नवे' भाशेचो वावर कित्याक करचो? आवैभास आसा खरी म्हणून तर आमी ती घरांत उलयतांत, तितलें. पुरो ना? उरना ती बोली म्हणून? तिका भास करची दगदग कोणें सांगल्या?" ह्या असल्या विचारांचे तरेक शणै गोंयबाबांकडे सत्विक संताप आनी समाजिक आत्मनिभत्सनेपेल्यान दुसरी जाप नासली. देखून "जैतांत" उजळ येस मेळूनय तांच्या मनाक भौन भौन निर्शेणी ग्रस्त करताली. 'वसणुकें'तली उलोवपां

जाल्याउप्रांत हे निर्शेणेचो दाह थोडोभोव उणो जाल्लो. पुणून खिणयाळच्या उत्साहान लोकमानस जरी एकाएक उचंबळून आयल्लें तरीय त्या मानसाचो पर्थून पुर्विल्ले अवस्तेंत देंवपाचो गुण, स्थितिस्थापकत्व, सुक्षीम निरीक्षण करपी शणै गोंयबाब वळखून आसले. देखून तांची निर्शेणी साप गेली ना. तरीयपुण तांची उमेद वाडलेली. गोंयच्या तरण्या भुरग्यांविशीं ते सदांच आशावादी आसले. तरण्यांक आनी विद्यार्थ्यांक उदेसून केल्ल्या संमेलनादि प्रसंगावयल्या उलोवपांत ते गोंयच्या तरनाट्यांचें, विद्यार्थी-विद्यार्थिणीचें इल्ल्याशिल्ल्या गुणांचें लेगीत कवतूक आनी तोखणाय करीत. 'वसणुकें'च्या उलोवपांतलो कोंकण आनी कोंकण्याचो अभिमानास्पद पूर्विल्लो इतिहास आयकून जायते तरणे गोंयकार भूरगे कोंकणीचेर आतां आवयभाशेक फावो जाल्लो मोग करूंक लागले.

ह्या असल्या कोंकणीचेर मोग करतल्या तरण्यांभितर एक तरुण आसलो. तो कांय थोडच्या वर्सांफाटीं आपलो फुडार सोदपाक म्हणून गोंयांथावन आपल्या धाकल्या भावाक वांगडा घेवन मुंबैंत आइल्लो. तांचें चारपांच यत्तांचें मराठी शिकप जाल्लें. पुण गरीबकायेक लागून ते दोगूय इंग्लेज वा पुर्तुगेज साळांनी शिकूंक पावलेनात. तरीय पुण तांच्यांत मुळावी बुद्द, हिम्मत, हावेस आनी पट्टीत ते कश्ट आनी स्रम करपाचो उत्साह आनी दृढ नित्शय आसलो. 'टाइम्स ऑफ इंडिया'' छापखान्यांत चाखरेक रावन त्या दोगांयनी थोडच्याच काळाभितर छापखान्यांत चलण्या सगळ्या ल्हानसान वावरांची आनी छापखान्याचे यंत्रावळीची वेव्हारांत उपकारा पडत अशी माहिती घेतिल्ली. सादेपणान, मित व्ययान, काटकसरीन रावून ताणी थोडो दुडू एकठायलो. मागीर व्हडल्या भावान आपले रावचे कुडींत एक ल्हानसो छापखानो उगडलो. थंयच ते दोंगूय भाव रावत, रांदीत, जेवीत, न्हिदत आनी काम करीत. टायप जुळोवपापासून छापून काडीमेरेन, पानांच्यो घडयो घालून पुस्तकचे ''स्टिचिंग'' आनी ''बायंडिंग'' करीमेरेन सगळीं कामां ते आपल्या हातांनी करीत. तांचेकडेन त्यावेळार चाखरमाने कोण नासलेत. मुंबैंतल्या गोंयकार भौसाकडेन आनी हेर जमातींकडेन धंद्याचे संबंध जोडून ताणी छापपाचीं कामां मेळोवचीं. तीं व्यवस्थितपणान, कुर्जिदादीन, कुशळतायेन करून नेमिल्ल्या वेळार दिंवची आनी आपल्या गिरायकांचें समाधान जोडचें. छापखानो ल्हान्च आसलो तरीय हे तरेन कामां केल्ल्यान तो हळुहळू भरभराटलो. ताच्या कामाचो व्याप वाडूं लागलो. त्या भावांनी आपल्या ह्या छापखान्याक ''आत्मोद्धार'' अशें सार्थ नांव दिल्लें. पुण थोडच्या दिसांनी तांकां दिसलें कि ह्या नांवाक आपल्या व्यक्तिगत हांवकाराचो इल्लो वास येता. त्यापरस ज्या भौसाचे सहानुभूतीन आनी प्रेमान आपल्या ह्या साहसाक येस मेळत आयलां ताचेंच नांव आपल्या ह्या छापखान्याक घेतलें जाल्यार

कशें ? ह्या विचारान गोंयकार भौसाची भूंय जी "गोमन्तक" तिचेंच नांव ताणीं आपल्या छापाखान्याक कायम केलें. हे तरेन "आत्मोद्धार" छापखान्याचें १९२५ वर्सा "गोमन्तक छापखानो" अशें अदिक सरस अश रुपान्तर जालें. मडगांव (गोंय) सून मुंबैंत येवन वसती करून राविल्ले श्री. काशिनाथ श्रीधर नायक हे ह्या छापखान्याचे धनी आसले, आनी तांचे फाटले भाव श्री. अनंत श्रीधर नायक हे रामाफाटल्यान लक्ष्मणासारके तांचे अंतेवासी साह्यकर्ते आसले.

१९२७ वर्साच्या मायाच्या-जुनाच्या म्हैन्यांत शणै गोंयबाबांचीं "गोंयकारांची गोंयाभायली वसणूक" ह्या विशयाचेर जीं पांच उलोवपां जालींत तीं आयकुप्यांत, कान दिवन आनी रूचीन आयकणारे एक काशिनाथबाब नायक, गोमन्तक छापखान्याचे धनी, आसले. तीं आयकून ते अतिशय प्रभावित जाले. तांच्यांत कसली स्फुर्ती एकाएक जागली कोण जाणा, तांच्या मनाचो नित्शय जालो कि शणै गोंयबाबांची संमती आसल्यार आपणें तांचीं तीं प्रदीर्घ उलोवपां आपल्या छापखान्यांत छापून उजवाडांवची. काशिनाथबाब नायकांची आनी शणै गोंयबाबांची ह्या पैलीं प्रत्यक्ष भेट वा वळख अशी कांय नासली. धि गोवा हिंदु असोशिएशन (गोंयकार हिंदु सभा) चे तळमळीचे कार्यकर्ते डॉ. व्यंकटेश पांडुरंग कामत हांचे मार्फतीन काशिनाथ बाबांनी शणै गोंयबाबांली भेट घेवन तांचेकडे आपल्या मनांतल्या संकल्पाचें सूतोवाच्य केलें. शणैगोंयबाब तेन्ना पन्नास वर्सांचे वयस्क आसले, आनी काशिनाथबाब अठ्ठावीस एकोणतीस वर्सांचे तरणे. ह्या दोगांयचो "वसणूक" छापून उजवाडांवचे बाबतींत संवाद जालो :——

"वसणूक छापून तुमच्या छापखान्याक कितेंय आदाव जातलो वा जांवचो अशी तुमगेली अपेक्षा आसा ?"

"ती छापून म्हका जांवचो आदाव सोडाच, पुण ती छापपाखातीर लागतल्या कागदाचो लेगीत खर्च वसूल जांवचो ना हें हांव बरे भाशेन जाणां. . . . . ."

"तशें जाल्यार, आनी तुमची इत्साच आसत जाल्यार हांव तीं उलोवपां छापपाखातीर म्हणून खोशयेन तुमकां दीन."

हो संवाद जाल्या उप्रांत निर्हेतुक मोगान आनी निरिच्छ त्यागान केल्ल्या घामाकश्टांचें फळरूपी पुस्तक "गोंयकारांची गोंयाभायली वसणूक,' पैलें खण्ड" १९२८ वर्साच्या दसऱ्या दिसा गोमंतक छापखान्यांतल्यान उजवाडा आयलें. शालिवाहन शकाचें तें १८५० वें वर्स आसलें. वर्साचें नांव आसलें 'विभव'. दीस आसलो विजया दशमीचो. ह्या शुभदिसा उजवाडाक आइल्ल्या ह्या पुस्तकान गोमन्तकाचो अडेच हजार वसांचो प्राचीन आनी अर्वाचीन वैभवशाली इतिहास संवसारामुखार ताचें दर्शन घडवपाखातीर हाडलो. शणै गोंयबाबांचे संपूर्ण आनी

लिकलिकीत बरपावळीचो उजवाडावपी जावपाचें भाग्य श्री. काशिनाथबाबांच्या ह्याच गोमन्तक छापखान्याक मेळपाचें आसलें ताची ह्या दसऱ्याच्या सुम्हुर्तान नांदी जाली. कोंकणी भाशेच्या इतिहासांतल्या एका मोटया आनी म्हत्वाच्या पर्वाक ह्याच दसऱ्यान सुरवात केली. 'वसणुके"च्या निमतान श्री. काशिनाथ-बाब आनी शणै गोंयबाब हांची जाल्ली भेट आनी ते भेटीचें गाढ इश्टागतींत जाल्लें रुपान्तर शणै गोंयबाबांच्या अंतामेरेनच न्हय तर उप्रांतय अविचल रावलें. शणै गोंयबाबांनीच म्हणिल्ल्याप्रमाणें त्या दोगांयली इश्टागत ही "तत्वमसि" ह्या म्हान सूत्राचो पुरस्कार आनी सार्थताय करपी म्हणूनच थारली. शणै गोंयबाब हे कोंकणी सरस्पतीचो साक्षात्कार घडिल्ले तिचे "बुद्ध" '(जाणपी) आसले, तर काशिनाथबाब हे ते सरस्पतीचो संवसारार उजवाड घालपी कोंकणीचे "अशोक" आसात असो हो भव्योदात्त संबंध सवसारांतले आनीक खंयचे भाशेच्या इतिहासांत आसत काय कोण जाणा !

वामनरावांच्या "गोंयकारांची गोंयाभायली वसणूक" ह्या पुस्तकाच्या प्रकाशनाचो दबाजो गोंयकार हिदुसभेच्या पाख्यातळा प्रोफेसर श्री वसंतराव नाईक ह्या विद्वानाच्या हातान जालो. त्या वेळार ताणी वामनरावांचो "गोंयचो इतिहास-कार" ह्या उतरांनी गौरव केलो.

श्री काशिनाथबाबांनी आपल्या गोमन्तक छापखान्यांतल्यान 'कोंकणी भाशेचें जैत' हे शणैबाबांलें आनीक एक पुस्तक १९३० वर्सा उजवाडायलें ताका ताणीं शणै बाबांले बरपावळींतलें पयलें पुस्तक म्हळां. खरेपणान तें ताणी उजवाडायल्लें शणै गोंयबाबांलें दुसरें पुस्तक आसलें. पयलें १९२८ वर्सा "गोंयकारांची गोंयाभायली वसणूक" ह्या नावाखाल ह्या आदींच उजवाडा आइल्लें. "जैताक जोडिल्ल्या" उज-वाडावप्याचीं दोन उतरां" हांतूंत काशिनाथबाब म्हण्टात : "वसणुकेचें पयलें खण्ड वाचप्यांच्या हातांत दिता आसतांना, दुसऱ्या खंडासंबंधान तांका दिल्ल्या उतराक आदीं पाळो दिवन मागीर ह्या कामाक (जैताच्या) हात घालचो असो हांवें विचार केल्लो. पुण वसणुकेचें दुसरें खंड बरोवपाचें काम सुमाराभायर वाडलें, तांतूतच मराठीच्या कांय अभिमान्यांनी पयल्या खंडाचेर आपलें मत दिवच्या निमतान आनी हेर तरेन कोंकणी भाशेआड कांय मुद्दे फुडें हाडले. ह्या मुद्यांभितल्ल्या कांय मुद्यांक शणैबाबांनी ह्या आदींच सणसणीत जाप दिल्ली. तरी आसतांना ती मुजरत दोळयांआड करुन कोंकणी - मराठी वादासंबंदान कांय नकळ आशिल्ल्या वाचप्यांक गदळांवक विरोधक वावुल्ले. तेन्ना शणैबाबांली आदली बरपावळ एकठावन आनी फुडें आइल्ल्या नव्या मुद्यांक तांचेकडल्यान जाप बरोवन घेवन ती पुस्तकाच्या रुपान उजवाडा हाडपाचो हावेस हांवे धल्लो आनी तो आज तेडीक गेल्लो पळोवन

म्हजे सारकीच कोंकणी भाशेच्या भक्तांकूय खोस जाल्याबगर रावचिना हाची म्हाका खात्री आसा. ”

काशिनाथबाबांल्या ह्या उद्गारांवरसून कांय गजाली ध्यानांत येतात त्यो अशो : काशिनाथबाब हे शणै गोंयबाबांचे बरपावळीचे धंदेकार उजवाडावपी नासले. शणै गोंयबाबांचें ध्येय आनी काशिनाथबाबांचे ध्येय एक आसलें. त्या ध्येयाची वैचारिक कूस शणैबाब सांभाळीत, तर तांची वेव्हारी आनी कार्योन्मुख कूस काशिनाथबाब सांभाळतालेत. ध्येयाक कार्यान्वित करपाच्या कामाची त्या दोगांय भितर जी विभागणी जाल्ली तांतूंत एक अतिशय सुंदर सामंजस्य साधलेलें––आत्मो आनी कूड हांच्यात जशें साधलेलें आसता तशें. काशिनाथबाब हे शणैभाशेन विद्वान न्हयंत, पुण विद्वत्तायेचे रसज्ञ आसात. शिक्षण खात्याच्या शाळा कॉलेजांत तांचें शिकप जावंक ना; पुणून अणभवाचे साळेंत ताणी मेळयल्लें गिन्यान साळकारी शिकपापरस अदीक खोल आनी कार्यक्षम आसा. शणै गोंयबाब हे कोंकणीच्या विकासाच्या ध्येयान भारलेलो असो एक विविधमुखी गिन्यानाचो प्रबळ झरो आसलेत. त्या झऱ्याक कोंकणीचे उदरगतीचे नद्रेन खंयच्या मुखांनी व्हांवतो करचो आनी ताच्या उदकाक खंय. बांद घालून तें कोंकणीच्या क्षेत्रांत कशें कशें आनी खैं खैं खळोंवचें म्हण्टकूच कोंकणीचे शेत लसलसून तांतूंत भरघोंस पीक येत हें काशिनाथबाबांचे वेव्हारी नद्रेक सटकरून दिसतालें आनी हे भाशेन ते शणैबाबांकडे विचार विनिमय करून कसलें साइत्य भायर हाडचें तें थारायताले, आनी त्या जोड विचाराक अणसरून कोंकणीचे गरजेचें साइत्य निर्माण जातालें. हे भाशेन “जैता”क भरीक घाल्लीं प्रकरणां, कोंकणी भुरग्यांली गरज नद्रेमुखार दवरून तयार केल्लें भुरग्यालें साइत्य, भगवद्गीतेचें भाशांतर, गीता केन्ना रचली हो ससोदपी निबंध “नवें गोंय” ह्या नेमाळ्यातलीं राजकारणी आनी दुसऱ्या सर्वजणिक विशयावयलीं स्फुटां, तांतूंत क्रमाक्रमान कुडक्याकुडक्यांनी आइल्ल्यो जिणो, कोंकणीचेनादशास्त्र आनी व्याकरणी बांदावळ बी वेगवेगळ्या तरांचें बरप शणै गोंयबाबांनी केलें तें कोंकणी भाशेचे गरजेंतल्यान प्रेरणा घेवन जाल्लें. पुण हे गरजेची ओड बस ती पयली कोंकणीच्या संवसाराचेर चोंयवाटेयां नदर दवरून आसलेल्या काशिनाथबाबांक जाणवताली आनी मागीर ते त्या त्या विशया-संबंधान शणैबाबांकडेन चर्चा करीत आनी ते चर्चेच्या फळरूपान शणैबाबांलें बरप निर्माण जातालें आनी गोमन्तक छापखानो तें उजवाडायतालो.

कोंकणी वाङमयाच्या इतिहासांत शणै गोंयबाब आनी श्री काशिनाथबाब हांचें हें अखण्ड, अतिनिकट आनी एकजीव, एकात्म सहकार्य एक कवतुकाची

आनी अपुर्बायेची गजाल आसा हें कोणाय पळेतल्याक दिसूंक जाय. खुद्द शणै-बाबांक ह्या सहकार्याविशीं कितें दिस आनी तांची त्या संबंधाची हृदयाची भावना कशी आसली तें तांच्या फुडें दिल्ल्या अंतःस्फूर्त उद्गारांवरसून स्पश्ट-तायेन दिसून येता :—

" मराठीचो इतलो कुड्डो मोग जै चलता थैं आमगेले आवयभाशेक जीव धरून रांवक कठीनशें दिसून मन उबगता. परंत अशा ह्या वेळार, काशि-नाथबाबांसारको आपलेपणाची वळख आनी अभिमान आशिल्लो एकलोय गोंयकार, म्हजे फाटीक फाट लावन म्हाका धिगी दिंवक उबो राविल्लो पळोवन म्हज्या शिरंत्रांत नवो नेट रिगता आनी कोंकणी भाशेचे सेवेक उमेदीन वावरुंक म्हाका फुरफुरो चट्टा. नामनेचो भवभूती कवि, आपली करणी कोणूच काना-मनार घेना जाल्ल्यान, चिके वैतागून, म्हणूंक लागलो खैं : " धर्तरी व्हडली आसा, वेळ जायतो आसा. म्हजे असल्या सभावाचो मनीस धर्तरेर खैंयतरी आसतलो; आनी आज एकाद्रो नासलोय जाल्यार फुडाराक जल्मतलो ! " आप-णाले कर्तुत्वदशेचो ताका केदो विश्वास हो ! परंत तो जिवो आसताना ताचे असल्या सभावाचो मनीस ताका एकद्रो होलमना जावन, ताणे बाबड्यान निर्शेवन प्राण सोडलो जातलो ! हांव म्हाका त्या कवी सारको लेखिना. परंत ताचे भाशेन निर्शेवन काळीज फुटून मरुंक म्हाका कारण उरुंक ना. म्हज्या ध्याना मनात नासताना, म्हज्या मोटचा भाग्यान, काशिनाथबाबांसारके म्हज्या धर्माचे मनीस (समानधर्मा) अगान्तुक, म्हज्या हाताक लागले आनी " तो तूं आसा (तत्वमसि)" म्हणपाची वळख म्हाका मेळ्ळी, त्यावेळार ' काळजाची गांठ सुटली आनी संशयाची माळ तुटली ' म्हण्टात तशी म्हजी अवस्ता जाली. आतां हांव कित्याक निर्शेव ? आतां आमगेली भास संवसारांत घुडी उबैतली. ती कसल्याच आडमेळ्यांक बाडगनासताना दिसान दीस वयर सरतली —(गोम-न्तोपनिषत् १ लें खण्ड, ' हें कितें ?' प्रस्तावना पान १०).

शणैबाबांच्या वयर दिल्ल्या उतरांत तांची श्री काशिनाथबाबांविशींची काळजा - तेंकणी आत्मभावना दिसून येता, तशीच तांका अणभवलेली निर्शेणी, ते निर्शेणीचीं कारणां, तशेंच तांचो आपलें ध्येय आनी आपलें कर्तुप हांचेविशीं उपाट विश्वास आनी श्रद्धा हिंवूय स्पश्ट दिसतात. कोंकणी भास आपलेपणांत येवन नंदतली हें तांचें आत्मविश्वासान भल्लेलें भाकित तांच्या मर्णाउप्रांत, थोड्याच वर्साभितर खरें जालें. तशें पळोंवक गेल्यार आवैभाशेसंबंधाची लागणूक ही तत्विक स्वरूपाची बौद्धिक लागणूक आसा. परंत शणै गोंयबाब आनी तांचे वांगडा एकरूप जाल्ले आनी तादात्म्य पाविल्ले श्री काशिनाथबाब हांची,

आपले आवयभाशेची लागणूक ही एकादले व्यक्तिसंबंधाचे लागणुकीभाशेन, खरे जल्मदिणे आवैल्या मोगाभाशेन बुद्धी आनी अंतस्कर्ण ह्या दोगाकूय स्पर्श करणी लागणूक आशिल्ल्याचें वाचप्याक जाणवता. " जैतां'तल्या " गोंयची आवैभास " ह्या आपल्या सगळे संशय कातरून उडयण्या आनी श्री रघुनाथबाब तळवाडकार हाणी उपस्थित केल्ल्या वादाचेर यशस्वी प्रतिवाद करून पुराय जैत जोडण्या लेखाच्या सोंपत्यार शणै गोंयबाब भावनाशीलपणाचे व्याकुळतायेन म्हण्टात :—

" मराठी ही खरेपणान म्हजी आनी म्हज्या अपुर्बायेच्या गोंयकार भावांची आवैभास आशिल्ली जाल्यार तिचो मोग करुंक म्हाका कोणे शिकोंवची वा आग्रो करची गरज निखालूस नासली. आवैची भक्ति करपांत संवसारातलो कोणूच पूत म्हाका फाटल्यान धुकलीत अशें म्हाका दिसना. जे भुंयेवैयल्यो, फातुल्ल्यो, रेंव आनी झाडकांचो सुको पालो लेगीत अपरूप वस्तींवरी हांव लेखतां ते भुंयेची आवैभास खरेपणानशींच मराठी आशिल्ली जाल्यार तिका हांव धिस्पटावन उडयन अशें केन्नाच जातलें आसलें ? हांव तिका म्हज्या काळ-जाच्या देवाऱ्यांत देवतेभाशेन पुजेक लायतलों आसलों. परंत म्हजें मन म्हाका सांगता कि मराठी ही म्हजी आवैभास न्हय. कोंकणी हीच म्हजी खासा आवै. देखून निखटचा काळजाचोच न्हय, तर म्हज्या सगळ्या देहाचो देवारो घडोवन आज उणी पुणी तीन तपां हांवें तो तिचे सेवेक लायला आनी म्हाका आस्त आसा कि म्हजे गोंयकार भावूय ह्याफुडें वाऱ्यावयले बायल मनशेक आवै म्हणून पोटलून बसनासताना आपणाले खाशेले आवैक मायेचे नद्रेन पळोवन तिचो फावो तसो ताथोमाथो करतलेत. "

आनी मागीर ते निक्सून संवसाराक सांगतात ——

" आवयक उपाशीं, रडत घराभायर धांवडावन परकेक लागीं करची आनी तिका पोळयांचें जेवण घालचें अशें धड मेंदूचो संवसारांतलो कोणूच मनीस सांगत अशें म्हाका दिसना. अशानशीं तशें कोणूय म्हाका सांगूंक येत जाल्यार ताची तकली थाऱ्यार ना अशें समजून ताचेकडेन वाद घालचे भाशेक " दोनूय हारी आपणाकूच " अशें म्हणून हांव वोगो रावन. अखेरेक मराठी वा संवसारांतली दुसरी कसलीच परकी भास कितलीय कपलफोडणी केल्यार महासप्तमांतल्या लोकांची आवैभास जायसारकी नासून कोंकणी भाशेचोच जयजयकार जातलो म्हणपाचें भौन भौन सांगून म्हजी लिखणी हांव म्हजे आवैभाशेचे दुसरे सेवेक लांवक चल्लों. "

ल्हानपणापासून 'शाणो' म्हणून आवैन अपुर्बायेन अर्थपूर्ण नांव दवरिल्लो हो मनीस खऱ्यानीच केदो शाणो आशिल्लो !

१९२८ वर्सा 'वसणुकी'चें उजवाडावप करच्या निमतान शणै गोंयबाब आनी श्री काशिनाथबाब नायक आनी तांचो गोमन्तक छापखानो हांचो जो लागशिल्लो असो, समान ध्येय समान धर्म हांचेर आधारित संबंध आइल्लो तो शणैबाबांच्या १९४६ त जाल्ल्या मर्णापर्यंतच न्हय तर उप्रांतय अविचल उल्लो हें वयर सांगिल्लेंच आसा. ह्या दोगांयच्या देडतपाच्या अंतेवासांत आनी सह-कार्यांत शणै गोंयबाबांकडसून जायतीं पुस्तकां बरोवन जाल्लीं, तांतली कांय पुस्तकां शणैबाब जिवंत आसताना उजवाडा आयलीं तर कांय तांच्या मर्णा-उप्रांत १९६२ वर्सामेरेन, म्हळयार काशिनाथबाब गोमन्तक छापखान्यातल्यान निवृत्त जाय मेरेन उजवाडा येत रावलीं. श्री काशिनाथबाबांचे कार्यनिवृत्ती उप्रांतय तांचेकडेन आसलेलें शणबांबालें अप्रकाशित साइत्य इल्याइल्या वांटयांनी कोंकणींत चलपी नेमाळयांतल्यान अजूनमेरेन प्रसंगानिमतान उजवाडा येत आसता. हाचो अर्थ असो कि काशिनाथबाब अजूनय आपल्या हातान जायत तशें शणै बाबालें साइत्य उजवाडांवचें कार्य साधितच आसतात. शणैबाबांनी बरैल्लें पुणून अजून उजवाडा येंवक नाशिल्लें कोंकणी साइत्य भायर उजवाडांत आयल्यार कोंकणी समाज त्या उक्तावप्याचो सदांच कृतज्ञ उरतलो.

"वसणूक" आनी "जैत" हीं शणैबाबांलीं दोन पुस्तकां उजवाडायल्या उप्रांत गोमन्तक छापखान्यान शणैबाबांचें "गोमन्तोपनिषत्, पैलें खंड" आनी फाटोफाट वर्स देडवर्सान "गोमन्तोपनिषत्, दुसरें खण्ड" उजवाडा हाडलें, (१९५४ वर्स). पैल्या खंडांत शणैबाबांच्यो पांच काणयो संग्रहीत केल्यात आनी दुसऱ्या खंडांत तांची एकूच एक प्रदीर्घ काणी उजवाडा हाडल्या. पैल्या खंडांतल्या पांच काणयांपैकीं पयल्यो तीन (१) 'म्हजी बा खंय गेली ? (२) 'वासशणैली पोपाय' (३) 'बाबूमामालो पणस' ह्यो साधारणपणान मोटव्यो काणयो आसून त्यो स्वयंसेवक, विविधवृत्त बी नेमाळयांतल्यान ह्या पैलीं उज-वाडाक आइल्ल्यो. चौथी काणी 'पितुबाबांलो तांब्यापटो' आनी पांचवी, 'स्वर्णवीर' ह्यो दोन बऱ्योच लांबायेच्यो म्हळयार दीर्घ काणयो आसात. दुसऱ्या खण्डांत एकूच एक आनी नवल काणयेभाशेन प्रदीर्घ लांबायेची "सेंवसारबुट्टी" नांवाची काणी आयल्या. 'गोमन्तोपनिषत्'च्या दोनूय खंडांचें थोडें विस्तारान केल्लें परीक्षण फुडें दिवचें आसा, देखून हांगा इतलेंच सांगून दवरतां कि ह्या दोनूय पुस्तकांतल्यो काणयो केवळ मनरंजनाच्यो काणयो नासून, तांतूत तांच्या बरोवप्यान, देव, धर्म, संवसार, जीवन, नीत-अनीत, हिंसा-अहिंसा बरें-वायट

बी मनशाच्या मनांत उत्पन्न जाणे अनेक तत्विक विचारांचेर केल्लें मंथन आयलां. देखून ह्या वयर-वयर पळल्यार काणयांचें म्हणून दिसण्या पुस्तकाक "गोमन्तोपनिषत्" अशें सार्थ नांव शणैबाबांनी दिलां तें योग्य आसा.

१९३४ वर्सापासून श्री काशिनाथबाबांच्या गोमन्तक छापखान्यांतल्यान "नवें गोंय" ह्या नांवान एक तिं-म्हैनाळें भायर सरूंक लागलें. ताचे संपादपी श्री काशिनाथबाब स्वतःच आसले. पुण तांच्या संपादनाचो चड वांट्यान वावर शणै गोंयबाबांकडेच आसलो. म्हत्वाचीं राजकरणी, समाजिक आनी हेर स्फुटां शणैबाबच बरैताले. "नव्या गोंयांतल्यान क्रमाक्रमान प्रसिद्ध जाल्ल्यो 'आबे फारीय' आनी "पुण्यात्मो राम कामती" ह्या दोगांय व्हडविक्रेक पावलेल्या अठराव्या शेकड्यांतल्या गोंयकारांच्यो जिणो, तांच्या इतिहासाचें संशोधन करून रचपाचें मोटें जिकिरीचें काम शणैबांबांनीच केलां. ह्यो दोनूय जिणो फुडें १९३९ त आनी १९४१ त पुस्तकरूपान गोमन्तक छापखान्यान उजवाडा हाडल्यो. "वखदांची सांगशी" ह्या माथाळ्याखाल, शणै गोंयबाबांली घरकान्न श्री. शांताबाय हाणी सांगलेलीं घरगुती वखदांची माहिती शणैबाब संग्रहीत करून वांट्यावाट्यांनी दितालेत. तेचभाशेन शांताबायन सांगलेल्यो कांय लोकां काणयोय शणैबाबांनी संपादित केल्ल्यो 'नव्या गोंयातल्यान' केन्ना केन्ना येताल्यो. हो सगळो लोकवेद एकठांय केल्यार ताचें एक अपरूप पुस्तक कोंकणी भाशेत जांव येता. कोंकणी भाशेचो पुरस्कार करपी, नव्या-तरण्या कोंकणी कवींक कोंकणी काणयेकारांक, निबंध बरप्यांक आस्त–उमेद–उत्साह दिवपी, कोंकणी सर्वजणिक जीवनाचो नियाळ घेवपी आनी कोंकणी संवसारासंबंधान उपस्थित जाल्ल्या प्रश्नांचेर खोलायेन विचार करून मत्तां परगटावपी अशें हें देवनगरी लिपयेतलें पयलेंच कोंकणी नेमाळें सतत तीन वर्सां, १९३७ मेरेन चलोवन मागीर कांय कारणाक लागून उजवाडावप्यांनी बंद केलें. हांतूतले एक म्हत्वाचें कारण हें आसलें कि "नवें गोंय"च्या संपादनाचो चडसो भार जो शणैबाबांचेर पड तो उणो करून तांकां कोंकणी भाशेच्या कायमी स्वरूपाच्या आनी अदिक तर म्हत्वाच्या वावराखातीर मेकळीक मेळची. व्याकरण, कोश आदि भाशेचीं गरजे ताकतिकेचीं आंगां अजून घडोवपाचीं आसलीं, आनी तीं फावो तशीं घडोवपाक शणै गोंयबाबांच्या तोलाचो दुसरो मनीस कोण दिसनासलो. म्हण्ट-कूच "ऊर्जेची जतनाय" असो मोट्या ताळ्यान साद घालपी ह्या कारणा खातीर चड करून श्री काशिनाथबाबांक "नवें गोंय" निरुपायान बंद दवरचें लागलें. तरीपुण आपले तिनूच वर्सांचे अल्प जिणेंत ह्या अपूर्व नेमाळ्यान अनेक जाणांक, अनेक प्रकारच्यो स्फूर्ती दिल्यो. पुण ह्या असल्या वावराचें मेजमाप घेवप कठीन आसता. तें फक्त त्या काळच्या समाजिक जाणविकायेंतूच उरता.

आतांमेरेन जाल्ल्या कोंकणी भाशेच्या उदरगतीच्या वावरान कोंकणी संवसाराच्या सुपुल्ल्या वर्तुळांत एक नवो हावेस निर्माण जाल्लो. एक नवी उमेद रिगिल्ली, एक नवी आस्त उदेल्ली. वाडीक लागिल्ले सुंदर चलयेभाशेन आपल्या नव्या अभिजात, कुळवंत संस्कारी रूपान परगटलेलीं कोंकणी भास आपल्या सर्वांगांनी लसलसूंक सोर्दी. भाशेचें ती उलोवपी समाजाकडे तादात्म्य आसता. समाजाचो एक म्हत्वाचो घटक म्हळचार तांतली भुरगीं. कोंकणी भास सर्वांग सुंदर जातली जाल्यार तिच्यांत भुरग्यांखातीर आदर्श साइत्य जाय अशी जाणविकाय उत्पन्न जाली, आनी इतिहास आनी तत्वगिन्यान, राजकरण आनी भासकरण आनी समाजकरण हांचे सारके गंभीर आनी वादांगी विशय पेलणी शणैबाबांली लिखणी गोरवां राखण्या बाळकृष्णाची, वासरांक साद घालणी मंजूळ मुरली जावन, कोंकणी भुरग्यांखातीर ल्हवपीकपणान पिल्लूक वाजोंव लागली. १९३५ वर्सा शणै गोंयबाबांलो निर्व्याज आत्मो 'भुरग्यालों इश्ट' जावन आपल्या मोहक रूपांत गोमन्तक छापखान्यांतल्यान परगटलो. भायल्या भितल्ल्या दोनूय आंगांनी सुंदर आनी बाळशें धरिल्ल्या भुरग्यांवरी मनांत लक्तुबाय जागयणे हें कोंकणी भाशेचें अपूर्व भुरगें शणैबाबांचे प्रतिभेचें एक आगळेंच रूप दाखयता. कोकणी संस्कारांचे बियाण रुजोवन कोंकणी भुरग्याचो मनो-विकास ह्या पुस्तकान उत्तम तरेन साधूं येत अशें हे पुस्तक वाचतल्याक कळून येता. पुस्तकांतलो दर एकलो पाट बालमनाच्या एकेक आंगाचो विकास साधपाचे नद्रेन बरैल्लो आसा. देखीक, पुस्तकांतल्या एकूण सव्वीस पाठांतली कांय थोडचांचीं नांवां हांगा दिंव येतीत :–– म्हजी बा, आमचे शणैमाम, आखो माखो, म्हजी केळ, म्हजो बुकलो, वागमाम, म्हजें गोंय, गोमन्त समुद्र, पावस, गोंयचें बंदर, वनदेवतेचो फळार, हांव कितें करतलों, इत्यादि.

१९४१ वर्सा भुरग्यांखातीर आनीक दोन पुस्तकां शणैबाबांचे लिखणेंत-ल्यान भायर सल्लीं आनी गोमन्तक छापखान्यान उजवाडायलीं. १ कोंकणी पयलें पुस्तक आनी २ भुरग्यांलें व्याकरण. हांची रचना शणै गोंयबाबांच्या कुशळ शणैपणाची साक्ष दिता.

# ११ स्वाध्याय आनी बरप हांकां ओंपिल्ली जीण (उत्तरार्ध)
## १९३७ ते १९४६

१९३७ पासून शणैबाबांची आरोग्यताय बरी रावना जाली. तांका ते व्याधीची भावना जडली जी तांच्या अंतामेरेन तांच्या सांगाताक रावली. १९२५ पासून आता मेरेन ताणी आपली जीण संवसाराचे सगळ हुसके सोडून आपल्या एकमेव कार्याक ओंपिल्ली. तांचें वाचप जरी चौफेर आसतालें तरी तांचें उद्दिश्ट एकूच आसलें, आनी तें, कोंकणी भाशेची उदरगत. तांचे व्याधीक लागून आतां तांच्या नियमित आनी अखण्डित वाचपांत कांय प्रमाणांत खण्ड पडूं लागलो. आरोग्यताय सुधारपाखातीर तांका हवाबदल करचो पड आनी आदूनमदून नासकाक वचून रावचें लाग. तरी आसताना केवळ मनाचे दृढतायेन आनी बळग्यान ते आपल्या कामाचो नेट आनी आवेश उणो जांवक दिनासले. तांची पिराय आतां साठ वर्सांची जाल्ली. हाचे फुडलीं तांचीं णव वर्सां म्हळ्यार तांकां जडिल्ले व्याधी-कडे आनी तांकां धेरूंक पळेतल्या मर्णाकडे सतत झूज आसलें. ह्या झुजांत जैत सतत तांचेंच आसतालें. कित्याक तर ह्या काळांत ते आपलें कार्य आपणांक विसरून अदिक नेटान आनी आवेशान करीत. अशें सांगतात कि हे व्याधीन शरीर सुकता, पुण मेंदू तल्लख उरता, इतलेंच न्हय तर अदीक तल्लख जायत वता. तें कितेंय आसूं, तांच्या शरीराक जरी व्याधीक लागून पिडा भोगताली तरी तांच्या कामाचो उरक आता दोट्टी जाल्लो. थोडच्या काळाभितर म्हाका जायतें काम सोंपोंवचें आसा हे भावनेन ते काम करताले. संवसारी गजालींतल्यान--जांव व्यक्तिगत जांव भौशिक--ताणी आतां जायत तितलें आपले लक्ष काडून घेतलेलें आनी तें कोंकणीच्या भाशिक विकासाचेर एकाग्र केल्लें. १९३७ पासून गोंयकार हिंदु सभेच्या जाळवणदार मंडळांत काम करपाचें ताणी सोडून दिल्लें. तांकां प्रकृती स्वास्थ्याखातीर भौन भौन नासकासारक्या सुके हवेचे सुवातेर वचून रावचें पड हें वयर आयलांच.

पुण थंय रावूंनय ते आपलो आंगार घेतलेलो भाशेचो वावर करीत आसताले. हो म्हत्वाचो वावर कसलो आसलो ?

श्री काशिनाथबाबांक दिस कि कोंकणी भाशेत श्रीमद्‌भगवद्‌गीतेचें एक बरें सुंदर आनी प्रमाण भाशांतर कोंकणीत आसचें; तशेंच गीतेची फोड-णिशी करून तिच्यांतल्या तत्वगिन्यानाचेर बरैल्लो एक विवेचक ग्रंथ आसचो. शणैबाबांनी हें काम आंगार घेवन तें करचें अशी तांकां उमळशीक लागिल्ली. शणैबांबांनीय तें करपाचें तांकां उतर दिल्लें. ताणी ह्या कामाखातीर जाय ती पूर्वतयारी केल्ली. गीतेचीं मेळिल्लीं तितलीं वेगवेगळीं भाशांतरां ताणी वाचून काडिल्लीं. गीतेंतल्या तत्वगिन्यानाचेर बरैल्ले भारतीय आनी पाश्चात्य विवेचक ग्रंथ ताणी वाचिल्ले. सगळ्या धर्माचे प्रमाण ग्रंथ ताणी अभ्यासपूर्वक आनी बार-कायेन वाचून काडिल्ले आनी मागीर आपलें चित्त एकाग्र आनी योगयुक्त करून ताणीं गीतेचें कोंकणीत भाशांतर केल्लें. हें भाशांतर ताणी १९३५ मेरेन तीन वेळां निवळायल्लें. तें सादें, सोपें, प्रसादिक आनी नेण्टयाक लेगीत सट करून समजत अशें जांवचें अशी तांची धारणा आसली. म्हणून तांकां तें आनीकूय निवळांवक जाय अशें दिसतालें. परंतु दैवगतीक लागून हें अंतिम निवळावप, तशेंच गीतेची फोडणिशी करपी ग्रंथ बरोवप ते जिवंत आससर करूंक शकलेनात. तांच्या मर्णाउप्रांत तेरा वर्सांनी, १९५९ त काशिनाथबाबांनी तें भाशांतर आशिल्ले स्थितींत छापून घेवन उजवाडायलें. ह्या ' श्री भगवंताल्या गीता 'क कन्नड राजकवि श्री. मंजेश्वर गोविंद पै हाणी ल्हानशीच पुण सुंदर आनी मार्मिक प्रस्तावना जोडल्या. श्री भगवंताल्या गीताची विशेशताय म्हळ्यार तें गीत नेण्टचा मनशान वा भुरग्यान लेगीत वाचल्यार ताका ताचो अर्थ सहज समजत इतलें सोपें आनी प्रसादिक भाशेंत तें बरयलां. तशें पळेल्यार शणैबाबांलें सगळेंच बरप सोपें आनी सहज आइल्ले भाशेंत बरैल्लें आसा. पुणून ' भगवंताल्या गीतां ' त तांचे भाशचे सोंपेपण सामकें तेंगशेक पावलां.

शणैबाबांचो आनीक एक वावर गीतेच्या वावराभाशेनूच आनी त्याच कारणाक लागून अर्दुकुटो उरिल्लो. काशिनाथबाबांनी शणैबाबांकडे गीतेभाशेनूच कोंकणी व्याकरणाचीय मागणी केल्ली. व्याकरण तांचें बरोवन तयार आसलें परंत तांचे नद्रेन तें पूर्ण नासलेलें. तांकां तांतूंत आनिकूय माहितीची भर घालून तें परिपूर्ण करपाचें आसलें. पुण हेंवूय काम तांकां तांचे इत्सेप्रमाणे पूर्ण करूंक आयलें ना. काशिनाथबाबांनी ' कोंकणीची व्याकरणी बांदावळ ' जशी तांकां होलमली तशी १९४९ त शणैबाबांल्या मर्णाउप्रांत तीन वर्सांनी छापून उजवाडायली. ' भुरग्यांलें व्याकरण ' आनी ' कोंकणी नादशास्त्र ' हीं दोन

व्याकरणविशयक पुस्तकां मात १९४०–१९४१ च्या सुमाराक छापून उजवाडा येंव शकलीं. भुरग्यांल्या व्याकरणांत एक कुशळ शणै व्याकरण हो विशय भुरग्यांलें मतीक चट करून ग्रहण करूंक येत अशे सोपे पद्धतीन कसो शिकैता तें दृश्य पळोंवक मेळटा. 'कोंकणीचें नादशास्त्र' हांतूंत कोंकणी उच्चारांच्यो सगळयो विशेशतायो आनी पती एकठावन त्यो नियमांनी बांदून तांचें वर्गीकरण करून पद्धतशीरपणान सांगल्यात. "कोंकणीची व्याकरणी बांदावळी"चे तें जोड पुस्तक वा पूर्वण म्हणून मानूं येता. पुण तें 'बांदावळी' पैलींच छापून उजवाडाइल्लें. शणै गोंयबाबांच्या मर्णाउप्रांत उजवाडाइल्ले 'व्याकरणी बांदावळीक' प्रोफेसर रामचंद्र शंकर नायक हांची अभ्यासपूर्ण प्रस्तावना जोडल्या. ती वाचतकूच शणै गोंयबाबांच्या वावराचें मोल आनी म्हत्व ध्यानांत येता. पुस्तकाक डॉ. सु. मं. कत्रे, डायरेक्टर, डेक्कन कॉलेज पोस्ट ग्रॅज्युएट रिसर्च इन्स्टिटयूट हाणीं Foreword म्हळ्ळेचार "पयलीं उतरां" बरैल्यांत. तींय ह्या पुस्तकाची योग्यताय आनी अपूर्वताय दाखोवन दितात.

# १२. पयल्यो तीन कोंकणी साइत्य परिशदो

कै. श्री. माधव मंजुनाथ शणै शानभाग हे कारवारचे एक प्रतिश्टित नगरीक आनी वकील आसले. कारवार शार आनी जिल्हो हांचे सर्वजणिक जिणेंत तांचें नांव झळकतालें. शणै गोंयबाबांपरस ते धा वर्सांनी ल्हान आसले. आंगान सड-पातळ आनी मोटव्या कदाचे, बारीक, किरकोळ —— किडकिडीत म्हळ्यार जायत. पुण उत्साह आनी फुरफुरो मोटो दांडगो. १९२८ वर्सापासून मुंबय शारांत शणै गोंयबाब आनी श्री काशिनाथबाब नायक हांचो गोमंतक छापखानो हाणी मेळून कोंकणी भाशेचे उदरगतीचो, विकासाचो आनी कोंकणी अस्मि-तायेक जागोवपाचो धा–बारा वर्सां जो वावर केल्लो ताच्यांत तांकां खूब रुची आशिल्ली. ते निश्टावंत राष्ट्रीय वृत्तीचे, संपूर्ण खादीधारी आनी म. गांधीजींच्या तत्वगिन्यानाचे उपासक आशिल्ले. कोंकणी भाशेचेर तांचो, ती आपली आवय-भास म्हणून, नितांत मोग आसलो. शणै गोंयबाबांची कोंकणीविशींची अनुपम, क्रियाशीळ आनी दृढ भक्ती पळोवन ते प्रभावित जाल्ले. कोंकणीचो प्रसार फक्कत साइत्य उजवाडावन करप हें काम तांचे नद्रेन पुरोशें नाशिल्लें. भारतां-तल्या अखया कोंकणी समाजांत अस्मिताय जागोवपाखातीर भौशिक आनी सर्वजणिक पांवड्याचेर चळवळ करूंक जाय अशें तांकां दिस, आनी तसो ते कोंकण पट्टीवयल्या कोंकणी उलोवपी प्रदेशाची भोंवडी काडून प्रचारूय करीत. १९३९ वर्सा तांच्या ह्या प्रचारान निश्चित रूप धल्लें. तांच्या तळमळीच्या प्रयत्नांनी कारवार शारांत त्या वर्सा पयली कोंकणी परिशद भल्ली. ताणी ह्या वर्सा लाइल्ली ती म्हुर्तमेड शुभमंगल आनी भाग्याची म्हणून थारली. कित्याक तर १९३९ पासून आतांमेरेन ३६ वर्सांच्या ह्या काळांत कारवारचें परिशदे उप्रांत आनीक इकरा परिशदो कोंकणांतल्या वेगवेगळ्या थळांनी यशस्वीपणान भल्ल्यो, आनी ह्या परिशदांनी कोंकणी समाजाक आपल्या अस्तित्वाविशीं आपले अस्मितायेविशीं, आपले आवयभाशेविशीं, आपले विशिश्ट संस्कृताये-विशीं, आपल्या प्राचीन इतिहासाविशीं संपूर्णपणान जागो केलो. परिणामाक, कोंकणी भास ही एक स्वतंत्र, पुरायेन विकसल्ली आनी म्हत्वाची अशी एक

भारतीय भास म्हणून भारतीय शासनाकडसून आकादेमीच्या द्वारा तिका मान्यताय मेळ्ळी.

कोंकणी परिशदेचे उत्पत्तीपासून आतांमेरेनच्या सगळ्या बसकांकडे अखड संबंध आसलेले नामवंत कोंकणी कार्यकर्ते, मुंबयच्या कोंकणी भाशा मंडळाचे अनेक वर्सां पदाधिश्टित आसलेले सेक्रटरी (बरपी) श्री. एफ. जे. मार्तिरिस हांणी "परिशदेचीं पस्तीस वर्सां" ह्या आपल्या लेखांत पयल्या णव बसकांची माहिती दिल्या. तांतूंतल्यान पयल्या तीन परिशदांचो थोडयाभितर सारांव हांगा दिला. कारण हांतूतले तिसरे म्हळयार १९४२ वर्सां मुंबय शारांत भरिल्ले बसकेचे शणै गोंयबाब हे येवकार अध्यक्ष आसले, आनी त्या नात्यान ताणी हे परिशदेंत जें उलोवप केल्लें तें असल्या उलोवपाची एक अपूर्व पत आसा. हें उलोवप मागीर शणैबाबांनी विस्तारून बरैलें, आनी १९४५ वर्सां तांच्या मर्णापैलीं थोडेच दीस गोमन्तक छापखान्यान तें पुस्तक रूपान छापलें. हें पुस्तक तांचे भितल्ले माहितीखातीर आनी ताच्या साइत्यिक गुणांखातीर कोंकणी साइत्याचें एक मोलादिक रत्न आसा म्हळयार जाता.

८ जुलाय १९३९ हो दीस कोंकणाच्या आनी कोंकणीच्या इतिहासांत व्हडा म्हत्वाचो जावन आसा. त्या दीसा कारवारच्या पवित्र थळांत हजारांवयर जमिल्ल्या कोंकणी लोकांनी आपले आवयभाशेक वयर उखलपाच्या वावराची म्हुर्तमेड त्या थळांत रोयली. त्या दिसा थंय पयली कोंकणी परिशद भरिल्ली. परिशदेचे संस्थापक आनी कर्तुत्वी कार्यकर्ते भौ. माधव मंजुनाथ शणै शानभाग हाणी परिशदेक जमिल्ल्या लोकांक मायेन येवकार दिवन परिशदेचे हेतु कितें तें सांगलें : (१) कोंकणी लोकालो एकवट (२) कोंकणीसंबंधान आसलेलो कंटाळो नासो करून तिचे संबंधान मोग वाडोंवप. (३) कोंकणी भाशेक एकरूपी करूंक वावरप. (४) कोंकणी भाशेची मूळ आनी राष्ट्रीय लिपी जी देवनगरी तीच कोंकणी भाशेक उपकारावप. (५) कोंकणी सरस्पत आनी संस्कृताय वाडोवप आनी विस्तरावप.

हे पयले कोंकणी परिशदेचे येवकार अध्यक्षांलें काम श्री. शानभाग हाणीच केल्लें. परिशदेचे अध्यक्ष भौ. विश्वनाथ पांडुरंग प्रभू हे आसले. ताणी सांगलें कि कोंकणी भास ही कांय लोक समजतात तशी कुस्कूट न्हय. येवरोपी पंडितांनी तिची तोखणाय केल्या. चड पुर्विल्ल्या काळापासून ती घोळणेंत आसा. मराठी परस ती आदीं जाल्या. राजाचो आस्रय तिका केन्ना मेळ्ळोना. आमची आवयभास गोड, रसाळ आनी म्होवाळ. ती उलोवपी लोक बुदवंत. आमी आमचे

भाशेक मायें- मोगान लागीं करूंया आनी तिका वयर उबारूंक वावरूंया. हे पयले परिशदेन धा थारावणुकी एकमतान मान्य केल्ल्यो. कोंकणी लोकांनी आपल्या वेव्हारी बरपांत कोंकणी उपकारांवची, तिचेखातीर देवनगरी लिपी उपकारांवची, तिच्यांत पाठ्य पुस्तकां रचचीं, तिच्यो साळो आसच्यो, लोक-गणनेंत कोंकणी लोकांनी आपली उलोवपाची भास कोंकणी म्हणून लावन दिवचें बी स्वरूपाच्यो ह्यो थारावण्यो आसल्यो.

दुसरी परिशद १९४० वर्सा ३१ डिसेंबराक कर्णाटकांतल्या उडुपी शारांत भल्ली. येवकार अध्यक्ष डॉ. टी. माधव पै हे आसले, आनी अध्यक्ष आसले मद्रास कायदेमंडळाचे वांगडी भौ. जेरोम साल्दान्ज. परिशदेच्यो थारावण्यो पयले परिशदेच्या थारावण्यांवरीच आसल्यो. कोंकणी भाशेंतल्या कार्यावळींचो आस्पाव ऑल इंडिया रेडिओचे कार्यावळींत आसचो अशी मागणी ही एक म्हत्वाची थारावणी आसली.

तिसरी परिशद १९४२ वर्साच्या आब्रिलाचे ४ आनी ५ ह्या तारखांक मुंबै शारांत भरिल्ली. येवकार अध्यक्ष भौ. वामन रघुनाथ वर्दे वालावलिकार अुर्फ शणै गोंयबाब हे आसले आनी अध्यक्ष आसले प्रोफेसर आरमान्द मिनेझिस.

हे परिशदेच्यो विशेशतायो म्हळ्यार हिका जायत्या पयस पयशिल्या शारांतलें पडहात हाजिर आसले. वावुरपी समितींत कर्णाटकांतले वांगडी चड आसले.

येवकार अध्यक्षांलें अुलोवप हें कोंकणी साइत्यांतलें एक अमोलिक माणिक जावन आशिल्लें. तें फुडें गोमन्तक छापखान्यांन पुस्तकाच्या रूपानें १९४७ त उजवाडा हाडलें. है अुलोवप म्हळ्यार सतमाचें भांगर.

अध्यक्षांलें अुलोवप इंग्रजींत जाल्लें. परिशदे वेळार दोन दीस कोंकणी पुस्तकांचें पयलेंच प्रदर्शन भरिल्लें. परिशदेतं रे. फादर जॉर्डा ह्या एस्पान्योल पाद्रीन कोंकणीत उलोवप करून कोंकणी भाशेक ‘ आमची भास ’ म्हणून मान दिलो.

अध्यक्षांनी भाशणांत कोंकणी भास एकरूपी जावपा खातीर आनी हेर देशी भासो शिकपाक सोंपेपण मेळचे खातीर कोंकणीक देवनगरी लिपी हीच चड बरी अशें सांगलें.

परिशदेंत महत्वाच्यो थारावण्यो जाल्यो. तांतली पयली म्हळ्यार “ कोंकणी भाशा मंडळ ” ह्या सदाकाळीक संस्थेची स्थापना करपाची थारावणी. हे भाशेन आब्रिल ५, १९४२. दिसा “ कोंकणी भाशा मंडळ ” घडलें. हेर इकरा थारावण्यो पयल्या दोन परिशदां भाशेनूच आसल्यो.

शणै गोंयबाबांनी कोंकणीच्या विकास आनी उद्धाराखातीर केल्लो पोटतिडकेचो वावर आनी ताणी मुरवार हाडिल्लो कोंकणी लोकोचो अडेच हजार वर्सापासूनचो

केन्ना तरी वैभवशाली म्हणून गाजलेलो, आतां पोर्नावळीत पडून आनी विस्मृतायेच्या चेपणाखाला लिपून उरिल्लो इतिहास हांचेपासून मेळिल्ली स्फूर्त घेवन आनी भौ. माधवबाब शानभाग हाणी आंगांत अवसर आइल्ल्यावरी कोंकणीचो केल्लो सतत तोंडी प्रचार हांकां लागून अखिल भारतीय कोंकणी परिशदेचो जल्म जालो. आतां-पर्यंत अुबन्त पडिल्ली कोंकणीं भास सनाथ जाली. तिची काळजी घेणारें, तिची विचारपूस करपी कोंकणी भौस अस्तित्वांत आयलें. तिका कितें जायनाका तें पळोंवक, तिच्या मार्गातल्यो अडचणी समजून घेवन तो मार्ग खांची गोंयडचां मेकळो आनी कांटचांखुटचांरैत करूंक परिशदेच्या रूपान तें भौस आतां कटिबद्ध जालें. हें पळोवन पिडेन खंगलेल्या शणैबाबांच्या जिवाक केदें समाधान जालें आसतलें, आनी कोंकणीचो अखेरेक जयजयकार जातलो हो तांचो विश्वास कितले पटेयां वाडलो आसतलो !

तिसरे परिशदे वेळार ताणी केल्लें येवकाराचें अुलोवप हें छापलेल्या ८० पानांचें पुस्तकच जायत येदें दीर्घ आनी माहितीन उपाट भरिल्लें भाशण आसलें. अर्थात् परिशदेच्या वेळार तांतलो कांय वांटोच फक्त वाचून दाखयल्लो. घेयाचे पुरो जाल्ले अवस्तेंतूय ते हें भाशण परिशदेच्या खिणामेरेन बरैंतच आशिल्लयान येवकार समितीक तें उलोवप छापून घेवंक वेळ मेल्ळोना आनी परिशद उलगली तशें समितीचें विसर्जन जाल्ल्यान तें उलोवप छापपाचें काम तशेंच उर्लें. हें उलोवप फुडें श्री काशिनाथबाबांनी आपल्या गोमन्तक छापखान्यांत १९४५ वर्सा मेरेन छापून काडलें. पुण तें उजवाडांवक वच्च्या वेळार "गोमन्तक मराठी साहित्य सम्मेलनाचे" तिसरे बसकेचे अध्यक्ष आचार्य काकासाहेब कालेलकर हांचें येजमानकींचें उलोवप श्री काशिनाथबाबांच्या हातांत आयलें. त्या उलोवपाचे कोंकणीचेर कितें परिणाम जातले हाची चिकित्साय जावंक जाय अशें तांकां दिसलें आनी ताणी तें ही चिकित्साय करपाची योग्यताय आसलेले एकमात्र मनीस शणैबाब हांकां दाखयलें. दोगांयचो विचार जालो की आचार्यांच्या उलोवपाची विसकणी करून ती शणैबाबांच्या येवकारांच्या उलोवपाक परिशिष्ट म्हणून जोडची. त्याप्रमाणें घेयांत चडशें त्राण नासतानाय आनी वैजान विसंव घेवक सांगिल्लें आसतनाय शणैबाबांनी "ऐन वेळार" ही आचार्यांल्या मुद्यांक आपली प्रतिक्रियेची जाप बरोवन काडली. ती छापून घेवन पुर्वण कशी येवकार अध्यक्षांल्या उलोवपाक जोडली आनी ताचें पुस्तक तयार केलें. ह्या पुस्तकाची छापलेली प्रत शणै बाबांनी पळेली आसूये वा नासूंये. कारण त्या उप्रांत चारूच दिसांनी तांचो आत्मो आपली कूड सोडून गेलो. ह्या तांच्या पुस्तकाचें उजवाडावप अक्टोबर १९४७ त तांच्या मर्णा उप्रांत कांय काळान जालें.

'येवकार अध्यक्षालें उलोवप' हें ताका जोडिल्ली पुर्वण, " ऐन वेळार (आचाय काकासायब कालेलकारांल्या गोमन्तक मराठी साहित्य सम्मेलनाचे तिसरे बसकेचे यजजमानकीच्या उलोवपाचो आपरोस ") हिचे सैत शणै गोंयबाबांनी बरैल्लें निवळायल्लें आनी छापिल्लें पळेल्लें निमाणें पुस्तक. हाका कोणें साइत्याचें माणिक म्हळां तर कोणे सतम्याचे भांगर. हें सगळे तरेन एक अपूर्व पुस्तक आसा. खयंच्याच साइत्य सम्मेलनाच्या वा परिशदेच्या येवकार अध्यक्षांलें उलोवप इतलें दीर्घ आसलेलें कोणे केन्ना पळोंवकना. हांतूंत कोंकणींत जाल्लया आजमेरेनच्या साइत्याचो, (कानडी लिपयेंतलें साइत्य सोडून) पुराय नियाळ घेतला; हांतूंत शणै बाबांनी कोंकणीचे आवश्यकताये संबंधान, तिचे स्वतंत्रताये संबंधान आनी तिचे साइत्यिक शक्ती संबंधान आजवेर केल्लया विचारांचो सारांव आयला; हांतूंत कोंकण्यांच्या प्राचीन, मध्ययुगीन आनी पुर्तुगेज-पूर्व वैभवशाली इतिहासाचो उडते नद्रेन केल्लो नियाळ आयला; पुर्तुगेज काळांतूय गोंयांभायर पावून थंय-थंय गोंयकारांनी मेळयल्ले नामनेची, व्हडविकेची आनी लोकिकाची तोखणाय आयल्या; हांतूंत कोंकणी आपणाली बोली भास म्हण्टले मराठीची, उच्चारांचे, व्याकरणी बांदावळीचे, ओपारींचे, लोकोक्तिचे, उतरांकोठयेचे, तद्‌भवांचे, उतरांच्या व्याकरणी रूपांचे नद्रेन, तशेंच प्रदेश, राष्ट्र, पुरातनताय, प्राकृताकडली निकटताय हांचे नद्रेन आसलेली स्पश्ट वेगळिकाय ताणी निर्विवादपणान दाखोवन दिल्या; हांतूंत कोंकणीची लिपी खंयची आसची, खंयची कित्याक नासची, कोंकणीची बरपांतली सरस्पत एकरूपावपाक कितें करचें, तिच्या वेगवेगळया मोडींची संपन्नताय कशी राखून धरची, कोंकणी नितळ, सभाविक, सोपे तरेन कशी आनी कित्याक बरोंवची, तिच्यांत जड-जडाव कितल्या प्रमाणांत घालचें वा घालचें न्हय ह्या संबधान सुंदर, मोलादिक आनी मुळावे विचार ताणी मांडल्यात; कोंकणीत भायलें साइत्य कशें हाडचें वा कशें हाडचें न्हय ह्या संबंधान ताणी आपणाले अशे खास विचार मांडल्यात; ह्या पुस्तकांत ताणी कांय खास कोंकणी उतरांची सुंदर तरेन फोडणिशी करून, व्याकरणशास्त्राची सुत्रां लावन व्युत्पत्ती दिल्यात. अशे तरेन सुमार शंबर छापलेल्या पानांभितर भरगच्च माहितीन उपाट भरिल्लें, आनी साइत्याच्या ललितपणाची झांक मारता अशें हे पुस्तक म्हळ्यार कोंकणी भाशेक एकाच वेळार उपकारा पडणो आनी सोब–दिणो असो हो अपूर्व ग्रंथ आसा.

" ऐन वेळार " ही ह्या येवकार उलोवपाक जोडलेली पुर्वण सुमार पंचावन पानांची एक पुस्तिकाच आसा. तिचो कोंकणी परिशदेचे तिसरे बसकेकडे तसो कांय संबध ना. पुण " उलोवपांत " ज्या विशयांचो उल्लेख आयला त्या विशयांकडे संबंध आसा. कोंकणी ही कोंकणाची गोंयची आवयभास. पुण कांय कोंकणे गोंयकार आपणाक मराठे म्हणौन घेतात, आनी आपली आवयभास मराठी अशें सांगतात.

अशा वेळार येकचारा खातीर दोगींकूय आवयभासो मानच्यो, वा कोंकणीच्यो उणायो तिणें मराठीचें दूद पियेवन घट जावन ना करच्यो अशो सुचौण्यो जाल्यो जाल्यार त्यो कोंकणीचे उदरगतीक कितल्योशो उपकारा पट्टीत, आनी तशें केल्यार कोंकणी आनी कोंकण हांचो फायदो जांव येता कि कितें हाचो विचार आपल्या "ऐन वेळार" ह्या लेखांत शणैबाबांनी केला.

"गोंयाक स्वराज्य मेळून त्या प्रदेशाची राजभास थारांवचेलो वोगोत आयल्यार अथवा शिकोवपाच्या मळार खैंचे भाशेक म्हालगडी करची असो प्रस्न आयल्यार ती भास कोंकणीच आसूंक जाय अशें म्हळचाबगर सोड वाट ना," अशें जशें आचार्य काकासायब कालेलकारांचे मत आसा तशेंच शणै गोंयबाबांचेंय मत्त. पुण कोंकणी भास मराठीचे अपरुखीं सुकून भागून वतली वा रोगट जातली ह्या विधानाकडे शणैबाब एकमत जायनात. जितल्या पुर्विल्ल्या काळापासून कोंकणांत वा गोंयांत कोंकणी भास चलताली तितल्याच पुर्विल्लया काळापासून थंय मराठीचें घोंकप चलतालें अशें म्हणप हें इतिहासाआड आसा. मराठी ही कोंकणीची आवय न्हय वा दुदकान्नूय न्हय. उफाट्टें मराठीक लागीं करीत पासून तिणें कोंकणीचें जायतें दूद रगत ये-सर आजवेर लुंचलां आनी ती मातल्या आनी फुगल्या. कोंकणी लोकांची आळसाय आनी न्हिदसुरेपण ह्या पाडगुणांक लागून गेल्ल्या सात आठशीं वर्सां मराठीक कोंकणांत असुधाय चरूंक मेकळें मळ मेळ्ळें, आनी हाचो परिणाम असो जालो कि दमणगंगे साकून बारदेसांत कोलवाळचे तारी मेरेन ती कोंकणी रुखाच्या कांठयार बसली. तिका आनीकूय आखळून माखळून धरपाचे दीस आतां उरूंक नात. हिंदुस्थानांतल्यो हेर भासो जशो कोंकण्याक आनी गोंयकारांक येंवक जायत, तशीच मराठीय येंवक जाय, आनी तितल्या पुरतीच आमी ती शिकूंक जाय. गोंयचे भुयेंत कोंकणी आनी मराठी ह्यो दोन भासो आवय भासां वरी लेखच्यो म्हळ्यार दोन पनेळांचेर पाय दिवपा सारकें आसा. हाणें थंयच्या लोकांचो घात जातलो. कोंकणी जरी इतलो काळ उबंत अुडैल्ल्यावरी आसली, तरी आसताना तिचे आंगची निजाची विरी इल्लीय उणी जांवक ना. पुर्विल्ले वेदीक भाशेचें हुनहुनीत खतखतीत, तेजिश्ट आनी ओजिश्ट रगत तिच्या शिरंत्रांनी घोळटा. तिची भास-शास्त्रीक किसवणी केल्यार हाचें खरेंपण रोकडें ध्यानांत येतलें. असले कुळवंत आनी गिरेस्त भाशेक मराठीच्या अडेच्या दुदाची निखालूस गरज ना. मराठीची बेनुल्ली लागून कोंकणी भास भगंल्या आनी भगंतली हें मराठीकूय आवयभास म्हणची आनी तिचो आस्रय घेंवचो हें म्हणणाऱ्यांनी बारकायेन येवजून पळोंवचें"

"ऐन वेळार" ह्या शणैबाबांनी आपले मर्णाचे पथारीवयल्यान बरैल्ल्या आपल्या लेखांत ताणीं कोंकणी आनी मराठी हांच्यो प्रदेशिक संस्कृतायो तांची विसकणी

करून त्यो विंगड कशो आसात हें दाखोवन दिलां. ताणी कोंकणी संस्कृतायेच्यो कांय खास नाटो दिवन सांगलां कि गोंयच्या आनी कोंकणांतल्या लोकाक झुजमार महिषा-सुर मर्दिनी दुर्गेचे भक्तीपरस थंड सभाव आनी प्रकृतीचे सांतेरीची–शांतादुर्गेची–भक्तीच चड मानवतली. तिचे जोडीक किरिस्तांव भावांक पूज्य आसलेले आंकवार मोरयेचीय भक्ती ताणीं धरची आनी सगळयांनी मेळून एका ताळयांत म्हणचें :–

"ॐ सांतेरी पाव।
ॐ आंकवार मोरये पाव।"

# १३. शणै गोयबाबांचो मृत्यु आनी दुखवटो

“ऐन वेळार” हें शणै गोंयबाबांनी बरैल्लें, निवळायल्लें आनी छापलेलें पळेंल्लें निमाणे बरप. त्या उप्रांत थोडच्याच दिसांनी, म्हळचार एप्रील ता. ९, १९४६ दिसा ते सकाळच्या साडे आठ घंट्यार मुंबय, गिरगांवांत ‘न्यु नर्सिंग होम” नांवाच्या खासगत इस्पितळांत भायर पडले. आठ णव वर्सां चालू आसलेले राजयक्ष्म्याचे पिडेन तांचें शरीर साप खंगलेलें. तांतूतच मर्णापयलीं धा-पंद्रा दीस ते अकस्मात कदेली वयल्यान सकयल पडिल्ले आनी तांचें आंग धाडावल्लें. पोर्णे पिडेंत हे नवे पिडेची भर पडून ते अतिशय हैराण जाले. ह्या निमाण्या दिसांत तांच्या धेयाची आनी मनाची स्थिती कशी आसली तिचें हृदयस्पर्शी चित्र श्री. काशीनाथबाब हाणी प्रो. रामचंद्र शंकर उर्फ राणू नायक, पणजी, हांकां शणैबाबांच्या मरणापयलीं बरैल्स्या पत्रांत बरे तरेंन पळोंवक मेळटा. तांच्या पत्रांतलो तो तितलो भाग वाचण्यां खातीर हांगा दिला :—

“ . . . . . तुमगेलें . . . तारखेचें पत्र पावलें. भौ. वालावलिकारांचे प्रकृतींत इल्लोय उतार ना. पोन्ने पिडेंत नवे पिडेची भर पडल्या. आठ दिसां फाटीं कदेले वयले उठता आसताना ते पडले. तेन्नाच्यान तांकां मोडण्यो मारून येतात. एक दोन दिसां आड, दिसांतल्यान दोन तीन खेपो. तें पळोंव नज. हातापायांच्यो काडयो जाल्यात. उलोवपाची शक्त ना. कोंकणीचे व्याकरणी बांदावळीची रेखणी कशेय भाशेन आपुण करतलों अशें आठ-धा दिसांफाटीं ताणी म्हाका सांगिल्लें. परंत काल सांजवेळा हांव तांगेर गेलों तेन्ना पुस्तकांच्यो कितल्योशोच पोटल्यो बांदिल्ल्यो म्हाका थंय दिसल्यो. ते जागे आसले. परवणीय उणी आसली. देखून तुमच्या पत्रांतलो मजकूर हांवें तांकां सांगलो. तेन्ना ताणीं म्हळें, “म्हजे खातीर कांय करपाची गरज ना. म्हाका मेळूंकय कोणे येंवचें न्हय. कित्याक, तांचेकडेन उलोवपाची शक्त म्हाका ना. उलयल्लें आयकुंचीय शक्त ना. म्हाका आतां पुरो जालां. म्हज्यान आतां कांय नज. आज म्हाका भायलें सगळें काम हांतरुणार न्हिदलां थंयच करचें पडलें. तें तिका (बायलेक) काडचें पडलें. तुमी (काशिनाथ बाब) रातीं दंवांत न्हिदले खैं. आज ही तुमची हांगा तिसरी खेप. (गेल्या म्हैन्यापासून हांव तांगेर दिसांतल्यान एकदोन खेपो वतालों परंत आज तांका मोडणी चड मारूंक लागिल्लयान

हांवें तिसरी खेप घाल्ली). हे भाशेन हांव तुमकां कितले म्हणून त्रास दिंव ? आतां म्हाका मरणूच जाय. त्यो पळेयात म्हज्या बरपी संवसाराच्यो पोटल्यो बांदून दवल्ल्यात. आबा (तांचो व्हडलो चलो) फाल्यां त्यो तुमचे कडेन पावत्यो करतलो. तांचो फावो तसो विलो करात. तुमचें बरें जांव—चड बरें जांव. सगळ्या संवसारांत तुमी एकलेच म्हाका म्हजे प्रक्रतीचे मनीस मेळ्ळेत. म्हजे जिणेचें तुमी भांगर केलेंत. उपकार जाले. तुमचे सारक्यांक आनी हिचे सारके बायलेक सोडून वच्चें म्हळ्यार जिवार येता. पुणून उपाय ना. आतां म्हाका वचूंकच जाय. ह्या वेळार भायली चोबाळणी म्हाका नाका. तिचो म्हाका वीट येता. आपसुवार्थी करणेन कांय जाय सारकें ना. आमगेलो संवसार आपसुवार्थ्यांलो. निखटे तोंडाचे चोबाळणेन कितें घडचें आसा ? नायकांक (राणू नायकाक) बरयात तुमी हांगा येंवचे धके-चपाटे काडूं नाकात. तुमची म्हजी गांठ पडसारकी ना. पडल्यारूय म्हज्यान आतां उलोंव नज, कांय सांगूं नज. सांगिल्लें आयकूं नज. म्हजेखातीर कितेंच करची गरज ना. जें काम तुमी हातांत धल्लां तें पोटतिडकेन तडीक व्हरात. इतल्यांन सगळें आयलें. भायली चोबाळणी नाका. ती पुरो जाली. आतां कसाक लागता तसलीच करणी आमी तुमी करूंक जाय. ........"

हें सगळें उलोवप ताणी एका सुरान केलें. दम लागतासो पळोवन हांवें तांकां दोन फावट थांबोंवचो यत्न केलो. तेन्ना ते खुबले. थांबात. म्हाका आदी उलोंवदी. हे उलोवणें फाल्यां जांवचेंना." अशें ताणी म्हळें. म्हण्टकूच म्हजो उपाय उल्लो. दोळ्यांतलीं दुकां पुसपाचेंय काम म्हज्यान धड जायना जालें.

तुमी केल्या प्रस्नाची जाप वामनरावांच्या उलोवपांत आयल्या अशें म्हाका दिसता. देखून हें सगळें पुणून मोटवें करून दिलां. तोंडांतलीं उतरां सांबाळून धरपाचो जाता तितलो यत्न हांवें केला. तांगेली वाक्यांची वाक्यां दिवपाची शक्त म्हजे लिखणेक आशिल्ली जाल्यार बरें जातलें आशिल्लें. परंत उपाय ना.

आज वालावलिकारांक गिरगावांतल्या "नर्सिंग होम" नावांच्या खासगत इस्पितळांत हाडून दवरपाचो विचार आसा. त्या कामाक म्हाका आतां पाल्र्याक वचूंक जाय. तांचेसरीं कोणूच ना......

सामान्या भायल्या मनशाक सामान्या भायले अणभव येंवचे हांतूंतलें गुपित कितें तें समजना जावन मन म्हजें गदळांत पट्टा......" (तारीख ७ एप्रील १९४६).

वयर दिल्लें पत्र बरैल्लें त्याच दिसा सांजे वेळा साडेपांच वरांचेर शणै गोंयबाबांक पाल्र्याथाकून मुंबय शारांत लॅमिंग्टन रस्त्यावयल्या 'नर्सिंग होम' ह्या खासगी इस्पितळांत हाडले. ती आब्रीलाची सात तारीख आसली. दुसरो एकूच दीस म्हळ्यार ता. ८ आब्रील मदीं गेलो. तिसऱ्या दिसा, आब्रीलाचे

णव तारखेक सकाळीं साडे आठ वरांच्या सुमाराक तांचो आत्मो तांचे जीर्ण-शीर्ण कुडीक सोडून गेलो. मरतांना ते पूर्ण शुद्धीर आसले. तांचो व्हडलो पूत श्री. रघुनाथ वा आबा हे आनी श्री. काशिनाथबाब नायक हे तांच्या म्हन्यान आसले. प्राण सोडचे पयलीं कांय मिनटां ताणी आबाक म्हऱ्यांत आपोवन म्हळें : "हांव आता चड वेळ उरचो ना; बरे करून रावात. कोणाच्या हातांत सांपडूं नाकात."

काशिनाथबाब लागींच आसले. ताणीं शणै बाबांकडे पळेलें. तांकां ते सामके निर्शेल्ले दिसले. कसल्याय कारणान जांव पुण तांकां मेळूंक. लेगीत कोण येंवक नाशिल्ले. आपलो कोंकणीचो वावर फुकट वतलो अशें शणैबाबांक दिसतालें जांवये आनी हेंच तांचे निशणीचें कारण जातलें अशें मनांत येवन काशिनाथ-बाबांनी तांकां धीर दिवप्पाक म्हळें : वामनबाब, तुमी इतलें निर्शेवपाची गरज ना. आतां कितेंय दिसलें तरी तुमची बरपावळ इतली तेजिश्ट आसा कि तिचें तेज लिपसारकें ना !" कित्याक कोण जाणा, पुण हाची तांकां तिडक माल्ली आनी ताणी म्हळें :

"कितें ? कितें म्हण्टात तुमी ? म्हजी बरपावळ तेजिश्ट !"

उपरांत थोडेशे थंडसाणीन —

"हय, तेजिश्ट, पुणून ती तेजिश्ट बरपावळ तुमच्या हातांत पडली म्हणून! हेर कोणाय गोंयकाराच्या हातांत पट्टी जाल्यार तो ती हांडचापोंदचे रान्नीक लावन उदक तापोवन न्हातलो आसलो. तुमच्या हातांत पडली आनी म्हजें जिणेचें भांगर जालें . . .बरें. . . .जांव. . .बरें जांव. . . .तुमचें चड बरें जांव !"

इतलें उलोवन ते थोडो वेळ थांबले, आनी हात वयर करून ताणी काशिनाथबाबांक उलोंवचो थांबयलें. उपरांत म्हळें :

"तुमच्या हातांत म्हजो जो बरपी संवसार पडला ताचें तुमी कितें जायतें करात. पुण तांतूंतली "कोंकणी भाशेची व्याकरणी बांदावळ" दाखोवन दितली कि भट्टोजी दीक्षित हो जल्मान गोंयकार आशिल्लो."

महान संस्कृत वैयाकरण भट्टोजी दीक्षित शणै गोंयबाबांची कूड धरून पुनाय गोंयाच्या मोगाखातीर गोंयांत अवतरिल्लो ? कोणें सांगचें ?

वयर सांगलेले दृढ आत्मविस्वासाचे उद्‌गार हींच शणै गोंयबाबांचीं निमाणीं उतरां.

तीं उलोवन तांचो आत्मो कुडीभायर पडलो.

शणैबाबांच्या मर्णाउप्रांत माय म्हैन्याचे १२ तारखेक मुंबय शारांत ब्लॅव्हॅट्स्की लॉज, गिरगांव, हे सुवातेर कोंकणी लोकांल्या बावीस संस्थांच्या

पाख्यातळा कोंकणी लोकांली एक दुखवटयाची सभा भरून ते सभेंत मान्य केल्ले थारावणेंत तांचे संबंधान दिसणारो आदर आनी पूज्य भाव, तशेंच ताणी केल्ली कोंकणीची एकनिश्ट सेवा आनी वावर हांचे म्हत्व उक्तें करून दाखैलां आनी तांच्या मर्णान कोंकणी जनतेक जाल्लो खेद, तशेंच कोंकणी समाजाचें जाल्लें अपरमित लुस्कान व्यक्त केलां. ज्या संस्थांच्या पाख्यातळा ही दु:ख उक्तावपाची सभा भरिल्ली तांतूंत कांय क्रिस्तांव भावांच्यो, कांय हिंदूंच्यो, तशेंच कांय गोंयकार लोकांच्यो तर कांय गोंयाभायल्या आनी कर्णाटकांतल्या कोंकणी लोकांल्यो संस्था आसल्यो. हे सभचें यजमानपण श्रीमती कमलाबाय दोंगरकेरी, मुंबय शारांतली सुप्रसिद्ध लेखिका आनी समाजसेविका, हाणी केल्लें. हे सभेंत मान्य जाल्ली थारावणी अशी आसली :––

"कोंकणी भाशा मंडळ आनी मुंबैंतल्यो हेर एकवीस संस्था हांच्या एक-चारान भौ. सौ. कमलाबाय दोंगरकेरी हांगेले अध्यक्षतेन मुजरत भरिल्ली कोंकणी लोकांची ही सभा "शणै गोंयबाब" म्हळयार शणै वामन रघुनाथ वर्दे वालावलिकार हांच्या मर्णाचो खेद धरता, आनी तांच्या संबंधान आपणाल्या मनांत आशिल्लो आदर उक्तो करता. शणै गोंयबाब कोंकणी भाशेचे एकनिश्ट भक्त आनी होरावपी आसले. तिची ताणी जल्मवेर सेवा केली आनी आपल्या अजापांच्या तेजवंत बरपावळींत सरस्पती देवीच्या मंदिरांत तिका मानाभौ-मानाचो पाट मेळोवन दिलो. हे तांगेले पोट-तिडकेचे सेवेन कोंकणी लोकाक ताणी सासणाचे उपकारांत दवल्ले हांतूंत दुबाव ना. आवैभाशेक खळ नासताना होरावपांत ताणी तांगेली उणीपुणी सगळींच जीण घालयली आनी तिका गिरेस्त केली. विद्येची सामान्याभायली रूच, म्हत्वाचे इतिहासिक सोद, भाशेची चिकि-त्साय आनी जल्मभुयेंचो फावो जाल्लो अभिमान हे तांचे जिणेचे मुखेल दुवे आसात. असल्या भारीभूशणाच्या आनी कर्तुत्वी पुरुशाच्या मर्णान आमचें सगळयांचेंच अपरमित लुस्कान जालां हें ही सभा उक्तें करून दाखयता. शणै गोंयबाब विद्वान आसलेत, पुण तांच्या मनाक गर्वाचो वास नासलो. ते थंड सभावाचे, थीर मनाचे आनी निबर अंतस्कर्णाचे पुरुश आसले. इश्टागत करुंक फावो जाल्ले गुण आनी बरेंपण तांच्या आंगात उपाट भरिल्लें. एका विद्यार्थ्याक सोबशे तरेन ताणी सरस्पती देवीची जल्मवेर कडकडीत भक्ती चलयली आनी तिचे दयेचो प्रसाद जोडलो. कोंकण, कोंकणी लोक आनी कोंकणी भास हांचेर तांचो उपाट मोग आसलो. हाचे खातीर ताणीं आगळीं उणी पंचावन्न वर्सां खर-निबर तपश्चर्या केली आनी कुबा थाकून ब्रह्मदेशामेरेन आनी कैलासाथाकून कुमारी मेरेनच्या कोंकणी लोकांक धर्म आनी जात विसरूंक लावन एके माचयेर

हाडले आनी कदीम काळापासून तांचे मजगत पडिल्लें खावेंट भरुन काडलें. ह्या खातीर उपकारान भारावल्ल्या मनान आनी अभिमानान भरिल्ल्या आदरान तांच्या उगडासान ही सभा नम्रतायेन तकली बागयता आनी तांच्या सत्वशीळ आत्म्याक थंडाय गेळची अशी मागणी करता. "

# १४. मर्णाउप्रांत उजवाडा आइल्लें शणै गोंयबाबांलें साइत्य

“ ऐन वेळार ” ह्या मर्णपथारी वयल्यान बरैल्ल्या लेखासैत “ येवकार अध्यक्षांलें उलोवप ” हें १९४७ त, कोंकणीची व्याकरणी बांदावळ हें, १९४९ त आनी ‘ श्री भगवंतालें गीत ’ हें १९५९ त श्री काशिनाथबाब हांच्या गोमन्तक छापखान्यांतल्यान उजवाडाक आइल्ल्या पुस्तकांचो फाटीं उल्लेख केल्लोच आसा. त्या भायर १९४७ त कोंकणी मुळावें पुस्तक हें भुरग्यांक कोंकणी भास पद्धतशीर रीतीन कशी शिकोंवचीं हें शणैचे शिकोवपी नद्रेन बरैल्लें पुस्तक उजवाडा आयलें. गोंयच्या साळांभितर कोंकणी शिकोवपाचो विचार पोर्तुगेज सरकारच्या शिक्षण खात्यांत चल्लेलो तेन्ना वा त्या निमतान शणैबाबांनी हें पुस्तक रचलेलें. ‘ पोवनाचें तपलें ’ आनी ‘ झिलबा राणो ” हें दोन खेळ गोंयकार हिंदु सभेच्या स्नेहसंमेलना वोगतार करून दाखोवपाक म्हणून ताणी बरैल्ले तांचोय उल्लेख पैली जावन गेला. पुण ते खेळ तेदोळा पुस्तकरूपान उजवाडा येवंक नासलेत, ते आतां शणै गोंयबाबांच्या मर्णाउप्रांत १९४८ आनी १९५० त गोमंतक छापखान्यांन छापून प्रकाशित केलेत. “ पोवनाचें तपलें ” हो खळ फ्रांसेज नाटककार मोलियेर हाच्या “ L’Avare ” ह्या खेळाचें कोंकणी रूपान्तर. “मोगाच्या लग्ना ” वरीच मोलियेरच्या खेळाचें हेंवूय रुपान्तर अगदीं स्वतंत्र आसा आनी तें गोंयच्या कोंकणी समाजाच्या फाट = भुंयेचेर रचलां. “ झिलबा राणो ” हाचें मूळ अरबी भाशेंतले एके काणयेंत आसा. पुण हेंवूय पुस्तक (नाटक) अगदीं स्वतंत्र आसून ताका शणैबाबांनी गोंयच्या कदंब कालीन इतिहासाची फाट - भूंय उपकारायल्या. उप्रांत १९५५ त गोमन्तक छापखान्यान “ आलबुकेर्कान गोंय कशें जिखलें ” हे शणैबाबांनी १९१० त गोंयांवयले पुर्तुगेज सत्तेच्या चौथ्या शेकड्याच्या उत्सवा निमतान रचलेलें, पुण पुर्तुगेजांचे उत्सव समितीन उजवाडांवक नाशिल्लें पुस्तक उजवाडा हाडलें. ह्या पुस्तकाक श्री. नारायण आत्माराम देसाय ह्या सुप्रसिद्ध साम्यवादी गोंयकार कोंकणी बरप्याची “ हारेचीजीख ” ह्या माथाळ्याची प्रस्तावना जोडल्या.

"आलबुकेर्कान गोंय कशें जिखलें" हें शणैबाबांनी सुमार ७० वर्सांपैलीं बरैल्लें पुस्तक. तें तांचें साइत्यिक जिणेच्या आरंभकाळांत बरैल्लें पुस्तक म्हणून वाचतल्याक ताचेविशीं कुतूहल जाता. १९१० वर्सा त्या पुस्तकाक जोडिल्ल्या सुरवेच्या दोन उतरांत शणैबाब सांगतात :— "सुमार तीन वर्सांफाटीं म्हाका गोंयच्या इतिहासाचो सोंस लागिल्लो, आनी त्या खातीर हांव वेगवेगळीं पुर्तुगेज आनी इंग्लेज पुस्तकां जमोवन वाचूंक लागलों. तीं वाचता आसतांना आमच्या गोंयकारांकूय तांतूंतलो मजकूर समजल्यार बरें जायत अशें दिसलें आनी त्या खातीर जायत्या पुस्तकांतल्यो इतिहासिक खबरो हांवें उठावन दवल्ल्यो. त्या भायर पुर्तुगीजांच्या पुर्वेकडल्या इतिहासाची म्हाल मुखेल माची जी गोंय शार ती पळोंवचे खातीर १९०९ वर्सा हांव गोंयां गेलों. आनी चारशें वर्सांफाटीं फिडर्यांचें आनी मुसलमानाचें जे सुवातेर झूज जालें, ती सुवात बरी करून ध्यानांत घेतली. तशेंच गोंय शारांतल्यो दुसऱ्यो जायत्यो सोबीत इमारती हांवें पळेल्यो आनी तांची सगळयांची खबर हांवें बरोवन काडली. ती छापूंक गेल्यार तिचे एक वेगळेंच पुस्तक जातलें."

ह्या वयर सांगलेल्या वाचपाचो आनी संशोधनाचो परिणाम म्हळयार "आलबुकेर्कान गोंय कशें जिखलें" हें पुस्तक.

ह्या पुस्तकासंबंदान ते फुडें बरैतात :—

"हें पुस्तक तांकत तितलें सोपे भाशेंत बरैलां म्हणपाचें तें वाचिनाफुडें सगळयांक समजतलें. हांतूंत हिंदुस्थानांत फिर्ड़ी आयले तेन्ना गोंय शाराची दशा कशी आसली, आलबुकेर्कान तें कशें जिखलें, राखलें, आनी थंयचो कारभार कसो ठांय बसणेक लायलो म्हणपाची इल्ल्यान इल्ली खबर आयल्या. हें पुस्तक वाचून आमच्या गोंयकारांक आजवेर खबर नासलेलो जायतो इतिहास समजतलो अशी म्हाका आस्त आसा."

"हारेची जीख" हे आपले प्रस्तावनेंत श्री. नारायणबाब देसाय हे आपल्या सांगपाचें सार सांगतात : येवरोपी बळाचीं पाळां खातोणांत मुळीं जाल्यारूय तांची कांय अमृतफळांय संवसाराक चाखूंक मेळ्ळयांत. हीं फळां म्हळयार एकवट, शिस्त, वावर आनी अणभवी गिन्यान वा विज्ञान. हीं फळां खावन आमी घटमूट जांव जाल्यार इतिहासाच्या मळार आमगेले हारेची आमच्यानी जीख करूं येत. हारेची जीख करप म्हळयारूच पुरुशार्थ. शणै गोंयबाबांनी आपणाल्या साइत्यिक वावरान आमकां हे मोखीर हाडून दवल्ल्यात. ते ओळखून ती मोख जोडप हें आमगेलें काम ........"

ह्या पुस्तकाक जोडिल्ल्या 'उजवाडावप्याच्या दोन उतरांत' श्री. काशिनाथबाब हाणी शणै गोंयबाबांकरवीं कोंकणाच्या प्राचीन, मध्ययुगीन आनी अर्विल्ल्या पुर्तुगेज सत्तेचो काळ धरून सळंग इतिहासाची बांदावळ रचपाची योजना आपणे कशी घडयल्ली आनी ती कित्याक लागून अपूर्ण उल्ली हें सांगून त्या संबंदान मनाचो खेद आनी चुरचुरे उक्ते केल्यात तें वाचून शणैबाबांच्या अकाल मर्णान कोंकणी समाजाचें कितलें लुस्कान जालें तें ध्यानांत येवन जीव मिडमिडटा.

श्री. काशिनाथबाब सांगतात :—

'हें पुस्तक छापिल्लें पळैले बगर म्हाका तुमी मरूंक दितले ?' असो प्रश्न स्वर्गवासी माधवबाब शानभाग हाणी एक फावट म्हाका केल्लो, आनी रोखडोच, 'हें पुस्तक तुमी छापूंकच जाय, आनी तेंय बेगीन !' अशें म्हणून एकाध्या ल्हान भुरग्यावरी आपल्या जिवाचो सपूत लेगीत ताणी म्हाका घाल्लो! पुण त्या वेळार म्हगेल्या पोरसांत कल्परुख आसलो. देखून कसलीच चिकित्साय करिनासताना आनी मूळ पुस्तकाचे आधार दिनासताना, काणी कशें बरैल्लें हें पुस्तक छापूंक म्हज्या मना येना जालें. त्या भायर ह्या पुस्तकांत फक्कत पुर्तुगेजांचे जिखेचोच इतिहास आयला. तो उजवाडांवचे बदला "वसणूक" आनी "जैत" ह्या पुस्तकांनी तांत्रिकान आइल्लो पुणून फाटीं फुडें जाल्लो इतिहास एका सुतार घालून आनी ताका आर्यांचे वसणुकेचे खबरेची जोड दिवन राण्यांल्या बंडामेरेनचो पुणून सगळ्याच कोंकणाचो ह्रोलमला तितलो इतिहास मेकळेंपणान बरैल्लो म्हाका जाय आसलो. कारण, शिलाहार राजांची आनी राष्ट्रकूट सम्राटांची ही आवयभूंय कानडी कदंबांच्या हातांत कशी गेली, तांचे कडसून ती मुसलमानांनी कशी घेतली आनी निमाणें मुसलमानांकडे झुजून पुर्तुगजांनी कशी जिखली हें समजून घेंवची म्हजी उमळशीक थोडी भोव भागिल्ली, पुणून आर्य चाणक्य रामचंद्रबाब सुखठणकारांची . . . .भारती वीर जिवबादादा केरकारांची आनी . . . .पराक्रमी चाडडे कुळयेंत जल्मल्ल्या दीपा राण्याची ही वीर भूंय आज चारशें साडे चारशीं वर्सां सैमा आइल्लेवरी पुर्तुगेजांच्या हातांत कित्याक थिरावली हाची विस्कणी जाल्ली म्हाका जाय आसली. शणैबाबांच्या हातांत "भगवंतालें गीत' आनी कोंकणीची व्याकरणी बांदावळ आसली आनी कोंकणीक इतिहासापरस ह्या दोनूय कामांची चड गरज आसली. देखून ती जातकूच कोंकणाचो इतिहास पूर्णतायेन बरोंवचें काम हातांत घेंवचें अशें ताणी थारायल्लें, पुणून . . . . . . . . . . . . . ."

पुणून शणैबाबांच्या अकाल मर्णाक लागून हें सगळें जांवचें आसलें तें जांवक पावलें ना ही चड खेदाची गजाल !

उजवाडावप्यांनी हें पुस्तक स्वर्गवासी श्री. माधव मंजुनाथ शणै शानभाग हांच्या उगडासाक ओंपलां. श्री. शानभाग १९५० वर्सा भायर पडिल्ले.

शणै गोंयबाबांनी गोंयकार हिंदुसभा आनी गोमन्तक हिंदु विद्यार्थी मंडळ हांच्या पाख्यान वेगवेगळ्या प्रसंगांक धरून वीसएक उलोवपां केल्लीं. हांचो उल्लेख ह्या पयलीं जाला. ह्या उलोवपांतलीं विद्यार्थ्यांक उदेसून केल्लीं चार उलोवपां वेंचून गोमन्तक छापखान्यान १९५८ वर्सा "कोंकणी विद्यार्थ्यांक" ह्या नांवाखाल तीं पुस्तकरूपान उजवाडायलीं. ह्या चार उलोवपांतलें दुसरें, "आमची भूंय विद्येन फाटीं आसा ?" आनी चौथें, "विद्यार्थिनी विजयाबाय तळावलीकारांक" हीं दोन विशेश उल्लेख करी सारकीं आनी अभ्यासण्यासारकीं आसात.

"बलिपत्तनाचो सोद" हें श्री. काशिनाथबाबांनी आपल्या छापखान्यांत ल्यान उजवाडाइल्लें शणै गोंयबाबांचे बरपावळीतलें निमाणें पुस्तक. तें १९६२ वर्सा भायर आयलें. त्या उप्रांत गोमंतक छापखान्यातल्यान शणैबाबांचें कांय बरप उजवाडाइल्लें दिसना. श्री. काशिनाथबाब छापखान्याच्या वावरांतल्यान ह्या सुमाराक निवृत्त जाले; त्या उप्रांत कोंकणी पुस्तकांचें उजवाडावप थांबलें अशें दिसता. तरीय पुण, "गीता केन्ना रचली ? (निबंध), दो. फ्रोयलानु द मैलु हांकां मुंबैचे गोंयकार हिंदु सभेन दिल्ल्या येवकारा निमित्त केल्लें उलोप, दिवचले गांवांतलो ' नुमाजग्याचो दोंगर" बी शणै गोंयबाबाले अप्रसिद्ध आसलेलें बरप श्री. काशिनाथबाबांचे प्रेरणेन कोंकणी नेमाळ्यांतसून उजवाडा येत आसता. शणैबाबांची जायतीं बरपां तशींच पडून आसात. ती बरपां हेच तरेन उजवाडा येत रावलीं जाल्यार शणैबाबांलें मोलादिक वाङमय सुरक्षित उल्लें अश कोंकणी जनतेक समाधान जातलें.

"बलिपत्तनाचो सोद" ह्या पुस्तकांत बलिपत्तन म्हळ्यार गोंयातल्या जांवावली पंचम्हालांतलो बाळ्ळी हो गांव. ह्या आपल्या मत्ताचें इतर विद्वानांची त्या संबंधाचीं मत्तां खोडून काडून, शणै गोंयबाबांनी अनेक आधार दिवन आनी बिनचूक व्युत्पत्ती सांगून मंडन केलां. बलिपत्तन म्हळ्यार "बाळ्ळी" हो सोद शणै गोंयबाबांक १९१८ वर्साच्या सुमाराक लागिल्लो. ह्या सोदाचो उल्लेख ताणीं आपल्या 'वसणूक' ह्या १९२७ त केल्ल्या (बरैल्ल्या) उलोवपांच्या पुस्तकांत केला. तांतूंत ताणी म्हळां :

"बलिपत्तन, बलिपवन वा बलिनगर म्हणचे बाळ्ळी पत्तन – म्हणचे आतांची बाळ्ळी – – हें शिलाहारांचें राज पाटण आसलें म्हणपाचें समजूं येता.

शणफुल्लाचो पुत धम्मियर शिलाहार हाणें बाळ्ळीत आठव्या शेंकडयाचे अखे-रेक बांदिल्ल्या कोटाच्यो मोडक्यो कुरवो थंय देऊळवाडयालागसार अजून दिश्टी पट्टात; आनी ते सुवातेक 'कोटांत' अशें म्हण्टात. तेच भाशेन बाळ्ळी कुकळ्ळीचे सरादीर 'कोटा-मळ' म्हण्टात ती सुवात आसा. चलत्या मायाचे तिसरेर (१९२७ वर्स), हांव ह्यो सुवातो बारकायेन पळोवन आयलों, आनी म्हज्या मनाची खातरी करून घेतली. ('वसणूक' पान ६).

ह्या पुस्तकाक श्री रवींद्रबाब केळेकार हाणीं प्रस्तावना बरैल्ल्या. आवै-भाशेची तांक कितली आसता, कोंकणीची ती कितली आसा आनी अशें हें कोंकणी लोकांले आवैभाशे संबंदान तांकां लागणूक कितली आनी कशी आसूंक जाय, हाचे संबंदान ताणीं विवेचन केलां. निमाणे शणैबाबांन केल्ल्या कोंकणी भाशेच्या वावराचें मोल केदें व्हड आसा तें सांगून प्रस्तावनाकार, श्री. रवींद्रबाब म्हण्टात : 'शणैबाब गोंयचे निखटे अभिमानी नासले. पुर्विल्ले नामनेचें म्हजें गोंय -- त्या गोंयाचे भक्तीन तांचे काळीज फुरफुरतालें, आनी इतिहासिक कारणाक लागून 'त्या म्हज्या गोंयाचें' चेपिल्लें माथें वयर काडपाचे तांकां उत्फरके लागिल्ले."

# १५. शणै गोंयबाबांले बरपावळीचो उडतो नियाळ, परीक्षण, उतारे बी

## १ गोंयकाराचो मुंबैकार ( १९१० )

हें शणैगोंयबाबांचें पयलेंच, स्वखर्चान उजवाडाइल्लें पुस्तक. कटावाचे चालीर रचलेलें एक कवीत. कविताचें कथानक अशें : रवळू कामत, गोंयचो एक सामान्य पसरकार, शेजान्न चिमणें आका हाचेकडसून मुंबैची तोखणाय आयकून, कोणाक सांगनासतांना पळून मुंबय वेता. सुरवेक आपलें रुप्याचें काण्ण विकून दीस काट्टा. मागीर पोटाखातीर रांदपी जाता. उप्रांत कारकून. थोडे बरे दीस येतात. रवळूचो रवळेराव जाता. रतनबेन नांवाचे मुंबैकान्न, फॅशनेबल चलयेकडे लग्न जाता. गोंयकारांच्यो बकच्छायो करता. बायल फॅशन करता आनी रवळेराव घरांतलें रांदप करता. कांय दीस फोल्गां मारून आनी सट्टेबाजी करून अखेरेक खांकनवाळ जाता. सोयरे-धायरे इश्टमित्र कोण विचारिनात. पच्छाताप पावता. बायलूय रोगान मरता. रवळेराव गोंयचो ध्यास घेता. एकदीस उठून गोंयां परतो वेता. थंय ताका वेरेंचो एक पसरकार पुंडी नायक आपल्या पसऱ्यार कामाक दवरता. आतां रवळेराव पर्थी रवळू जाता.

गोंयकारांक ताचो अणभवाचो उपदेस :—गोंय विसरूं नाकात. ताच्या उणायांची खंत धरात. ताचें बरें करूंक वावरात. गोंयची भास सदांच उलयात. गोंयाक निंदून ताचीं फकाणां माल्ली म्हणचे तुमचें कर्तुप जालें अशें समजं नाकात. सगळयांचें बरें जांव. तथास्तु ।

कटावाचें पालुपद : हांवें मुंबैत पाय दिलो —<br>
आनी हांव मुंबैकार जालों ।

## २ मोगाचें लग्न (पैली खेप १९१३; दुसरी १९३८)

हें फ्रांसेज नाटककार मोलियेर हाच्या एका फार्साचें (Le M'edecin Malgre' Lui) पुरायेन गोंयचो समाजिक आनी भौगोलिक भेस घाल्लें

रूपान्तर. कथानकाचो मुख्य सांचो आनी विशिश्टताय तितली मोलियेयरची. अंत्रुजेंतलो एक गिरेस्त पुण दुडवांक वसवसणो भाटकार घारुदाद आपली चली मोगा गरीब गुणेस्त तरण्या भाच्याक — सुब्रमणयाक — दिनासताना खूप दुड आसलेल्या पुण म्हातान्या वेंकटरमणाक दिवचो विचार करून तिचें ताचेकडेन लग्न थारायता. तें आयकून, सुब्रमणयाचेर मोग करपी घारूदादाले चलयेची जीब धरून ती मोनी जाता. मोगाचे पिडेचेर वैज-आंगारे चलनात. निमाणे, म्हालखुमेचे नाडपणाचे युक्तीन मारून बडोवन वैंज केल्लो तिचो घरकार बाबगो घारूदादाच्या कारभान्याबरोबर वायटाकार चलयेक पळोंवक घारूदादा-गेर येता, आनी मोगाची नाडी पळोवन कसलें तरी जालीम वखद फर्मायता. सुब्रमणी ताका लिपयां–चोरयां मेळटा आनी मोगाचें आनी आपलें प्रेमाचें गुपित ताका सांगता. वेश बदलून वैजाचो शिष्य जावन तो ताचेवांगडा घारूदादागेर वेता. ताका पळोवन, वळखून, मोगाची वाचा अकस्मात सुट्टा. घारूदादाक आनंद जाता आनी तो लग्नाची तयारी फर्मायता. पुण इतल्या म्हणसर सुब्र-मणयाचें प्रणय-कपट उक्तें जाता आनी घारूदाद बाबग्याक आनी सुब्रमणयाक खांब्याक बांदून घालता. पुलीस येंवचे पयलींच कुर्रयकार येवन सुब्रमणी फोंडेंचो आलमिस्रादोर जाला म्हणपाची तार ताच्या हातांत दिता. घारूदादाचें रोकडेंच मतांतर जाता आनी तो वेंकटरमणाबदला आपल्या ‘ अपुर्बायेच्या ’ भाच्याक कन्येचें दान करता. म्हालखुमेचे दांत्यावयले होंवयेन नाटक सोंपता. हांसौण्या प्रवेशांनी भल्लेलें हें नाटक माचयेचेर खूप रंगता. मांलियेराभाशेनूच शणै गोंयबाबांनी थळाव्या समाज दोशांचेर हांसत आनी हांसैत मार-धपके घाल्यात.

## ३ गोंयकारांची गोंयांभायली वसणूक पैलें–खण्ड ( १९२८ )

ह्या इतिहासिक विशयाचेर १९२७ वर्सा मुंबैंत शणै गोंयबाबांची जीं पांच उलोवपां जालींत तांतल्या चारांचें ह पयलें खण्ड १९२८ वर्सा गोमन्तक छापखान्यान उजवाडायलें. हांतूंत पोन्र्या काळाचो, मदल्या काळाचो आनी अर्विल्लो असो सुमार अडेच हजार वर्सांचो माहितीन उपाट भरिल्लो आनी इतिहासिक थळांचे निर्देश स्पश्ट आनी वळख पटत अशें रीतीन दिल्लो कोंकण आनी खास करून गोंयचो इतिहास आयला.

हांतूंतल्या पैल्या उलोवपांत गोंयचो आवांठ, आनी विस्तार केदो आसलो तें सांगून ताच्यांत आस्पावणो प्रदेश खैंचो आसलो ताचो निर्देश केला.

गोंयाभायर पाविल्लो गोंयचो व्यापारी पूर्ण हो भगवान बुद्धाक मेळून ताचो नामनेचो शिष्य 'पुण्ण' कसो जालो आनी ताणें गोंयच्या आवाठांत बौद्ध धर्म कसो पातळायलो तें सांगून, गोंयांत बौद्ध धर्माच्यो कुरवो, नाटो आनी होंवऱ्यो बी अजून खैं खैं दिश्टी पट्टात ताची शणैबाबांनी आपले भोंवडेंत प्रत्यक्ष घेत-लेली माहिती दिल्या. गोंयच्या चाड्डे म्हळचार चतुर्थी क्षत्रिय वंशांत जल्मल्ले राष्ट्रकूट हाणी गोंयाभायर वचून सम्राटपद जोडलें तांचीय खबर आयल्या.

दुसऱ्या उलोवपांत चाड्डयांफाटल्यान गोंयांभायर पाविल्ल्या बाम-णांची खबर आयल्या. कदंब आनी गोंयच्या शिलाहार राजांचो इतिहास दिला. कदंब आनी जैन धर्मीयांचे पिडणुकेक लागून गोंयचे बामण उत्तर कोंकणांत वचून वसले तांची खबर आयल्या. गोंयचे सारकीच उत्तर कोंकणांत ताणी "साष्ट" वसैली. उत्तर कोंकणाचे भाशेचेर गोंयचे भाशेचो पडिल्लो छाप दाखोवन दिला. भतग्रामांतलो मायिंदेव पंडित बामण हाणे जोडिल्लीं जैतां सांगल्यांत. राणे, म्हाळपै हांची जल्मभूंय गोंय. इकराव्या शेंकडयांत गोंयां मुसलमानाच्यो घुरयो पडल्यो आनी तांकां लागून हिंदूंच्या धर्मीक संवसाराक धपको लागलो. चौदाव्या शेंकडयांत हिंदु धर्माक लागलेलो सुकतडो आनी अद्वैत, अहिंसा हांचो कोडू अणभव हाची वर्णना आयल्या.

तिसऱ्या उलोवपांत गोंयाचेर कदंबांची राजसत्ता चलताली तिची खबर दिल्या. चौदाव्या शेंकडयाअखेर बहामनी राजांनी ती निखळायली. धर्मकोल्ली महमूदशहाचे पिडणुकेक लागून गोंयकारांनी कर्णाटकाची वाट धल्ली, मुसलमानां-कडसून गोंय सोडोवपाक विजयनगरच्या हिंदु राजान माधव मंत्र्याची नेमणूक केली. माधव मंत्री गोंयकार वामणांचे जातीचो बामण. तो गोंयकारांच्या पालवान बहामनी सत्तेंतल्यान गोंय सोडयता. १४७८ मेरेन गोंयांचेर विजयनगरची सत्ता चलताली. त्या काळांत प्रजा सुखी आसली. १४७० त पुनाय बहामनी सत्तेन गोंयाचेर शेक बसैलो. मुसलमानांची गोंयाक पुनाय पिडापीड जांवक लागली. पुर्तुगेजांकडेन गोंयचो तिमोजा संधान बांदता ताका लागून पुर्तुगेजांचो गोंयात प्रवेश जाता. १५१० त आलबुकेर्क गोंय जिखता.

चौथ्या उलोवपांत पुर्तुगेजांची सत्ता गोंयां घट जावन गोंयांत बाटोवणेक आनी प्रजेच्या पुर्तुगेजीकरणाक सुरवात जाता, ताचो इतिहास आयला. ताका लागून जायते गोंयकार हिदु—बामण, वाणी, सुदीर बी कर्णाटक, मलबार, कोचीन बी दक्षिणेंतल्या प्रदेशांत वचून वस्ती करतात. कांय क्रिस्तांवूय इंक्विजिसांवांक भियेंवन कर्णाटकांत वा मलबारांत बी पळून वतात. कोंचींत आनी कर्णाटकांत पाविल्ले गोंयकार आपल्या आंगच्या गुणांनी आनी बुद्धीमत्तेंन, वेपार, उद्योग,

शिकप, राजकर्ण बी खेत्रांनी नामना आनी लोकिक जोट्टात, तांची खबर आयल्या आनी अशा लोकिकवंत घराण्यांचीं आनी व्यक्तिचीं नांवां आयल्यांत.

## ४ कोंकणी भाशेचें जैत ( १९३० )

ह्या पुस्तकांत, कोंकणी ही गोंयची आवय भास न्हय, ती भासूच न्हय, अशें म्हणून मराठीच्या पाख्यान कोंकणीच्या आड हाडलेल्या सगळ्या शास्त्रीय, अ–शास्त्रीय, म्हत्वाच्या आनी किरकोळ, इतिहासिक आनी गैर - इतिहासिक मुद्यांक (जांव खुद्द गोंयकारांनी हाडलेल्या, जांव गोंयांभायल्या गोमन्तकी-येतरांनी) सणसणीत आनी तर्कशुद्ध जाप दिवन तांकां निरुत्तर केल्यात. ह्या पुस्तकासंबंधान अदीक माहिती फाटीं आइल्लीच आसा.

## ५ गोमन्तोपनिषत् ( खण्ड १–२) [ १९३३–३४ ]

‘गोमन्तोपनिषत्’ ह्या नांवावयल्यान मनशाची जीण आनी ताचे भोंवतणचो विश्वाचो बोमाडो म्हळयार ब्रह्मांड हाचे संबंदाचे गुमानीत विद्येन, भरिल्लो तो ग्रंथ आसतलो असो सभाविकपणान आयकतल्याचो समज जाता, आनी आसाय खरो हो ग्रंथ तसलेच तरेचे गुमानीत विद्येन भरिल्लो. पुण रूपान पळोंवक गेल्यार तो आसा एक काणयांचें पुस्तक. ह्या काणयांविशीं शणैबाब स्वतःच सांगतात : “ ह्यो जरी काणयो म्हळ्यो तरी त्यो कोल्या-कवडुल्याच्यो वा न्हवरे-होंकलांच्या मोगाच्यो न्हयंत. निखटी अणभवांची वळरी दिल्यार बरी लागची नासली. देखून ते काणयेंत गुंथचे पडले. निखट सुके सडसडीत फोव तोंडांत उडयल्यार दाडमणा वळटात. देखून ते उदकांत भिजोवन, गोडाचो बांदो आनी सोय घालून मोव आनी सुरबूस करचे पट्टात. तशीच गजाल ह्या उपनिषदांची ”

हे सुरबूस फोव स काणयांच्या दोण्यांनी वाड्न शणैबाबांनी ते वाचप्यां-मुखार दवल्ल्यात. षड्सांच्या ह्या काणयांच्या दोण्यांक उपनिषदांतलें तंत्रीक भाशेतलें “ आरण्यकां ” हें नांव दिलां. पुस्तकाच्या पैल्या खण्डांत पांच आरण्यकां आनी दुसऱ्या मोटचा खण्डात ‘ संवसारबुट्टी ” ह्या नांवाचे एकूच आनी सवें आरण्यक आयलां. पैल्या खण्डांतल्यो काणयो साधारण मोटव्यो काणयो म्हणू येतीत. पुण साडेतीनशीं पानांचें सवें आरण्यक एक चड मोटी प्रदीर्घ काणी म्हळयार जायत. “ म्हजी बा खैं गेली ?”, “ वास शणैली पोपाय ”, “ बाबूमामालो पणस ”, “ पितुबाबालो तांब्यापटो ” आनी “ खर्णवीर ” ह्यो त्यो पैल्या

खण्डांतल्यो पांच काणयो. दुसऱ्या खण्डातले एकले एक काणयचें नांव "संवसार-बुट्टी" हें वयर सांगलांच.

ह्या सय काणयांत देव, जीव, संवसार, पातक आनी पुण्यताय, सर्ग आनी नरक, जल्म आनी मरण, सुख आनी दुःख, नीत आनी अनीत, खरें आनी लटकें, सासणाचें आनी खिणयाळें, ह्या विशयांची मुख्य पात्रांच्या तोंडातल्यान वा बरप्याचे त्रयस्थाचे नद्रेन चर्चा आयल्या. ह्या विशयासंबंदान चलत आइल्ले समज आनी पात्रांच्या खास्सा अणभवान त्या समजांचेर घेतिल्ले, पुर्विल्ल्या समजांक कातरून उडोवपी आक्षेप हांचोय हे चर्चेंत सामाव जाता. ह्या विशयाकडेन जांची नदर वळटा अशा वाचप्यांक ही चर्चा भोवच रसाळ लागूंक जाय. पुण काणी वाचपाच्या ओघांत सामान्य वाचप्याकूय खडबडून उठून, बसूंक लायत अशो कांय सुवाती चर्चा वाचताना वाचप्याक भेटतात. देखीक ही एक पत घेयात. संवसारबुट्टी हें काणयेंत खेतल्याचो आत्मो म्हण्टा :— पातक्याक दुकराचो जल्म मेळटा. तें दुकर गुंडे माल्ल्यारूय पायखिळयांतसून हालना. ताका ती व्हडली मेजवानकीच कशी दिसता. ताचेभितर आशिल्ल्या आत्म्याक देव आपले भाशेन ख्यास्त भोगैता खरो; परंत ताका जाल्यार ती तखीपूच कशी जाता. म्हण्टकूच ख्यास्तींतूंय सुख भल्लां जालेंना? तर तिचो मारून धडधडो आनी कलकलो कित्याक काडचो? त्या त्या जल्मांत ते ते दशेंत वतकूच तें तें बरें दिसता. आनी गोड लागता. त्याखातीर हांव आदींच भियेवन गुळी कित्याक जांव? खुशाल मेळूंदी म्हाका दुकराचो आनी त्याय पास्ट जल्म. हांव पर्वा करिना. हांवें धर्तरेर जितेपणीं पातकां करून सुख भोगलें आनी मरतकूच त्या पातकांचें प्रायश्चित्त सुखानूच घेतलें." हें एके पतीवरसून शणै बाबांनी गुमानीत विशयाची चर्चा कशेतरेन रंगैल्ल्या हाचें अनुमान तुमी करात. चड पती दिवक सुवात ना.

'म्हजी बा खैं गेल्या ?" ह्या करुण रोसांन उपाट भरिल्ले काणयेंत मर्ण म्हळचार कितें हें कळनाशिल्ल्या पांच वर्सांच्या बाबुल्याक आपली आवय 'देवागेर गेल्या' हें आयकून ती आपणासरेन येना कित्याक हो प्रश्न पडटा. देवागेर गेल्लीं मनशां परत येनात हें समजायतकूच ताका देवाचो राग येता आनी तो देवाक धपकायता, आनी खूप उलयता. निमाणें तो आवयच्या ध्यासान मरता. भगवद्-गीतेंतल्या आधारार शणैबाब सांगतात : "आमचो माणकुलो बाबुलो आपली अपुर्बायची बा जंय गली थंय वचून खोसयेन तिचे हाण्डीर बसतलो हांतूत दुबाव ना."

'वासशणैली पोपाय' आनी 'बाबुमामालो पणस' ह्यो काणयो रुखावळीकूय जीव आनी मन आसा हें सत्य नद्रेमुखार दवरून बरैल्यात. आनी ताच्या अनुरोधान

मनशांभितर आहारांच्या भेदाक लागून हिंसा–अहिंसा तत्वांचे भुंयेचेर जीं झगडीं माजतात आनी जे पोले बडवाचार माल्लेले दिसतात तांचो शणैबाबांनी खर उपहास केला, आनी 'जीवो जीवस्य जीवनम्' ही संवसाराची आक्षेप घवक येना तसली वास्तवता आसा म्हणपाचें प्रतिपादन केलां.

'पितुबाबालो तांब्यापटो' हें काणयेंत पितुबाब ह्या सत्विक आनी पुण्य-प्रकृत मनशाच्या सबावाचे पटभुंयेवयल्यान हिंसा–अहिंसा ह्या विशयाचेर अदीक खोलायेर विचार आनी चर्चा केल्या. शणैबाबांनी हें चर्चेंत मोटे चतुरायेन दाखोवन दिलां कि हिंसा-अहिंसा ह्या तत्वांच्या एकांगी, केवळ बहिर्वर्ती म्हळ्यार वैलाचारांच्या अतिरेकान त्या त्या तत्वांत आसलेलें सत्य उरफटून लटकें पडटा. सत्य हें दोन तोंकां मदीं म्हळ्यार सुवर्णमध्यारूच उरता. अहिंसा भावनेच्या अतिरेकान पितुबावाली अवस्ता, हरव्या पांचव्या तणान भरिल्ल्या दोन शेतांमदीं आसलेल्या रस्त्याचे सामके मदीं उबें आसलेल्या भुकेल्ल्या वासरावरी जिस्त जाता. तें वासरूं एकाय शेतांत उतरूंक पावना. दोंय कडसून सारकीच ओड लागिल्ल्यान तें उपासांनी थयंच मरता. मानसशास्त्र सांगता कि तें थंय दोन समशक्त पुण विरोधी ओडींच्या झगड्याक लागून मेलें. पितुबाबूय हेच तरेन मरता. तो समाध घेवंक पावना. आनी ताणे फाटीं दवल्लेलीं सोळा लाख पद्मटंकांची तस्त्रीप सगळ्या लक्षणांनी युक्त असो अहिंसक कोणूच ना मेळिल्ल्यान निमाणेकडेन नागौण्यांच्या हातांत पडून नश्ट जाता.

हिंसेचो भयानक अतिरेक करणो कोकस्तानचो राजा खर्णवीर हो, जगांतल्या सगळ्या कोल्ली——धर्मकोल्ली, तत्वकोल्ली, संस्कृतायकोल्ली, वंश कोल्ली, देवकोल्ली बी राजांचो आनी 'वीरां' चो प्रतिनिधी म्हळ्यार जाता. ही काणी वाचताना इतिहासांतल्या पुर्विल्ल्या आनी अर्विल्ल्या कोल्ली राजा, वीर, सेनापती बी व्यक्तींचे मुखवटे दोळ्यांमुखार येतात. पर्याशिल्ल्या पल्ल्या वयली वस्त 'ती खंयच्या 'कोकस्तानांत' पडल्या कोण जाणां ?' अशें म्हणपाची एक ओपार गोंयां आनी कोंकणी भाशेंत प्रचलित आसा. ते वोपारीच्या बिंदूंत-ल्यान शणैबाबांनी खर्णवीराचें काणयेचो सिंधु निर्मिला म्हळ्यार कोणाक कौतुक दिसचें ना ?——ते रचणुकेचें आनी तिच्या रचनाकाराचें ?

'संवसार बुट्टी' ही एकादल्या व्हडशा नवलकाणयेयेदी मोटी काणी आसा. नोए प्रजापतीच्या काळावयले विब्लांतले बुट्टीसारकी एक संवसार बुट्टी येता आनी तिच्यांत वुडून मेल्ल्यांचे कुडीभायले जाल्ल्या आत्म्याचें एक मोट्टें भिरें हुएली–बोंबो मारीत देवाकडेन वेता. तांतुतल्यान वेंचून काडिल्ल्या बारा आत्म्याच्यो —— (हांतूत एक हदीर माम, एक भुरगें, एक मडवळ, एक खेतलो,

एक ज्योतिशी, आनी हेर कांय आत्मे आसात. निमाणो बारावो आत्मो एका बामणाचो) – ह्यो आत्मकाणयो शणैबाबांनी दर एकल्या आत्म्याच्या तोंडांनल्यान ताची ताची करून वदैल्यात. आत्म्याचे अवस्तेंत हे जीव आतां फटी उलैनात. ते आपल्या बऱ्या-वायट कर्तुपांची वळेरी सरळपणान आनी खरेपणान सांगतात. दर एकल्याची ती आपविती आयकणारो आसता देवाचो दूतमाम, आनी दिस-नाशिल्ल्या, रूपनाशिल्ल्या देवाचें झगझगीत शिवासन. आपापली काणी सांगपी आत्मे चडशो जाणवायो सांगूंक लागले म्हण्टकूच देवाचो दूत तांचेर धेंकणो घालून तांकां चिप बसैता. ताचेकडेन तांच्या प्रस्नाक दिवची योग्य जाप नासता. म्हण्टकूच 'शेषं कोपेन पूरयेत' ह्या न्यायान तो तांचेकडेन वागता ! आत्मकथन करता आसताना आत्मे जिणेक लागत्या बरें-वायट, पाप-पुण्य, सुख-दुःख, नीत-अनीत, देव-सैतान, सत्य-लटकें बी जायत्या गजालिची चर्चा करतात; आक्षेप-प्रतिआक्षेप घेतात आनी आपुण स्वर्गाक अधिकारी आसांत म्हणपाची खात्री दितात, आनी नरकांत वचपाक आपुण पात्र नात अशें सांगतात. एका ज्योतिशालो आत्मो संवसाराच्या बोंबाडयाच्या उत्पत्ती आनी विकासाची कथा विस्तारान सांगता. ताचें म्हणणें जीव हो संवसारांतलो एक अक-स्मात (accident). ताचेखातीर संवसार घडूंक ना; आनी तो संवसाराल्यान कायमचो नासो जांव येता. ज्योतिशाच्या ह्या कथनांतल्यान विश्वाचे उत्क्रांतीविशीं एक ल्हानसो विज्ञानिक ग्रंथ ह काणयेंतल्यान वेगळो काडूं येत.

संवसार बुट्टेंतलो बारावो आत्मो बामणालो. ताचे आपवितींत चड करून जिणे विशींचें तत्वगिन्यानूच भल्लां. घडये हें शणैबाबांलें स्वतःचें तत्व-गिन्यान जांवये, अथवा तें तांचे साइत्यिक प्रतिभेची एक वस्तुनिश्ट निर्मितीय आसुंये. परंत त बरेंचशें आत्मनिश्ट अशें दिसता. हे फिलसुफीचो सारभूत असो थोडो वांटो हांगा दिला.

बामण आस्तिक. ताचे नद्रेन देव आसा पुण तो जिवांच्या कर्मांत सुडबुडना. संवसाराक ताणे मार्ग आंखून दिला त्याप्रमाण संवसार आनी तांतल्यो जीव आदि वस्ती चलतात. तो संवसाराचो कर्तो आनी ताचें आयतेंय बी. देव आनी जिवाचो संबंध समुद्र आनी ताचीं ल्हारां जशीं तसो. पुण ल्हारां म्हळ्यार समुद्र न्हय. संवसार बऱ्या-वायटान भल्ला. पातक आनी पुण्यताय दोनीय, ताच्यात वसतात; आनी देव त्या दोनूय तरांच्या आसपाक अधिकारी. सर्ग-नरक ह्यो फट गजाली. मर्णाउप्रांत ख्यास्त वा तस्नीप मेळटली ही शुद्ध कल्पना. तांतूंत कांयच खरेपण ना. पळोंवक गेल्यार संवसार हो देवाचे वान्सेंतल्यान निर्माण जाल्ल्यान तांतूंत अतृप्तीचें दुःखच भल्लेलें आसा. हें दुःख ल्हवु करप

म्हळ्यार सुख. सुख ही वेगळी वस्त ना. दुसऱ्यान आपणाक जशें करचें अशें आपणांक दिसता तशें आपणे दुसऱ्याक करचें. हो भांगरानेम जिवांनी पाळल्यार सगळे सुखी जातले. मर्णाउप्रांत जीव लिंग–कुडी रूपान उरता. देखून तो पुनर्जल्म घेता. पुनर्जल्मांतसून वा संवसारांतसून कोणाक सुटूंक येना; कोण सुटूंक पावनात मोक्ष, माया, आभास बी सगळें फट आसा. गिन्यांन्यांनी केल्ल्यो त्यो मोहक कल्पना. मनशान संवसारांत शंबर वर्सां जगून पुरुशार्थ करचो हावेस बाळगुंचो. देवाची पुजा, उपासना, प्रार्थना जाय जाल्यार करची ; पुण देवाक तांची गरज ना. तो भुरकुटना वा रागान मनशाक ख्यास्तूय भोगैना. मनीस आपल्या कर्मांचें फळ भोगता. तें चुकोंव येना. वायट-बरें पळोंवंक मनशाक बुद्द दिल्या. तिचो जिणेंत पुरायेन उपयोग करचो. देव, संवसार आनी ताचे भितल्ल्यो जिवादि वस्ती सासणाच्यो उरतल्यो. तांतलें कांयच नाशें जांवचें ना. परिवर्तन वा बदल जांव येता –– नाश न्हय.

'गोमन्तोपनिषत्' हो मनशाचे जिणेविशींच्या तत्वगिन्यानाचो, ताका काणयांचें आकर्शक रूप दिवन रचलेलो चड बरो ग्रंथ आसा. ताची प्रेरणा वा स्फूर्ती शणैबाबांक स्रद्देंत मेळूंक ना, तर बुद्धीचे दाबून उडोंवक येना अशे तरेचे विकसणीचे ऊर्मीतल्यान मेळ्ळ्या. हो ग्रंथ आमच्या रूढ विचारांक आनी कल्पनांक खडबडावन हालैता आनी आमकां प्र-वृत्ती आनी प्र-गतीचो मार्ग दाखयता. ग्रंथाचे भाशेचें आनी ताचे विद्वतायचें अजापाचें वैभव, तशेंच ताच्या बरपाचे शैलीचें प्रसादिकपण, सहजपण – सभाविकताय आनी ओघवत्ताय ह्या गुणांचो फक्त उल्लेखूच करून हें परीक्षण इतल्यान सोंपयतां.

## ६ भुरग्यांलो इश्ट (१९३५)

सुंदर, गुटगुटीत, वाळशें धरिल्ल्या गोमट्या भुरग्यावरी दिसणें कितलें गोड हें पुस्तक ! संवसारांतलें खंयचेय भाशेक आपल्या भुरग्यांभितर निजाविशीं, भुंये विशीं वा संस्कृतायेविशीं मोग निर्माण करून जर तो वाडोंवचो आसत वा तांच्यांत उंच हावेस भरचो आसत तर तिणें हें देख-दिणें पुस्तक आदर्श म्हणून आपले मुखार धरचें.

पत म्हणून हो एकूच पाठ घेयात :––

### म्हजें गोंय

गोड म्हजें गोंय ! सुंदर म्हजें गोंय !
पुर्विल्लें नाम्नेचें, चड मोट्या भाग्याचें,
उंच माथें कोंकणाचें, हें म्हजें गोंय !

निजाचे अपुर्बायेचें, इंद्रनीळ मळबाचें
भांगराच्या वोतांचें, रुप्याच्या चांदण्याचें,
हें म्हजें गोंय !

पथिक उदका-वाऱ्याचें, चकचयाळ पिकावळिचें,
सोबीत फुलां-फळांचें, शिटूक सावदां - सवण्याचें,
हें म्हजें गोंय !

उजळ संस्कृतायेचें, खरेल्या कुळवंतांचें,
उदार मनाच्या लोकांचें. पाटांगडचा विद्वानांचें,
बळिश्ट झुजप्यांचें, बुदवंत राजकर्ण्यांचें,
वावराडचा कामवटांचें, कर्तुपी मनशांचें,
हें म्हजें गोंय !

धर्तरेवयलो सर्ग –– हें म्हजें गोंय !
सासणाचें सुखदिणें –– हें म्हजें गोंय !

हें वाचतांना पावली मारतले काव्यात्मतायेच्या पायांतल्या पैंजणांची किणकिण कोणाच्या कांनांकडे वाजना ?

## ७ पुण्यात्मो राम कामती (१९३९)

सतराव्या शेंकड्याचे सत्तरींत मुंबैचो जुंवो पुर्तुगेजांकडसून इंग्रजांच्या हातांत पडून ते तो व्हडविकेक चडोंवक वावुरताले; त्या वेळार राम कामती नांवाचो एक गोंयकार बामण आपणाले कर्तत्वदर्शन नांव-लौकिकाक चडलो. तो मोटो देवधर्मिश्ट आनी उजू चलणुकेचो आसून, सुमार चाळीस वर्सां तो लोकांचे आनी सरकारचें सेवेक वावुल्लो. ताणे ह्या दोगांयचो उपाट विश्वास जोडून मुंबै शारांतलो तो म्हाल-मुखेल म्हाजन जालो. निमाणे तागली व्हडवीक कांय नश्टचा पाडोस्या आनी दुस्वासी मनशांक नसाय जावन ताणीं ताचेर वगलांठां घालीं आनी ताचो घात माल्लो. ताचो कुस्कूट अन्याय नातलाना ताच्या गुन्यावांची चौकशी करपाचें फकाण करून सरकारान ताका बंदखणींत घालो, आनी थयंच तो निर्णल्ल्या आनी निर्शेल्ल्या अंतस्कर्णान भायर पडलो.

त्या राम कामतीची हें पुस्तक दुखेस्त इतिहासिक जीण आसा.

शणैबाबांनी ह्या पुस्तकांत सरकारी पोर्नीं आनी पिंजकीं दप्तरां उस्तून दाखोवन दिलां कि राम कामतीचेर घाल्ले आरोप सगळे लटके आसले; आनी तो साप निरपराध आनी निष्पाप आसलो.

ह्या पुस्तकाचो उजवाडावपी शणै गोंयबाबांविशीं म्हण्टा : “ही जीण बरैता आसताना कामतींत ते इतले एकरूप जाल्लेत कि, “म्हाका ह्या वेळार म्हज्या मोट्या भाग्यान तो लांब रुंद म्हाल-म्हातारो पुण्यात्मो म्हज्या म्हर्‍यांत घसघशीत उबो रावून, नकसूद उतरांनी पुण मोटे धिटायेन आपली खबर सांगिल्लेवरी दिसता.” अशें ताणी म्हळां. ही कामतीची खबर ताणी सरकारी दप्तरांतल्या आधारांचेर खसखशीत घांसून ताका गुन्याव नासताना ख्यास्त भोगिल्ली म्हणपाचें सणसणींत सिद्ध केलां आनी इंग्रजी न्याय देवतेची भयांकृत चूक तिच्या पदरांत घाल्या. हें लटकें करून दाखोंवक आतां खैंच्याच न्याय मंदिरांतल्या कोणाच न्यायमूर्तीक अंदाजा ना.”

राम कामती’ ह्या पुस्तकांत बारकायेन केल्ल्या वर्णनांचीं जायतीं थळां आसात. पुण तीं लांब लांब वर्णनां अथवा पुस्तकांत आइल्ल्यो विस्कण्यो आनी विवेचनां हांगा दिवंक सुवात ना. ह्या पुस्तकातल्या बरपाची एक पत म्हणून आंग्रे हे कोण आसले आनी तांचो इंग्रजांकडे कशे तरेचो संबंध आसलो हे सांगपी दोन तीन परिच्छेद हांगा उठावन दिल्यात.

“अठरावो शेंकडो लागत्यार मुंबै साकून गोयांमेरेनचे तडीर पांच-स जाणांची सत्ता चलताली. तरी तांतूंत खरेलो शेक कान्होजी आंग्रो चलयतालो. हो कोंकणी सरदार. हाचें घराणें शिवाजी भोंसल्याच्याय घराण्यापरस चड पुर्विल्ले नामनेचें आनी लोकिकाचें. हांचें मुदलचें कुळनांव ‘संगपाळ’ (संकपाळ) हें घराणें चौदाव्या शेंकड्यांत विजयनगरच्या पैल्या बुक्करायाच्या वेळार जायतें गाजलेलें. १३६६ त माधव मंत्री जेन्ना कोंकण घेंवक आयलो तेन्ना संकपाळान ताका जायते आडमेळे हाडले. परंत निमाणे ताका हार जाली. विजयनगरच्या तांब्यापटयांनी ताका कोंकणो शंकपार्य म्हळां. संकपाळाचें ‘शंकपार्य’ हें संस्कृत घडप. पंद्राव्या शेंकड्यांत ताचें बळगें जायतें वाडिल्लें. फेरिस्त्यान ताका, शंकरराय अशें म्हळां. तो खेळणेच्या (विशाळगड) किल्ल्यांत रावतालो. तो सदींच ३०० तारवांचें आर्मार घेवन समुद्राचे तडीन भोंवतालो; आनी मुसल-मानांचो वेव्हार आडायतालो. देखून संगमेंश्वराचे तडीवसल्यान येंवक-वचूंक मुसलमान थर्त भियेताले. हाचे वयल्यान आंग्याचो वंशपिड्यांचो धंदो तारवट-पणाचो आसून तांतूत ते शेंकड्यांनी वर्सां घोळिल्ले आनी तिजिल्ले अशें दिसता.

सतराव्या शेंकड्यांत शिवाजीन तारवावळ घडयली ती आंग्र्यांच्याच जिवार. कान्होजीचो बापूय तुकोजी हो ताचो नामनेचो तारवटी सरदार आसलो. १६९८ त छत्रपतीचो तारवावळीचो सरखेल म्हळचार मुखेल सेनापती कान्होजी जालो. तो मुंबयचे दक्षिणेक सुमार २५ मैलांचेर अलिबाग लागशिल्ल्या

कुलाब्याच्या आखाडचावयल्या किल्ल्यांत रावतालो. ल्हवुल्हवु सुवर्णदुर्ग आनी विजयदुर्ग हीं ताचे तारवावळीचीं ठाणीं जालीं. १६९९ त ताणें जंजिऱ्याचो सिद्दी, पुर्तुगेज आनी मोंगल हांकां हार करून, आपणाक जायतशें लिखित करून घेतलें. ताचीं झुजारी तारवां सुमार ५०–६० आसून तीं दोनतीन कुव्यांचीं आनी ७० पासून ३०० टन भरतडींचीं आसलीं. तांचेर नाळी आसून तांतूतसून दोन पासून बारा रात वजनांचे गुळे मारूंक येताले. ताचो पास विकतो घेनासताना समुद्रांत कोणेय तारवां चलैल्यार तीं तो लुट्टालो. १७०५ वर्सा-पासून तो इतलो बळिश्ट जाल्लो कि हिंदुस्तानांतल्या व्यापार करतल्या सगळ्या येवरोपी राष्ट्रांक ताच्या नांवाचो कलकलो सुट्टालो. इंग्रजांची इस्ट इंडिया कंपनी लेगीत ताका भियेताली. आनी ताच्या घुर्यांतसून आपलीं तारवां वाटांवक वर्सपट्टे पांच लाख रुपया खर्चून तारवटी सैन्य दवरताली. छत्रपतीच्या, घराण्यांत दायजकेचें झगडें चलतालें तेन्ना, १७१३ त ताणें शाहू राजाच्या सैन्याक हार करून साताऱ्याचेर घुरी घालपाची तयारी केली. तेन्ना ताचेकडे बेगोबेग सन्मथ करून ताका कांय किल्ले दिले आनी वजरत-महाल आनी सरखेल ह्यो पदव्यो दिवन शाहूराजान ताका आपले सत्तेतळा थारायलो.

कुलाब्याच्या किल्ल्यांत राविल्ल्या कारणान कान्होजी आंग्रो इंग्रजांचो दाराक तेकिल्लो दुस्मान जाल्लो. ताचें आनी इंग्रजांचें भौनभौन तिट्टालें. १७१३ त ताणे धरिल्लें तांचें तारूं आनी ताचेवयलीं मनशां खणखणींत तीस हजार रुपया भरून इंग्रजांक सोडोंवची लागलीं. फुडं कांय रदबदली जातोकूच १७१३ च्या फेब्रेरांत दोगांय भितर थंडायेचें लिखित जालें. तांतूंत थारायलें कि, आंग्रयान इंग्रजांच्या वा तांचे राखणेतळच्या वेपाऱ्यांच्या तारवांचे वाटेक वच्चें न्हय आनी मुंबैच्या बंदरांत येंत वेते खंयचेंच तारूं आडावचें न्हय. ताणी आंग्रयांच्या बंदरांत आनी आंग्रयांनी तांच्या बंदरांत मानडबी भरून वेपार करचो. परंत ही निमाणी अट इंग्रज लोक सारकी पाळिनात म्हणपाचो दुबाव आंग्रयांक येतालो आनी तितले खातीर तांकां तो धोंसतालो."

## ८ आबे फारीय (१९४१)

ही एक व्हडविकेक पावलेल्या गोंयकाराची जीण. १७५६ वर्सा गोंयांत कांदोळी गांवांत ताचो जल्म जालो. पंद्राव्या वर्सा आपल्या पाद्री बापाय-बरोबर तो पुर्तुगालाक गेलो. रोमा शारांत रावून तो खूप शिकलो आनी विद्वान जालो. भूलविद्येचो शास्त्रीक सोदपी म्हणून ताचें नांव फ्रांसांत आनी सगळें

येवरोपभर गाजलें. तो परतो आपले भुंयेक येवंक पावलोना. पुण तो आपले भुंयेक आनी मुळाक केन्ना विसल्लो ना. आपुण गोंयकार आनी तांतूंत मुळचो बामण आसां हाचो ताका अभिमान आसलो. १८२० च्या सुमाराक तो येव-रोपांतच भायर पडलो.

शणैबाबांनी भुरग्यांक वाचपाखातीर आनी तांचो हावेस वाडोवपाखातीर म्हणून ही जीण रचल्या. तिका भौ. बाय प्रोपेर्सिय कुर्रेय आफोंस द फिगैरेदु हे विदुषीन प्रस्तावना बरैल्ल्या. प्रस्तावनेंत आवयभाशेचें म्हत्व, भुरग्यांलें शिको-वप कशें आसचें ताचें विवेचन आनी शणै गोंयबाब हे आदर्श शणैमाम कशें आसले ताचें दाखोवन दिवप आयलां.

हे जिणेतल्या बरपाचे कांय नमुने :—

(१) "पुर्तुगाला आसताना तागेले (आब फारीयाले) जिणे संबंधाच्यो, जायत्यो गजाली गोंया पावल्यो. तांतूंतली एक जाल्यार कवतुकाची दिसता. लिज्बोआच्या राजमहालाच्या कपेलांत ताचें पैलेंवयलें उलोवप जांवचें आसलें. ते आयकूंक पुर्तुगालचे म्हाल मुखेल पंडित मोटे अथ्रेकणेन थंय जमिल्ले. परंत धा जाणांचे सभेत उलोवपाचो प्रसंग फारिआक त्या आदीं केन्नाच येवंक नासलो. तांतूंय दिवाणांतल्या फिर्ग्या फिदाल्गां सामखार उलोवप करचें काम चड कठिन. फारिय उलोंवक उबो रावलो तेन्ना काचाबूल जावन ताच्या तोंडांतल्यान उतर सुटना जालें. ताचो बापूय थंय लागसारूच आडोसाक आसलो. तो मोटो धिरिश्ट, सट करून युक्त सुचता तसलो, आनी कसोय वेळ आयलो तरी बाग-डना जाल्लो आसलो. ताणें ल्हवुच, पुताक आयकूंक येशें कोंकणी भाशेत म्हळें : "कातर रे भाजी !" हुशार फारीय तितल्यान शिटकावलो. बापायच्या उत-रांनी ताका धीर चडलो. आपले सामखार बशिल्ले लोक रूपान गोरे धवे आनी वळकांड्या मिशयांचे आसले जाल्यारूय कवडां धांकिल्लें तायखिळचाचे बावके भाजये भाशेन साप बाबत कुळां आसात म्हणपाचें ताच्या ध्यानांत आयलें आनी तो मोटचा फुरफुऱ्यान उलोंवक लागलो. तागेल्या उलोवपान आयकतल्याक इतली खोस जाली कि ताचो लौकिक पुर्तुगालभर घणघणलो." (आ. फा. पान ७)

(२) "फारीय आपले विद्येक घणघणीत उजवाडाची न्हीद म्हण्टालो. फ्रांसेज भाशेंत ताणें तिका "Sommeil Lueide" हें नांव दिलां. इंद्रियांक जें गिन्यान जागेपणांत जायना तें गिन्यान तांकां न्हिदेंत जाता म्हणपाचें तो आपल्या प्रयोगांनी सिद्ध करून दाखयतालो. ताणें पांच हजारांवयर मनशांक ही असली न्हीद लागशी केल्ली. हे घणघणीत न्हिदेंत आसताना तो तांकां बांयचें निखटें उदक निबाच्या रोसाभाशेन लागशें

करतालो. १८१९ त ताणें ' घणघणीत न्हिदेचें कारण " (La cause du Sommeil Lucide) नांवाचें एक पुस्तक उजवाडा हाडलें. हांतूत ताणें सिद्ध केल्लें कि ती न्हीद लागूंक चुंबकी व्हाळाची वा प्रयोग करतल्याचे इत्सेची गरज ना. ती त्या त्या मनशाचे खासा सुलूसेचेर आधारून आसा.......तो कोणाय मनशाकडेन एक उतरूय उलयनासताना तागेले भावनेन तागेलो हात वा पाय जैचें थें धरिल्ल्यावरी करतालो. ह्यो 'करण्यो खरेपणानिशीं प्रयोग, करतल्याच्या बळग्यान घडनात. त्यो त्या त्या मनशाचे भावनेन घट्टात. " जशी जाची भावना तसो तो जाता. " अशें जें श्रीकृष्णान भगवद्गीतेंत म्हळां तें इल्लेंय लटकें न्हय. मन मनशाक बांदून घालता आनी मनूच मनशाक मेकळेय करता हेंच खरें. राजवाक सोरोप समजून मनीस आंग काट्टा आनी जोर येवन मरता हें लटकें न्हय. आपुण मरतलों असो ' वायटकाराचो समज जायत जाल्यार ताका ओखद पारना आनी तो खऱ्यानीच मरता. तशेंच आपुण बरो जातलों असो समज जायत जाल्यार तो निखटचा उदकान बरो जाता म्हणपाचो जायत्या वैजांक अणभव आसा. हाचे वयल्यान मनशाच्या मनाचेर सगळें आधारून आसा हांतूंत दुभाव ना. ताच्या मनाक जशी सुलूस मेळत, तशी ताची भावना जावन, तशे तशे परिणाम घट्टात हो गडगंज सिद्धांत फारिआन उक्ताडा हाडलो हातूंतच ताच्या शास्त्रीक सोदाचें म्हत्व आसा. हो सिद्धांत केन्नाच लटको जायसो ना. फारियाफाटल्यान भूलविद्येच्या शास्त्रांत जे जे कोण वावुल्ले ताणीं फारियाचोच सिद्धांत उखलून धल्ला आनी ताका त्या शास्त्रांत सगळ्यांत पैलो पाट आनी पैले तिकलेचो मान दिला. " (आ. फा. पान १६–१८).

## ९ येवकार अध्यक्षांलें उलोवप ( १९४७ )

ह्या पुस्तकात शणै गोंयबाबांनी भाशेंत म्हळ्यार बरपांत उपकारांवचें जडजडाव कितलें आसचें वा नासचें ताचे संबंधान आपले मुळावे विचार दिल्यात:–

### भाशेंतलें जडजडाव

दर एकले भाशेंतल्या बरोवप्याक आपलें बरोवप गिरेस्त दिसचें अशें दिसता. ताचो समज असो आसता कि लोकाक सट करून समजनात तसलीं जडगुळो उतरां भाशेंत घालतकूच ती गिरेस्त जाता. कांय बायलो जायांचें भांगर हाडून आंगार घालतात, तसलीच तांची गत. ह्या अडेच्या भांगरान त्या बायलांक कोण गिरेस्त म्हणनात आनी सोबूय येना. भास जड-जडावाची करची

म्हळयार पुर्विल्ल्या भासांतलीं उतरां भितर शिरकटांवचीं. ह्या नादान येवरोपी बरप्यांनी लातीं आनी ग्रेग भासांतलीं जायतीं उतरां आपल्या भासांनी शिर-कटायल्यांत. आमच्या हिंदुस्थानांतल्याय भासांनी संस्कृत उतरां शिरकटायल्यांत आनी शिरकटायतात. बंगाली लोकांक ही जायती वज आसा खैं. सादीं सोपीं उतरां घोळटेंत आसताना ते बळयांच अगडबंब संस्कृत उतरां आपल्या बरपांत घालतात. हे तरेन लोकांच्या घोळटेंतलीं भास वेगळी आनी बरोवपाची भास वेगळी अशी अवस्ता थैं जाल्या. हाचो परिणाम असो जालो कि जायत्या बंगाल्यांक आपली सरस्पत धड पळोंवक मेळना. हिंदी बरप्यांकूय हो वसो लागला. ' हो बरपी जेन्ना हातांत लिखणी धरता तेन्ना धेयभान विस-रून संस्कृतांत सामको बेबदो जाता खैं. ' अशें ग्रियरसन तांचें वर्णन करता. ह्या शिरकटाइल्ल्या संस्कृत उतरांनी भाशेक सोब येंवचे बदला तिच्या आंगाक चामखूळ आनी वाळको जाल्लेवरी दिसतात. सतराव्या शेंकडयांत ' यमक्या ' वामनाच्या वेळेपासून मराठीकूय हें पिशें लागलां. त्या आदीं मुकुंदराजापासून तुकारामामेरेन ३०० वर्सां सादी मराठी घोळटाली. तांतूतच तुकारामालें कवीत भोव सादें आनी सोपें. ताचेफाटल्यान मराठीचो घुस्मटमार जावंक लागलो मोरोपंतान जाल्यार संस्कृत कपयो करून मराठीची गोजडीच शिवली ! " हा भवदर्थोन मान्य हो गा या।' असली तागेली भास ! मोरोपंतांची मराठी इतली कठिन जाल्या कि आमगेलो कोंकणो पण्डित महामहोपाध्याय महेश्वरबाब सुख-ठणकार हाका तागेल्या आर्यांची सोप्या संस्कृतांत फोडणिशी करची पडली ! ' मराठीच्या शिवाजीन ' जाल्यार मोरोपंताचो मागो घोळयलो आनी हालिच्या वर्तमानाक मराठींत ' सकृद्दर्शनी – अद्यतन – आधुनिक – उपस्थित – दिनांक – प्रभृति ' उतरांनी अच्छेव मांडलो ! असल्या उतरांनी भास जड-जडावाची जाता खैं ! हांवें जायते मराठी बरोवपी आनी उलोवपी पळेल्यात कि भाशेक अडेची जडसाण हाडूंक ते संस्कृत उतरां घालतात खरे, परंत तांकां तांचो अर्थूच समजना. केन्ना केन्ना ते अर्थाचो अनर्थ करतात.

गुजराती भाशेच्या कांठयारूय हें जड-जडावाचें भूत हालीं बसूंक लागलां. गुजराती भास म्हळयार वेपाऱ्यांली वेव्हारीक भास. साबी, सोपी, गोड भास, तांतूंत बळयांच संस्कृत उतरां भरसून ताणी ती अडेची पंडिती भास कित्याक करचीं तें समजना. काश्मिरी लोकांनी मात आपणाली भास निवळ बरी राखल्या. काश्मिरा संस्कृत पंडित जायते आसात. पुण तांगेलो सगळो कोश तद्भव उतरांनी भल्ला. तांतूंत तत्सम उतरां निखालूस नात म्हळयार जाता अशें ग्रियरसनान म्हळां. आमी कोंकणे संस्कृत शिकून पाटांगडे पंडित जांवया

परंत तांतूंतली उतरां गरज नासताना शिरकटावन आमकां ती भास येता, म्हणपाचे पोले बडवाचार केन्नाच दाखोवया नाका. आवय, बापूय, धूव, भाव भैण, गिन्यान हीं गोड कोंकणी उतरां आसतांना आमी बळयांच माता–पिता–कन्या–भ्राता–भगिनी–ज्ञान हीं संस्कृत उतरां कित्याक उपकारांवचीं? कसली रूच आनी कसली सोब आसा तांतूंत ? असल्या ह्या जायांच्या जड-जडावान विद्येची आनी गिन्यानाची वाड जांवक अडचण येता. भास उलयतल्याक आनी आयकतल्याक , बरैतल्याक आनी वाचतल्याक सगळयांक सारकी रोखडी समजूंक जाय. थोडयाशा पंडितांक समजली म्हळयार जायना. काश्टी नेशिल्ल्या गावडयाक लेगीत ती समजूंक जाय. ताका लेगीत दिसूंक जाय कि कोंकणी भास आपणाली. आमी हे गजालींत इंग्रजांली देख घेतल्यार बरी. लातिनिझमचो म्हळयार लातिकारांचो तांकां मनापासून वीट. तांगेल्या बिबळांतली भास पळेयात कितली सादी सोपी ! आपणाले भाशेंतलीं मुळचीं अँग्लो सॅक्सन वा पोरणी इंग्रजी उतरां राखून दवरूंक ते मोटी जतनाय घेतात. तांगेलीं Freedom, Welcome, Daily & Weekly हीं कितलीं सादीं उतरां. ह्याच अर्थाचीं जीब मोडून पूड करतात तसलीं हिंदी लोकांलीं स्वातंत्र्य, स्वागत, दैनिक, साप्ताहिक बी उतरां पळेयात ! आमी कोंकणी असली पिसाय करूंया नाका. संस्कृत ही आमगेली आजी खरी. कोंकणी ही तिगेली अपुर्बायेची म्हालगडी धूव खरी. परंत तितले खातीर आमी आमगेले आजयेक मेळत तेन्ना नागोवया नाका. आमी आदीं आमच्या भाटांत माडांक नाल्ल, आसात कि नात तें पळोवया; आनी थंय एक सुकिल्लो बोंडोय दिसलोना जाल्यार मागीर आजयेच्या भाटांतल्या माडांचेर चडुंया. परंत आमगेलीं भाटां पिकाळ आसात. तीं आमगेले आवैक वरदक्षणेंत मेळ्ळयांत. देखून भौन भौन आजवळच्या दायजाचेर दोळो दवरची आमकां गरज ना. आमी संस्कृत उतरां लागीं केलींय जाल्यार तांकां मोवशें कोंकणी आंगलें तोपरें घालून मोवाळ, करुंया. ओगीच आपली जीब मोडून पूड करुंया नाका.

(ये. अ. उ. पान ६४–६५)

## १० कोंकणीची व्याकरणी बांदावळ (१९४६)

शणै गोंयबाबांली कोंकणी भाशेक ही मोल करूं येना येदी व्हड देण आसा

डॉ. सु. म. कत्रे म्हण्टात : हें पुस्तक म्हजें दिसपट्टें सांगाती जालां. भौ. वालावलिकारांनी जल्मभर वावरून केल्ल्या कोंकणी अभ्यासाचें फळ ह्या

ल्हान पुस्तकाच्या रूपान आमकां दिलें. हे खातीर ताणी ह्या संबंदाची आदली सगळी बरपावळ इतले खोलायेन वाचली कि ती ताणी जिरोवन पचयली आनी मागीर जिवंत कोंकणीकडे वचपाचो सर्त-शीम नाशिल्लो आपणालो खाशेलो मार्ग काडून तो ह्या निबंदांत दाखैलो. तारतमी नद्रेन भासशास्त्राचो अभ्यास करतल्यांक हें पुस्तक चड म्हत्वाचें आसा ......कोंकणीच्या बांदावळी संबंदान ताणी जें कितें सांगलां तें भासांचो निखटो अभ्यास करतल्यांनीच न्हय तर ही भास जे कोण उलोंवक आनी वाडोंवक पळेतात त्या सामान्य वाचप्यांनीय ध्यानांत धरिसारकें आसा. हालींच्या वर्तमानाक उजवाडाक आइल्ल्या असले तरेच्या सगळ्या पुस्तकांत हें ल्हान एकसुत्री पुस्तक चड म्हत्वाचें आसून ही भास उलोवपी लोकांच्या विचारांचेर तें चडांत चड मोटो परिणाम करतलें."

शणैबाबांलें हें एक व्याकरणी विवेचन पळेयात :—

"हो (कोंकणी आनी हेर भारतीय भासांतलो) ओकार खंयच्यान आयलो संस्कृत कः कुसावयल्यान तो आयला अशें भासशास्त्र्यांचें मत्त आसा. संस्कृतांत कांय उतरांक स्वार्थी कः लांवची चाल आसा. परंत तितल्यान ताचो अर्थ बदलना. देखीक अवि–अविकः (कांवळ गोरुं), याव–यावकः (जंवांचो रोटको), घट–घटकः (बुडकुलो); भ्रमर–भ्रमरकः (म्होंवामूस) बी.

परंत कः कुस लायनासतनाय संस्कृतांत 'अः' न सोंपिल्ल्या पुरुशलिंगी उतरांत अः चो ओ जाता. अः च्या फुडें अ वा मोव व्यंजन आयल्यार विसर्गाचो उ जावन तो आदल्या 'अ' त मेळून 'ओ' जाता. देखीक, माधवः जयति–माधवो जयति.

वेदीक संस्कृतांत अशीं कांय वाक्यां मेळटात कि तांतूत कसलोच नेम लागू जाय नासतांना पैले विभक्तीचें एकवचन 'ओ' न सोंपता. देखीक "सो चिन्तु न मराति न वयं मरामरे" (तो मरना आनी आमीय मरचे नात.)

मराठींत "ओ" न सोंपण्या रूपांची वळेरी दिवन शणैबाब निष्कर्ष काड-तात :—

"निमाणे बादबाकी काडून पळेल्यार, जो, तो, हीं सर्वनामां, अकर्मी भूतकाळाचीं पैल्या पुरुशाचीं पुरुश लिंगी एकवचनी रूपां, आनी पुरुश लिंगी, स्त्री लिंगी आनी नपूंसक लिंगी भोववचनी रूपां इतल्यांतूच "ओ" काराचे नद्रेन कोंकणीत आनी मराठींत सारकेपण दाखोंव येता. परंत तें धड न्हय कोंकणी 'ओ' काराचो उकतो आनी मराठी ओकाराचो धांकतो उच्चार जाता हें ध्यानांत धरूंक जाय. हे तरेन सारकेपण व्हांवन वेता. असल्या व्हांवण्या

सारकेपणाखातीर कोंकणीक मराठीची पोटभास म्हळचार मराठीक लहंदी, पंजाबी, हिंदुस्तानी, अवधी, ओडिया, बंगाली बिहारी, आसामी, जंवसारी सिरमावरी, बघारी, किंवठली, कुळुई, शोदाची, मंडआळी, चमेआळी, गादी पंगवाळी, पाडरी, रामबनी, काश्मिरी, गवखती, आनी पशै-पैशाची इतल्या भासांची पोटभास म्हणची पट्टली. कित्याक त्या भासांनी मराठीवरी 'आ' कार जायतो घोळटा.

कोंकणी 'ओ' कार हो कोंकणीक मराठी पासून वेगळायणो गडगंज सह्याद्रीच म्हळचार जाता. तेरेखोलाचे उत्तरेकडच्या कोंकणांत मराठीन धुम शेणां घालून कोंकणीक आजवेर फापसून विद्रूप केल्या आसतानाय तिचो 'ओ' कार अजून सुटूंक ना, आनी केन्नाच सुटचोना."

(कों. व्या. बां. पान ९–१०–११)

## ११ श्री भगवंतालें गीत ( १९५९ )

शणै गोंयबाबांनी केल्लें हें श्री भगवद्गीतेंचें अपरुपाचें प्रसादिक गद्य भाशांतर.

गीतेचीं हेर भाशांतरां जेन्ना गीतेंतल्या श्लोकाचो अर्थ सांगतात तेन्ना तो अर्थ भोव करून चित्ताक वयलेवर सांसपून पयस सरता. परंत श्री. भगवंताल्या गीतांत दिल्लो श्लोकाचो अर्थ वाचप्याची बुद्द आनी काळीज ह्या दोगांतूय एकाच वेळार सामको भितर रिगून तळाक पावता. निर्मळ आनी शांत उदकाचे तळयेचो तळ जसो नद्रेक स्पश्ट दिसता तसो गीतेच्या श्लोकाचो अर्थ वाचप्याच्या चित्ताक स्पश्ट दिसता आनी वाचपी समाधानाचो निस्वास सोडटा. सतराव्या शेंकडचांत इंग्रजीत जाल्ल्या बिबलाच्या भाशांतराची नदर आपले मुखार दवरून शणैबाबांनी हें भाशांतर रचलां, आनी पर्थूनपर्थून निवळावन काडलां. ह्या भाशांतरांत कोंकणी उतरांची अवीट गोडी, आनी अर्थ धरपाची आनी उक्तावपाची तांची शक्त हांचो वाचतल्याक पावला कणकणी अणभव येता.

पतीखातीर, भक्तांचीं लक्षणां सांगपी बाराव्या अध्यायांतले हे श्लोक घेयात :–

कोणाच जिवाचो द्वेस करिना जाल्लो, सगळचांचो इश्ट, तसो काकळूत आशिल्लो, म्हजेपणाची ओड नाशिल्लो, सुख-दुःख सारकीं लेखतलो, दुसऱ्याचो गुन्यांव सोंसतलो,

सदा धादोशी, योगबुद्धीन चलतलो, इंद्रियां आळाबंदा हाडिल्लो, घट नित्शयाचो, मन आनी बुद्द म्हाका ओंपिल्लो असो जो म्हजो भक्त तो म्हजो अपुर्बायेचो.

जाका पळोवन लोक कांवचेनात आनी लोकाक पळोवन जो कांवचेना, जाय जाल्लें मेळून जो भुरकुटना, दुसऱ्याचें बरें पळोवन जाका दुस्वास रिगना, भय आनी उबगण हांचेपासून जो मेकळो, तो म्हजे अपुर्बायेचो.

आस्त नाशिल्लो, कुडीन आनी मनान निर्मळ, आळसाय नाशिल्लो, बरें वायट लागून घेना जाल्लो, दुसऱ्यान पिडल्यार कश्टी जायना जाल्लो, फळाचे आस्तेन कसलीच करणी करिना जाल्लो, असो जो म्हजो भक्त तो म्हजे अपुर्बायेचो.

जाय जाल्लें मेळून जो भुरकुटना, नाका जाल्लें मेळून जो उबगना, आशिल्लें होगडावल्यार जो खेद करिना, नाशिल्लें मेळपाची जो वान्सा धरिना, जाणें बरें आनी वायट सोडलें असो जो भक्तिवंत मनीस तो म्हजो अपुर्बायेचो,

शत्रु आनी इश्ट, हांकां सारको, तशेंच मान-अपमान, थंड-हून, सुख-दुख हांतून सारको, कसलीच ओड नाशिल्लो,

निंदा आनी तोखणाय जाका सारकी; तोंड सुवादिन आशिल्लो, जें कितें मेळटा तितल्यान धादोशी, घरादाराची ओड नाशिल्लो, थीर बुद्धीचो असो जो भक्तिवंत मनीस तो म्हजो अपुर्बायेचो.

जोडचेले व्हडले वस्तीभाशेन म्हाका लेखून आनी म्हजेर पातयेवन मर्णातसून मेकळो जावपाचो हो पवित्र उपाय हांवें सांगिल्ले भाशेन जे चलैतात ते भक्त म्हजे चड अपुर्बायेचे.

(भ. गी. श्लोक १३ तै २० अ. XII)

## १२ कोंकणी विद्यार्थ्यांक (१९५८)

कोंकणी विद्यार्थ्यांक उदेसून केल्या चार उलोवंपाचो हो एक झेलो. हीं उलोवपां गोंयकार हिंदुसभा वा गोमन्तक हिंदु विद्यार्थी मंडळ हांच्या पाख्याखाल जाल्लीं.

शणै गोंयबाब आपलीं उलोवपां विचार करून आनी आपल्या विशया संबंदान जायत तितली चड माहिती एकठांय करून ती परिश्रम पूर्वक बरोवन काडटाले आनी उलोवपाचे वेळार ते तीं वाचतालेत. कागदां फुडयांत आसल्या खेरीज ते मेकळें उलोवप करिनासलेत. बरैल्लें वाचतांना विशयांतले भावने प्रमाणें तांच्या सुरांत किंचित चडप-देंवप आनी भाव उक्तावप आसतालें, पुण वक्तृत्वाचो आवेश नासतालो. तांचें उलोवप थंडसाणीन जातालें. ल्हानपणापासून ते स्वल्प उलोवपी वा नुलौपी आसलेत. जाण्टेपणांतूय हो तांचो दोश उल्लो. पुण तांचें वाचप अस्खलित आसतालें. तांचें नुलौप अथवा थोडें उलोवप भोव करून तांच्या विचारांच्या आनी भावनांच्या अतिवेगाक लागून आसतालें. म्हण्ट-कूच तें तांच्या मनाची एक सभाविक संरक्षक यंत्रणा आसूंये.

तांच्या उलोवपाची ही एक पत :–

## बरप शिकिल्ल्याचें आनी ना शिकिल्ल्याचें गिन्यान

“बरप शिकिल्ल्याचें गिन्यान म्हळचार छापिल्लें गिन्यान. तें ‘केसरी’ त ‘येराल्दां’ त ना जाल्यार दुसऱ्या कसल्याय पुस्तकांत भरिल्लें आसता. बरप शिकूंक नाशिल्ल्या भाशेन ते झरीचें ताजें गिन्यान पियेनात. तांकां तितली फुरसदूच मेळना. समुद्र कित्याक गाजता, न्हयो कित्याक धांवतात, दोंगर कितें म्हण्टात, झाडां कित्याक धोलतात, फुलां कित्याक हांसतात, सुकणीं कितें गातात, सावदां कशीं नाचतात, हें ते निखालूस ध्यानांत घेनात. इतलेंय जावन ते बरपाक्षरी ते बरपाक्षरी. विद्वान ते विद्वान; गिन्यानी ते गिन्यानी. खरो निजाचो गिन्यानी पडलो एके कुशीक. तो आसून नासून सारकोच. तो विद्वान न्हय. ताका कोण विचारिनात. तांच्या हिस्पान खूपशें बरप शिकतात तेच विद्वान. हो कस लांवक गेल्यार ऋग्वेदाचे मुस्तींतले सगळे मोटे मोटे रुशी अविद्वानां भितर जमा जातले. येवजून पळेल्यार ते रुशी कसलीं पुस्तकां वाचतालेत? खंयच्या साळांनी शिकतालेत? ऋग्वेदांतलीं हजारांवयर जीं तोस्त्रां आसांत तीं ताणींच पैलीं वयलीं घडैलींत. तेंच तांचें पयलें कवीत. तेंच तांचें पयलें पुस्तक. सगळचा सवसारांतलेंय पयलें म्हळचार चिंतां ना. तांचे मुस्तीत शिलेटी नासल्यो, फोली नासल्यो, आनी फळणेर धूळ घालून बोटां झरोंवची चाल नासली. बोळकें ते नकळ आसले. ते फक्कत कवीत घडयताले. आनी आयकून पाठ करताले. देखून तांगेले “विद्येक” श्रुती म्हळचार आयकप हें नांव पडलां. मित्र, वरुण. इंद्र, अग्नि, वायु, सवितृ, सोम, अश्विन, उषा, आदिती, सरस्वती ह्या आनी हेर जायत्या निजाची निर्मणी गाजैण्या देवतांक ताणीं आपल्या ऋचांनी, सूक्तांनी, मंत्रांनी होरायल्यात. तांतूतलें कवीत पळोवन मोटीं व्हडलीं पुस्तकां घोळैल्ल्या विद्वानांचीय मती गुल्ल जाता; खीणभर ही भूंय सोडून ते अंत्राळांत पेयतात. इतलें हें विद्येचें बळगें त्या परीक्षा दिवक नाशिल्ल्या रुशींक खैसून आयलें? भावांनु, हें बळगें येवंक, छापिल्ल्या पुस्तकांय परस आमी व्हडलें एक निजाचें पुस्तक आसा तें वाचूंक लागूंक जाय. पुर्विल्ले रुशी हें पुस्तक वाचतालेत. हाका दोनूच पानां आसात –– वयर मळब नी सकल धर्तरी. हीं दोन पानां भौन भौन बारकायेन वाचून आनी घोळोवन ऋग्वेदांतल्या आमच्या जाण्टेल्यांक रुशी ही पदवी मेळ्ळी. आमचे बरप शिकूंक नाशिल्ले तुर्ताचे जायते गोंयकार भाव रानामळचांतसून भोंवता असताना, पुर्विल्ल्या रुशींभाशेन

हीं दोन पानां वाचतात; देखून बरपाक्षरी मनशांक जें येना तें जायते फावटीं तांकां येता. देखून बरप जाणाशिल्ल्या मनशांनी तांच्या गिन्यानाचो उपेग करून घेवंक जाय, वा खास्सा आपणें तें व्हडलें पुस्तक वाचूंक लागूंक जाय.

(कों. वि. पान ८–९–१०)

## १३ अमृताचो पावस–(नवें-गोंय) (१९३४)

१९३४ वर्सा मुंबैच्या गोमन्तक छापखान्यांतल्यान "नवें गोंय" हें देवनगरी कोंकणीतलें पैलें नेमाळें (ति-म्हैनाळें) भायर सरूंक लागलें. ताचे संपादपी आसले श्री. काशिनाथबाब श्रीधर नायक. पुण ताच्या संपादनाचो चडसो भार शणै गोंयबाबांच्याच माथ्यार आसतालो. ह्या नेमाळचाच्या पैल्याच आंकांतलो सुरवेचो लेख "अमृताचो पावस" हो शणै गोंयबाबांचे लिखणेतल्यान भायर आइल्लो. ह्या ल्हानशाच गद्य-काव्यांत शणै गोंयबाबांच्या विचारांची तेजस्विताय आनी तांच्या भावनांचें रसरशीतपण वाचप्यांक रोकडेंच जाणवता. ह्या लेखांत तांच्या उतरांची काव्यात्मताय उतराकणकणी परगटल्या. आवैभुयेचो उपाट अभिमान, हावेसाची गगनस्पर्शी उंचाय, विज्ञानिक बुदवंताची नदर, चित्ताची निर्भयताय, मनाचें नित्य नवें तरणेपण, स्रमांकश्टांची सभाविक आवड, पर-धार्जिणेपणाची मनस्वी चीड, उमेदीचो फुरफुरो, चेपून वचनाशिल्लो आशावाद, काळजाचें उदारपण, आनी संवसार सुखी करपाची सत्विक वान्सा हे शणैबाबां भितल्ले गुण आनी आदर्श ह्या लेखाच्या वाक्या वाक्यांत वाचप्याक भेटतात. शणैबाबांच्या हृदयांतल्या भावनांचें कूप आपले भितल्ल्या अमृतोदकाच्या भारान भू-विलंबित जावन ताणें नव्या गोयाचे तरणे पिडयेखातीर हो लेखरूपी अमृताचो पावस घाला. ह्या अमृताच्या पावसांत तेदोळा वा उप्रांत जे तरणे गोंयकार न्हालेत तांचें सभावांत मुरिल्लें बावडेपण, लाचारी, आपलजणी वृत्ती त्या पावसाउदकान साप धुवन गेली आसूंक जाय आनी तांच्यांतलो देशाभिमानी, उज् चलणुकेचो, सत्वशीळ वृत्तीचो, उंच हावेसाचो आनी व्हडल्या मनाचो मनीस, अस्मिताय, ताजसाण आनी स्फूर्त घेवन, तट्टटित जागो जावन, संवसाराक नवे नद्रेन पळोंवक लागलो आसूंक जाय.

### अमृताचो पावस

"नवें गोंय पोर्ण्या गोंयांतसूनच वयर सल्लां. जें सातां कोंकणांत म्हालगडें म्हणून सगळो संवसारभर गाजलें, जंय गोकुळांतल्या गोरवां - राखण्याक

श्रीविष्णुच्या अवताराचीं वस्त्रां आनी शस्त्रां मेळून देवपण आयलें, जैं दक्षिणेचें राज्य जोट्टल्या बळिश्ट राष्ट्रकूट सम्राटांचें पाळणें धोल्लें, जंय मराठणाच्या गळयांत सौभाग्याची गळसरी बांदतल्या पराक्रमी जिवबादादान उजवाडाचें पैलें किर्ण पळेलें, तेंच हें पुण्यवंत, कुळवंत आनी भाग्यवंत गोंय. ताका पुर्विल्ले व्हडविकेचो अभिमान जायतो. पुण तितल्यान तें धादोशी ना. ताच्या आंगांतलो कस मोटो, तसो हावेसूय मोटो. आपुण उपाट सुखी जावन सगळो संवसार सुखी करचो ही ताची मोटी वान्सा. त्या खातीर तें कसलेंय साहस करीत. तें धर्तरेच्या खांची-गोंयडयांनी भोंवत. सातां समुद्राचे खरीक हात घालीत. किर्णाची निसण करून एके गिरावळी वैल्यान दुसरे गिरावळीचेर चडत. एके दूदगंगेंतसून दुसरे दूदगंगेंत उडकी मारीत. एका केणांतसून दुसऱ्या केणांत रिगत, एका ब्रह्मांडातसून दुसऱ्या ब्रह्मांण्डांत वचत, आनी संवसाराचो बोंबाडो बार-कायेन सोदून पळेत. असलो ताचो हावेस. तरण्या धाकटया उमेदीच्या गडयांची ताका मोटी ओड. तांचोच ताका चड उबारो. चाळिशी फाटीं पडून संवसाराक उबगल्ल्या, धक्के-चपाटे खावन निर्णल्ल्या, सुक्या वेदान्ताची बडबड लागिल्ल्या, पिरीपिरी करून पिर्डतल्या आनी हजारों दुबावांनी भरिल्ल्या लोकांचो ताका वीट येता. तसल्या लोकाकडेन तें दाव्या दोळयानूय पळेना. जीव म्हळयार गोडाचो बांदो कसो जे लेखिनात, जे मर्णाक भियेनात, जे संकश्टांची पर्वा करिनात, वेळाकाळार वागां-वास्वेलांच्या दाडांत हात घालूंक जे गणमणनात, जे भुके तानेंन जीव सोडिनात, जे राना - रायांत भोंवक काव-चेनात, शियाचो कुलकुलो, वोताचो कडकडो, आनी पावसाचो धडधडो आयलो जाल्यारुय आपणाले लागणुकेकडसून जे केंसभर फाटीं सरनात, जे फुडें घाल्लो पांय फाटीं काडिनात, जे कोणाकूच बागडनात, जे केन्नाच निर्णनात, जे कित्या-नूच निर्शेनात, जे कशेच तरेन हातपाय गळसणायनात, जे परक्याच्या बडवा-चारान निखालूस दिपकनात, जे परक्यांच्या समुद्रांत न्हयां - व्हाळांभाशेन बुडून नाशे जांवक सोदिनात, जे परक्यांच्या फाटल्यान बंद्यांवरी भोंवनात, जे परक्यां-ल्या पोशान उदक पियेनात, जे परक्यांल्या मेंदून येवजिनात, जे परक्यांल्या तंत्रान चलनात, जे परक्यांलें उणें उत्तर सोंसून घेनात, जे नश्टयादुश्टयांक भयांकृत काळाभाशेन दिसतात, जे आपलेपणाच्या अभिमानान लिकलिकतात, जे व्हडविकेच्या उंच हावेसान फुरफुरतात, जे खाशेले कर्तुत्वदशेन वयर सरुंक सोदतात, जे सह्य पर्वतासारके मनाचे थीर, जे गोमन्त समुद्रासारके बुद्धिचे खोल, असल्या जुवान गडयांची ताका तोखणाय दिसता. असल्याच गडयांक

हातांत धरून आपल्या आनी संवसाराच्या बऱ्याक वावुरचेली ताका उमेद आसा. ही तागेली इत्सा तडीक वचून सगळो संवसार सुखान नंदू अशें हांव मागतां." —— शणै गोंयबाब.

(टीप : लेख शणै गोंयबाबांलो, पुण ताचो माथाळो नेमाळ्याच्या संपादप्यांनी घाल्लो आसूंक जाय हें उक्तें आसा.)

## १४ बलिपत्तनाचो सोद (१९६२)

बलिपत्तन हें नांव तीन चार तांब्यापटयांनी आयलां पुण तें जिस्त खैंच्या थळाचें आसुंये म्हणून इतिहास-विद्वानांभितर एक मत ना खैं. पुण बलि. पत्तन म्हळचार गोंया जांबावली म्हालांतलें बाळ्ळी गांव अशें एक मत्त शणै गोंयबाबांनी पुरावे, आधार, व्युत्पत्ती आनी संदर्भ दिवन ह्या पुस्तकांत मांडलां-ताणी ह्या पुस्तकांत दुसऱ्या सगळ्या मतांचें खंडण केलां. शणैबाबांलें हें मत्त सामान्य वाचप्याचे सामान्य मतीक निर्णायक आसाशें दिसता. गेल्या पंद्रा वर्सांत इतिहास सोदप्यांनी शणैबाबांलो निर्णय मान्य केला जातलो —— काय ताणीं तो खोडून काडला आसत ?

सकयल दिल्ल्या तांच्या पुस्तकांतल्या उताऱ्यांत शणैबाब ´बलिपत्तन, उतराची व्युत्पत्ती दिवन विसकणी करतात. आनी इतिहासिक, थळावे, पोर्नी-वळिंचे बी पुरावे दिवन बलिपत्तन म्हळचार गोंयांतलें, हालिंचे बाळ्ळी गांव अशें सिद्ध करतात.

"वलिपवन आनी बलिपत्तन हीं थळां सोदून काडचे आदीं ह्या उतरांनी कितेंय अर्थ सांदावला जाल्यार पळोवन हीं नांवां कित्याखातीर पडली तें आमी ध्यानांत घेवया. वलिपवन ह्या उतराक दोन दुवे आसात. वलिप आनी वन. हांतूत वन म्हळचार रान वा देस. परंत वलिप म्हळचार कितें ? संस्कृत भाशेंत हें उतर ना. हें दक्षिण कोंकणांतलें थळावें उतर दिसता. ज्या थळांत हें घोळटा त्याच थळांत ताचो अर्थ कळुंये. रामायण—महाभारतांतलें 'दंडकारण्य' वा बृहत्संहितेंतलें 'दंडकवन' म्हळचार दण्डकाचें रान वा वन, आनी गोंडवन म्हळचार सातपुड्याच्या सड्या लागशिल्लो गोंड लोकांलो देस. तशेच तरेन वलिपवन ह्या उतराचो अर्थ "वलिपांचो देस" असो आसूंक जाय. पुण हे वलिप लोक कोण ?

गोंयां जांबावली म्हालांत वेळीप नांवाच्या गावड्यांची एक जात आसा. जांबावली म्हालाक ह्या आदीं पंचम्हाल म्हण्टाले, आनी तांतूंत हेमाडबारशें

अष्टाग्रहार, काकोडें, चंद्रवाडी आनी बाळ्ळी हे पांच म्हाल आसपावताले. पुर्तुगेज सरकारान (आज) ह्या म्हालाचे दोन म्हाल करून तांकां सांगे म्हाल आनी केपें म्हाल हीं नांवां दवल्ल्यांत. गुरव, घाडी, जोयशी हांचें भाशेनूच वेळीपांचो धंदो आसून जांबावली म्हालाच्या जायत्या गांवक्यांनी तांगेले वांगड आसात. जांबावली म्हालाचे पूर्व कुशीक तेंकिल्ल्या तितै, सुपें, दिगी, उळवी, बरची, कुंभारवाडो, हल्याळ बी (इंग्रजी सत्तेतळच्या) थळांनी ते जायते भल्ल्यात. १८८१ चे गणनेंत थंय तांगेलो आंकडो उणो–पुरो पंद्रा हजार आसलो. तांकां थंय कोंकणी कुणबी वा काळे कुणबी म्हण्टात. तांगेलें नातें गोंयच्या कुणब्यांकडेन चलता. तांगेलीं घराणीं वा कुळयो आसून तांचे वेगळे वेगळे देव आसात. रामलिंग, नायकी, मोनाय, श्रीनाथ, भूतनाथ, काळनाथ, म्हाम्माय बी देव ते पुजतात. एकाच कुळदेवाच्या घराण्यांभितर सोयरीक जायना. लग्नां-कार्यांत ते कोंकणी गितां म्हण्टात. ते हरण, रान-दुकर, रान-कुंकड, आनी नुस्तें खातात. जो कोण पोशिल्लीं सावदां आनी सवणी खायत ताका ते जात दवरतात. सोऱ्या आड तांचो कडकडीत नेम आसा. आनी सुरस्तळाक लायल्ल्या माडाचे सावळेंत लेगीत ते उबे रावनात. ते सभावान झगडे, पुणून विश्वासू. ते मराठ्यांगेर जेविनात. तांगेल्या देवळांतले पुजारी तांचेच जातीचे आसून तांकां वेळीप म्हण्टात. दर एकल्या गांवांत तांचो बुदवंत आसता. तागेर तांच्यो सभा भरतात. त्याभायर दरएकल्या म्हालाचो बुदवंत आसता. ह्या सगळ्या बुदवंतांच्या माथ्यावयलो म्हालगडो गावडो गोंयां फोंड्यां रावता. १९२७ वर्सा हांव बाळ्ळी गेल्लों तेन्ना थंयच्या एका वेळिपाकडसून मेळिल्ली आनी दोळ्यांनी पळेल्ली खबर हांगा दिल्यार बरी जायत :—

"वेळीप हे बाळ्ळीचे मुदलचे लोक खैं. सगळ्या बाळ्ळी म्हालांत तांगेलीं सुमार पांचशें घरां आसून लोकांचो आंकडो सुमार चार-पांच हजार आस. बाळ्ळी गावांत रायबार म्हण्टात थैं तांचीं कांय घरां आसात. गांवच्या देवाची पुजा करपाचें काम तांचेकडेन आसा आनी आसलें. देखून तांकां वेळीप म्हण्टात खैं. तांगेली देवसपणाची सुवात आसता ताका "पार्न" म्हण्टात. . . . (हांगा शणैबाबांनी वेळीपांविशीं प्रत्यक्ष मेळयल्ली सुमार पंचवीस तीस ओळी भरत इतली खबर दिल्या.) . . . .फाल्गून, चैत्र आनी वैशाख म्हैन्यांत ते काणकोणच्या मल्लिकार्जुनाची पुजा करतात. बाळ्ळी म्हालाभाशेंन हेमाडबारशें आनी काणकोण म्हालांतूय वेळीप आसात. तांगेलो घरचो तसोच गांवचो बुदवंत आसता. ताची सांगणी ते आयकतात."

हे खबरीवयल्यान, जांबावली म्हाल ही वेळीपांची चड पुर्विल्ली आनी मुखेल भूंय आसली-शें दिसता. थंयच्यान ते शेजारच्या घाटावयल्या गांवानी पावले. कोंकणांत आर्य लोक पावचेय आदीं म्हळचार सुमार अडेच हजार वर्सां फाटीं ते थैं जायते आसले. देखून आर्य लोकांनी तांगेले भुयेंक "वेळिपवन" म्हळचार वेळिपांचो देस वा भूंय, आनी तांतूंतल्या मुखेल गांवांक 'वेळिपत्तन' म्हळचार वेळिपपूर वा वेळिपांलें शार हीं संस्कृतायल्लीं नांवां दिलीं जातलीं. आतां हांचेपासून 'बलिपत्तन' आनी 'बळियपुर' हीं उतरां कशीं जाल्यांत तें पळोवया.

आदीं 'बलिप पत्तन' हें उतर घेंवया. उच्चार बदलाच्या नेमान उतरांतल्या निमाण्या 'प' चें 'य' जाता. देखीक, वापि आनी प्रपा ह्या संस्कृत उतरांनी अनुक्रमान 'बाय' आनी 'पोंय' हीं कोंकणी उतरां जाल्यांत. हे भाशेन 'बलिपत्तन' हाचे 'बलिय–पत्तन' जालें. फुडें तांतूतलें 'य' गळ्ळें. देखीक हृदय आनी गवय हांतूंतलें य गळून अनुक्रमान हड्डें आनी गवो हीं कोंकणी उतरां जालींत. हे भाशेन 'बलियपत्तन' हांतूंतलें य गळून 'बलिपत्तन' हें उतर जालें.

आनीक एके तरेन 'बलियपत्तन' उतर बदलूं येता. दोन उतरांच्या गांठव-लांत पैल्या उतराचें निमाणें अक्षर आनी दुसऱ्या उतराचें पैलें अक्षर सारक्या उच्चाराचें आसलें जाल्यार तीं आदीं एकमेकांक चिकटून कांय, काळान तांतूंतलें पैलें गळटा आनी ताचे आदलें अक्षर मोटवें आसल्यार एकाद्रें लांब जाता, दोट्टी जाता वा तांतूंत हकार पट्टा. देखीक : नव-वर हें नव आनी वर ह्या दोन उतरांचें गांठवल आसून तांतूतलें पैलें उतर व न सोंपता, आनी दुसरें उतर व न लागता. देखून दोनूय व एकमेकांत चिकटून 'नव्वर' जावन, कांय काळान पैलें 'व' गळून आनी ताचे आदलें 'न' हकारी जावन "न्हवरो" हें कोंकणी उतर जालें. हेच भाशेन "नाग–गांव" हाचें 'नागांव' जालें. हे रितीन 'वलिप पत्तन' ह्या गांठवलाचें आदीं 'वलिप्पत्तन' जावन 'वलिपत्तन' वा बलिपत्तन जांव येता. हाचे फुडें 'व्रलिपत्तन' आनी बलिपत्तन वा बाळ्ळिपत्तन जावपाक कठिन ना. 'व'चें 'ब' आनी 'ल्ल'चें ळ जाता; ही गजाल कोणाक सांगूंक नाका 'बलिपत्तन' हे उतर ९८८ च्या तांब्यापट्टचांत आयलां, आनी तांतूंतूतच ताकां फुडें बळिनगर म्हळां.

आतां वैलेच नेम लावन बलिपपुर हाचें बलियपुर, बलिपुर जांव येता तशेंच बळिपुर, बळियपुर, बळ्ळिपुर अशेंय जांव येता. पयल्या जयकेशी कदंबाच्या १०७१ च्या वीरगलांत तें बळियपुर अशें आयलां.

हे फोडणिशेवयल्यान गोंयां, जांबावलेच्या पंचम्हालांत 'बलिपवन', आनी तांतूंतलें बलिपत्तन आसून आज हीं थळां अनुक्रमान बाळ्ळी म्हाल आनी बाळ्ळी गांव ह्या नांवानी नंदतात म्हणपाचें उक्तें जालें. हीं थळां दक्षिण शिलाहारांच्या 'कान्त–तर' म्हळचार सुंदर चंद्रमंडळाक (चंद्रवाडयेक) तेंकून आसात.

# १६ शणै गोंयबाब--एक मनीस, एक साइत्यिक

शणै गोंयबाबांच्या सभावांतल्यो आनी व्यक्ती ह्या नात्यान विशेशतायो फाटल्या सगळ्या प्रकर्णांत ठांय ठांय प्रसंगाक अणसरून सांगलेल्योच आसात. ह्या सगळ्या विशेशतायांभितर म्हाल-मुखेल अशी म्हळ्यार तांचो प्रखर आनी तेजस्वी स्वाभिमान. स्वाभिमानाकूच आत्म-सन्मान अशें म्हण्टात. ते आपले भितल्ल्या आपल्या आत्म्याचो अवमान-अपमान जांवचो न्हय म्हणून अतिशय जतनाय घेतालेत. आत्म्याचो अवमान कित्यान जाता? जें अनात्म आसत ताच्या संपर्कान, ताच्या स्पर्शान वा संगान आत्म्याक मळीणपण येता आनी ताचो अवमान जाता. अनात्म गुण म्हळ्यार आत्म्याचे आडगुण वा दोश. ह्या दोशांपासून मेकळें रावप म्हळ्यार आत्म्याचो सन्मान साधप. आत्म्याचो एक सभावगुण म्हळ्यार सत्य. त्या सत्याक ताच्या आडगुणाचो म्हळ्यार अ-सत्य, अन्‌ऋत, वांकडेपण, ढवंगीपण, लटकेपण हांचो स्पर्श घडलो जाल्यार आत्मो अवमानीत जाता. शणैबाबांक ह्या अनात्म गुणांची–दोशांची मनस्वी चीड आसली. तांचेपासून ते सदांच पैस रावून आपलो आत्मसन्मान सांबाळटाले. अशें केल्यान जातले नफा-लुस्कानीची ते लवलेश चिंता करिनासले. देखूनच तांच्या स्वाभिमानान तांचेभितर एक अतिशय तेजस्वी वृत्ती निर्माण केल्ली. तांकां पळेतकूच तिचो भास कोणाकूय जातालो. मात्र ती प्रसंग येत तेन्नाच प्रकट जाताली. हरशीं एक स्थायी भाव कशी तांच्यांत सुप्त–अप्रकट–अवस्तेंत उरताली.

शणैबाबांचो स्वाभिमान वा आत्मसन्मान हो केवळ वैयक्तिक वा जणिक स्वरूपाचो नासलो. आपुण एका लोक-समाजाचो घटक आसां, एका देशाचो नगरिक आसां हे गजालीची तांकां पुराय जाणविकाय आसताली. देखून आपल्या समाजांत वा आपले परंपरेंत जें कितें सत्य आसत ताचोय ते अवमान जांवंक दिनासलेत. वैयक्तिक आत्मसन्मान राखताना ते तें काम नुलैत वा जाय तितलेंच उलोवन आनी बोवाळाबगर साधीत. पुण समाजिक आत्मसन्मानाक ते सर्वजणिक वाचा फोडीत आनी तो सांबाळपाखातीर समाजाक हालौन जागो करीत.

कोंकणी आवयभाशेची सेवा ही समाजिक आत्मसन्मान राखपाची तांची कृती आनी तरा आसली. कोंकणी ही आपली आवयभास, मराठी न्हय, हो

दिश्टावो तांकां जालो तेन्ना ताणी पळेलें कि ती आपल्या गोंयकार समाजाची, कोंकणी समाजाचीय आवयभास आसा. तो कोंकणी समाज -- स्व-समाज -- गरजे ताकतिकेक आपली साइत्यिक (Literary) भास म्हणून पुर्तुगेजीचो, इंग्लेजीचो, कानडीचो वा मराठीचो उपयोग करता जांव, पुण ताची आवयभास कोंकणीच. मागीर ताणी अदिक ध्यान दिवन आपले कोंकणी आवयभाशेकडे पळेलें आनी तांकां दिसलें कि ती कोंकणी संस्कारसंपन्न, कुळवंत भास आसून तिच्यांत साइत्यिक (Literary) भास जावपाची पुराय तांक आसा. फक्त कोंकणी समाजान हें ओळखूंक जाय आनी तिची सेवा करून तिची, उदरगत करुंक जाय. जगांतले संस्कारी आनी स्वाभिमानी समाज आपले आवय भाशेची सेवा करून तिचो विकास करतात आनी तिकाच आपली साइत्यिक भास करतात. कोंकणी लोक तांचेकूय उणाग न्हयंत वा तांकीन असमर्थ न्हयंत. फक्कत स्वाभिमान न्हिदून वा सुस्त उरिल्ल्यान ते आपले विखरिल्ले आनी कुडके जाल्ले स्थितींत मेळत ते, हाताक येत ते भाशेक पोटाकडेन कवटाळून तिका आपली Literary भास म्हण्टात आनी, आनीक एक चुकीचें पावल फुडें घालून तिकाच आपली आवयभास अशेंय म्हण्टात. शणैबाबांच्या हें ध्यानांत येतकूच ताणी आवयभाशेक वयर काडप हें आपलें व्यक्तिगत तशेंच समाजिक कर्तव्य मानलें आनी स्वाभिमानाखातीर ते जल्मभर मनस्वीपणान तिची सेवा करीत रावले, इतलेंच न्हय तर ताणी आपले आवयभाशेचो तिचे अवमानीत आनी हीण दशेंतल्यान उद्धार करपाचो संकल्प अजापांची कृती करून पूर्ण केलो. उद्धृत आनी उजळ अवस्तेंतले आनी भोव सुंदर, प्रसादिक साइत्यिक रूप (Literary Form) प्राप्त जाल्ले हे स्वभाशेक ताणी स्वाभिमानी कोंकणी समाजाचे सुवादीन करून आपली स्रमजीर्ण कूड सोडली.

'शणैबाबांनी आपले तीख बुद्धीक सर्तशीम नासलेल्या वावराची -- परिस्रमांची -- जोड दिवन सर्टिफिकिटाशिवाय, उपाधींशिवाय विद्यापीठाचें मानमान्यतेशिवाय केवळ स्वपराक्रमान खोल आनी अफाट विद्वत्ताय जोडली. पुण कोनशांत पडिल्ले आपले आवयभाशेचे सेवेक आपली जीण आनी ते जिणेंत संपादलेली विद्वत्तायेची जोड ओंपिल्ल्यान तांचें पांडित्य कोणाक दिसलें ना, कोणें ताची तोखणाय केली ना वा तांचे विद्वत्तायेखातीर तांचो मानभौमान खंय जालोना. उफाट्टें तांकां पिसो म्हणून तांच्या कार्याक तांकत ते रीतीन हिणशिलें. तरी आसताना त्या मनस्वी पुरुशान आपलें कार्य तशेंच चलत दवल्लें, आनी मर्णाउप्रांत जायना, आपले आवयभाशेक ताणी साइत्यिक भाशेचो मान मेळोवन दिलो आनी अवनत दशेतल्यान तिची मेकळीक केली.

विद्वत्तायेक लागून अनेक पंडितांक 'ग' ची आनी 'म' ची पिडा जडटा, केन्ना केन्ना दोनूय जडटात. शणै गोंयबाबांक आपले विद्वत्तेचो केन्ना गर्व जालोना अथवा दुसऱ्यांचे विद्वत्तायेचो मत्सर दिसलोना. गिन्यानाच्या मोगाखातीर ताणीं गिन्यान जोडलें, आनी तें एकसारकें ते जोडीतूच रावले, विसंव घेनासताना जोडीत रावले. अशे स्थितींत मेळैल्ल्या गिन्याना खातीर गर्व करच्याक वा दुसऱ्यांच्या गिन्यानाखातीर तांचो मत्सर करपाक तांकां फुरसदूच आसली खंय पैलीं? ते पुराय निगर्वी आनी उदकाभारान भू-विलंबित जाल्या कुपांभाशेन ते अतिशय नम्र आसले. " विद्या विनयेन शोभते " हे म्हणणेचें खरेपण तांचे जिणेत पळोंवंक मेळटा. गिन्यानाच्या झरीचें उदक ते झरीच्या निर्मळ मुळसांत ओंजळी भरून भरून पिताले. म्हण्टकूच त्या झरीच्या सकयल्या भागांत मातयेन गदळलेल्या उदकाचे घडे भरून घेवपी विद्वानांचे विद्वत्तायेचो मत्सर वा दुस्वास तांकां कित्याक म्हणून दिसतलो? तो दिसपाक ते मनाचे मोटवेय नासले. तांचें मन व्हड आसलें. तांकां कीर्त जोडपाची उमळशीक नासली. तांकां उमळशीक आसली ती शुद्ध गिन्यान मेळोंवची आनी आपलें वैयक्तिक तशेंच समाजिक कर्तव्य निःशेष करपाची. देखून विनय हो तांच्या मनाचो आनीक एक स्थायी भाव जावन राविल्लो. जायत्या गिन्यान जोट्टल्ल्या मनशांक गिन्यानाच्यो भौमान्य उपाधी आपणाक मेळच्यो म्हणून वसवस लागिल्लो आसता. पुण शणै-गोंयबाबांक त्या उपाधींचो निखालूस मोह नासलो. गिन्यान मेळवप हो तांच्या मनाचो प्राकृतिक धर्म आसलो. मनशाचें शरीर सहजधर्मान आहार घेता तशें तांचें मन ताच्या सहजधर्मान गिन्यान सोदतालें आनी मेळयतालें.

शणै गोंयबाबांचें मन भुरग्यांल्या मनासारकें निरागस आसलें अशें म्हणप म्हळ्यार ते अ-प्रबुद्ध आसले अशें म्हणप न्हय. ते भुरगे वृत्तीचे जाण्टे पुरुश आसले. वायट-बरें जाणपाची सुक्षीमताय तांच्यात आसली, पुणून तें जाणल्या उप्रांत ताची जाणविकाय तांच्या मनाक मळीण करिनासली. तांचें मन सगळें जाणून सवरून निर्लेप स्थितींत उरतालें.

आपलो गौरवशाली इतिहास आनी उजळ परंपरा विसल्लेली आनी स्व-मान होगडावल्ली कोंकणी जनता, खास करून गोंयची जनता आंगांत आनी मनांत तांक आसूनय, बुद्धीची, भावनेची, कलाकुशळतायेची पारंपरिक, वंशजात बडीची आनी वशाची देण मेळिल्ली आसूनय बाबडी आनी दीन-हीण जावन अस्मितायेविणी – धनीपणाविणी – दीस काट्टाली. तिका शणैबाबांनी पुरुशार्थाची देख घालून दिवन तिच्यांत स्वाभिमानाची ज्योत पेटयली. मनशाचें उलोवप हें ताच्या आत्म्याचें भायलें, उक्तें रूप आसता, तशीच एकाद्रया जनसमाजाची

भास ही ताच्या समष्टिरूप आत्म्याचें भायलें आनी वयर दिसणें रूप आसता. ज्या जनसमाजाक स्व–भास नासता तो समाज सगळ्या गजालींनी आत्महीण जाता. शणैबाबांनी हें वळखून गोंयच्या जनसमाजाची स्वभास उजळ करून, तिका नकसूद साइत्यिक रूप दिवन, तिची निजी तांक उक्ती करून दाखोवन ती गोंयकार जनसमाजाच्या हातांत दिली –– न्हय, मनांत घट रोयली, आनी सांगलें, ' हो तुमचो आत्मो, हाचो सन्मान करात म्हण्टकूच तुमचो जगात भौमान आनी गौरव जातलो, आतांचे भाशेन तुमकां परधाजिणेपणान आनी दुसऱ्यांचें तोंडपुजेपण करून दीस काडचे पडचेनात. ' शणैबाब पुरुशार्थी आसले; पुण ते केवळ जणिक पुरुशार्थी नासले. तांचो पुरुशार्थ समाजिक मळारूय घडलेलो आसलो.

शणै गोंयबाब हे जशे एक व्हड, पुरुशार्थी मनीस आसले तशेच ते एक व्हड आनी प्रतिभासंपन्न साइत्यकारूय आसले. तांचें साइत्यिक मोल कितलें –– केदें आसलें ?

कोनशांत आनी गुपाट काळोखांत पडिल्ले एके जातिवंत, कुळवंत संस्कारी आनी अंतःसामर्थ्यवती म्होवाळ भाशेक ताणीं तिची बांदावळ घालून दिवन, तिचें नाद-शास्त्र रचून, तिका अपूर्व अशी सहजसुंदर, प्रसादिक, अमोघ, लक्ष्य-वेधी आनी पोकळ डामडौल नाशिल्ली सादी सोपी शैली –– शणैगोंयबाब छापाची शैली दिवन तिका उजळ आनी रूपवती करून मनशांत हाडली आनी तिचे भोंवतणचो लज, आत्महीणपण, आप-कुस्कुटावप आनी आत्म-अविश्वास हांचो दाट काळोख स्रद्देचो, आत्मविश्वासाचो आनी आत्म-गिन्यानाचो उजवाड घालून नासो केलो.

शणैबाबांनी आपले आवयभाशेविशींच्या नितांत मोगान आनी गाढ कर्तव्यनिष्ठेन हें सगळें केलें आनी तिका आपले बरपावळीचे मौलिक अळंकार चडैले म्हणून तांकां कोंकणी सरस्पतीचे शिल्पकार, तिचे पाणिनी, तिचे श्रेष्ठ साहित्याचार्य आनी तिची भक्ती करपी भगत आनी तिका होरावपी तिचे गुरव म्हणूंक फावो हांतूंत दुबाव ना.

साइत्याच्या मळबांत स्वयंतेजान लिकलिकणी अनेक भासांची नख्खेत्रां आसलीं. परंत कोंकणी सरस्पतीची तारका काजुल्याभाशेन निष्काळजीपणाच्या धुक्यांत गुठलायल्ले अवस्तेंत खंयूय फुकफुक करताली आसूंये. ब्रह्मांडाचो बोंबाडो सवनरात जागून हेरपी एका ज्योतिर्विदाक ते सरस्पतीचे ज्योतीची फुकफुक दिसली. ताणें आपलें सगळें बुद्दिबळ, आंगबळ, कला-बळ एकवटावन एक तीख-नद्रेची आनी पैस - पल्ल्याची दुरबीण घडयली. आतां, युरेनस, नेप्चून, प्ल्यूटो ह्या, पयलीं ना-दिसण्या उपग्रहांभाशेन कोंकणी सरस्पतीचें पयलीं ना-दिसणें

नख्खेत्र भारती साइत्याच्या मळबांत लिकलिकत आसलेलें सगळयांक दिसता. ही नवी दुरबीण घडोवपी आनी ह्या नव्या नख्खेत्राचो सोद घेवपी अद्भूत पुण नमळायेन वांकिल्लो ज्योतिर्विद म्हळयार शणै गोंयबाब. भारतीय साइत्याच्या नक्षत्र-मंडळांत कोंकणी सरस्पतीची सुवात ह्या ज्योतिर्विदाच्या अथक वावरान आतां निच्छित जाली.

शणैबाब ब्रिटिश हिंदुस्थानाच्या राजकारणांत प्रत्यक्ष वा अप्रत्यक्ष केन्ना पडले नात. ताणी राजकारणी लेख –– नव्या गोंयांतलीं सद्यस्थितीवयलीं स्फुटां सोडल्यार –– केन्ना बरैले नात. पुण तांचें राजकारणांचें निरीक्षण बारकायेचें आसलें. म. गांधीजींचे चळवळीविशी तांकां सहानुभूती आसली. देशाविशीचो तांचो अभिमान नुलोवपी पुण प्रखर आनी भावयुक्त आसलो. कोणेतरी त्याग वृत्तीन राजकारणांत पडलेल्या गोंयकार तरूणान एक वेळ तांकां बरैलें, 'तुमी ह्या वेळार भासशी कित्याक घेवन बसल्यात? तुमचेसारक्या बुद्धिमान मनशान राजकारणात पडूंक जाय आसलें. तुमची सुवात वास्तविक आज थंय आसा." शणैबाबांनी त्यागवृत्तीन राजकारणांत पडिल्ल्या आनी तुरुंगवास भोगलेल्या त्या तरुणाच्या वावराचें कवतुक आनी तोखणाय करून तांका बरैलें, "भासकारणांतूय राजकारण भल्लां हो!" खरें पळेल्यार राजकारण उतर उपकारायनासताना प्रत्यक्ष राजकारणातल्यान अलिप्त रावून ताणी राजकारण –– चड व्हड राजकारण साधलें. कोंकणी भाशेक प्रतिश्टा मेळोवन दिवप, तिची हेरां भासांच्या चेपणांतसून मुक्तताय करप आनी तिका स्वतंत्रताय आनी स्व-राज्य मेळोवन दिवप, कोंकणी भौसाची ताचे भाशेवाटेयां अस्मिताय जागोवन ताका स्वराज्योन्मुख आनी स्व-राज्याक पात्र करप हांतूत कितें ल्हान-सान राजकारण भल्लां? शणैबाब कंठशोष करपी राजकारणी नासले. तसलें राजकारण तांकां साधतेंय ना. पुण ते मंगलकारी मुत्सद्दी राजकारणी आसले. ह्या असल्या राजकारणाचो वसो-वारसो तांकां तांच्या तीन चार शाण्या मुत्सद्दी पुर्वजांकडसून मेळिल्लो. अंत्रुजकार देसायांले राजदूत म्हणून काम करपीं पयले गोरक्षशणै वर्दे, पुर्तुगेजांले पेशव्यांच्या दरबारांतले राजदूत गोर्की (गोरक्ष दुसरे), शणै वर्दे वालावलिकार, उप्रांत ह्या गोर्की शणैले पूत त्याच पेशव्यांच्या दरबारांत अनेक वर्सां (१७९० इ. स. ते १८०८) पुर्तुगेजांचे नामनेचे, मोटे मुत्सद्दी आनी दोनीय सरकारांत मान आनी वजन आसलेले भोव-जनहितकारी राजदूत विठ्ठल गोरक्ष (गोर्की) शणै वर्दे वालावलिकार आनी तांचे फाटल्यान तांचे पूत आनी शणै गोंयबाबांचे पणजे लक्ष्मीनारायण वर्दे वालावलिकार हेवूय पेशव्यांच्या दरबारांत १८१२ मेरेन पुर्तुगेज राजदूताचें काम करतालेत. हे भाशेन विधायक

( Construcetive ) राजकारणाचो वसो शणै गोंयबाबांक तांच्या पुर्विल्ल्या जाण्टयांकडसून मेळिल्लो. खुद्द शणै गोंयबाबांनी आपल्या भास-कारणान एक व्हडलें विधायक राजकारण साधिल्लें. हिंदु आनी किरिस्तांव हे दोन गोंयच्या सर्वजणिक मळार सम-तोलाचे भौस वा लोकसमाज आसले आनी आसात. परंत ते णव्याण्णव वांटयांनी एकमेकांपासून अलिप्त आनी परस्पर परांङ्मुख जनसमाज आसले. तांच्यांत झगडीं नासलीं वा वैरभाव नासलो. परंत एकामेकांभितर समरस जाण्यासारकेंय कांय नासलें. ते एकाच उदकांत दोन वेगळीं जुंवीं आसचीं तशे आसले. शणैबाबांच्या भासकारणान ह्या दोन जुंव्यांक जोडणो पूल तयार जालो. कारण अशिक्षित आनी अर्दशिक्षित किरिस्तांव भोवजन समाज कोंकणीक आपली आवयभास मानतालो. आनी ते भाशेंत रोमी वा कानडी लिपयेंत गरजेचें आनी गरजेपुरतें साइत्य निर्मितालो. शणैबाबांनी रोमी वा कानडी लिपयेचो अनादर अथवा तिरस्कार केलोना. पुण देवनगरी लिपी ही कोंकणीक अदीक फावोशी आनी तिचो साइत्यिक विकास करीत अशी लिपी आसा हें समजावन सांगलें. हाका लागून शणैबाब आनी किरिस्तांव समाज हांचें मजगतीं आत्मीय भाव निर्माण जालो. आदर, मोग, आपलेपण, मित्रताय, हे भाव जागे जाले. अशे तरेन ह्यो दोन लोकजमाती हिंदु आनी किरिस्तांव एके व्यक्तीच्या प्रेम-सुत्रान एकामेकांचे लागीं आयले. तांकां सांदणारो कोंकणी भाशेचो दुवो जसजसो अदीक अदीक घट जायत वतलो तसतशीं हीं दोन भौसां धर्माची वेगळिकाय आसूनय एकामेकांत मिसळून भळून वतलीं. कारण खरो धर्म हो केन्नाच मनशांक वेगळायना. तो तांकां सांदता, एकठांय बांदता. तो मनशांक मनीसकाय हाडटा आनी तांच्यांतले सावदाचे वृत्तीचें उदात्तीकरण करता. हे भाशेन शणैबाबांचें भास-कारण हें एका प्रदेशांतले जनतेंत एकात्मताय हाडूं शकलें तर तें राष्ट्रीय एकात्मताय घट करतलें हांतूंत दुबाव ना. म्हण्टकूच तांच्या भासकारणान नुलैत राजकारणूय साधलें अशें म्हणपांत खरेपण आसा न्हय ?

शणै गोंयबाबांची प्रतिभा भोवमुखी आसली. तिका पाडीत तें तास वा पास पडूं शकतालें. तांचो स्वतःचे आवडीचो विशय म्हळ्यार इतिहास आनी ताचें संशोधन. ललित साइत्याचीय तांकां रुच आसली. असल्या साइत्यांत 'नाटक' हो प्रकार तांकां सगळयांत चड आवडटालो. तांकां जायत्यो भासो येताल्यो. तांची तुळणा करून अभ्यास करपांतय तांकां भोव रूचि आसताली. ते सबाविकपणान भासशास्त्रज्ञ जाले. कोंकणीच्या विकासाचे नद्रेनूय ताणी जायत्या भासांचो खास अभ्यास केलो. संस्कृत वाडमयाचो ताणी खूप बारकायेन अभ्यास केल्लो.

प्राचीन वैदिक संस्कृत, पौराणिक संस्कृत आनी मध्ययुगीन ललित संस्कृत ताणी खूप वाचिल्लें. तांकां व्याकरणशास्त्रांत भोवच गति आनी गोडी आसली. पाणिनीची तांकां खूपच तोखणाय दिस. बुद्धिविकासाखातीर पाणिनीचो अभ्यास करचो अशें ते विद्यार्थ्यांक सांगत. तांचे भोवमुखी आनी अष्टपैलू प्रतिभेक लागून ते अनेकांगी साइत्यकार जाले. इतिहासकार, संशोधक, भासशास्त्री, व्याकरणशास्त्री, नाटककार, कवी, काणयेकार, वेदान्ती, भुरग्यां-साइत्य-रचपी निबंध-प्रबंधकार, व्युत्पत्तीशास्त्री, जिणां-बरपी, आनी खंडन-मंडनात्मक वाद करून जैतांचीं अजिक्यपत्रां जोडपी विवाद-पटु, झगडपी साइत्यकार. ह्या शिवाय तीन वर्सां उंच अभिरुचीच्या नेमाळयाचें संपादन करून ताणी विचारपूर्ण स्फुट बरपूय जायतें केलां. तांची अनेकमुखी साइत्यसेवा पळोवन कोणाचेंय मन अजापान थक्क जायत.

संशोधन करपी साइत्यकार कसो आसचो ताचो शणै गोंयबाब उत्कृष्ट नमुनो आसले. संशोधन करतल्याक सत्याची कदर आसूंक जाय. ना जाल्यार संशोधनूच मुळांत ताणें कित्याक म्हणून करचें ? संशोधन म्हळचार अनेक खऱ्या-खोटया गजालींच्या मिश्रणांतल्यान सत्य गजाल तितली सोदून वेगळी-काडप. म्हण्टकूच सत्याची पर्वा नासलेलो संशोधक म्हळचार ‘ वदतो व्याघात ’ जालो ना ? जायते संशोधक अशे आसतात कि आपलें विधान सत्याक धरून ना, तें चुकीचें आसा हें ध्यानांत येवनय आपली चूक कबूल करपाची मनाची सरळताय आनी उदारताय तांच्यात नासता. शणैबाबांचें सोदप अतिशय काळजीपूर्वक केल्लें आसतालें. तें एकाद्रे गजालीचो सगळे कुशीनी विचार करून तिचेविशीं आपले मत्त दिताले वा विधान करताले. म्हण्टकूच आपलें विधान फाटीं घेवपाचो तांचेर सहसा प्रसंग येनासलो. परंत तशें जालेंच जाल्यार, आपुण आपलें विधान फाटी घेवपाक अणमणचोना अशेंच तरेचो तांच्या बरपां-तलो भाव असतालो. संसोदप्याच्या आंगांत अशे तरेची प्रमाणिकताय आसूंक जाय. आनी ती शणैबाबांत पुरायेन वसताली. संशोधनाच्या वावरांतलें शणैबाबांचें प्रामाणिकतायेचें आनीक एक स्वरूप म्हळचार अशें कि ते सहसा आधाराबगर इतिहासिक विधान करिनासले आनी जो आधार घेतला आसत तो व्हड जांव, ल्हान जांव; म्हत्वाचो जांव किरकोळ जांव, ताचो उल्लेख केल्याबगर ते राव-नासले. कसल्याय साइत्यिक रिणाचो उल्लेख ते अगत्यपूर्वक करताले. हांतूंत तांची जितली प्रामाणिकताय दिसून येता तितलोच तांचो कृतज्ञतायेचो भावूय उक्तो जाता. संसोदप्याच्या आंगांत प्रतिपक्षाविशीं आदर आसूंक जाय आनी ताणें कांय शिष्टाचार पाळूंक जाय. शणैबाबांचें बरप नियाळून पळेल्यार तांच्यांत

हे दोनूय भाव पुराय वसताले हें दिसून येता. शणै गोंयबाब शिश्टाचाराखातीर स्पश्टोक्ति केन्नाच ताळिनासले. शिश्टाचार सांबाळून ते स्पश्टोक्ति कशी करची हें जाणा आसले. ह्या गुणांशिवाय संसोदप्यांत अभिजात संस्कारिताय आसूंक जाय. शणैबाबांच्या बरपांत हे गुण भरपूर आसताले पुणून ते परगटावपाखातीर ते लटकें मोवाळपण मात केन्नाच धरिनासलेत.

पणजेच्या (गोंय) पुर्तुगेज कालीन इश्कॉल नोर्मालिचे आचार्य स्व. प्रो. रामचंद्र शंकर नायक हे 'कोंकणीची व्याकरणी बांदावळ' ह्या पुस्तकाक जोडिल्ले आपले प्रस्तावनेंत शणै गोंयबाबांविशीं म्हण्टात :— " कसलेच तरेचो अधिकार हातांत नासतांना, कसलेच सत्तेचो, जांव उक्तो, जांव पोंदयां, पालव नासतांना आपणांल्या मत्ताचो प्रसार करपाच्या साधनांची अनकुलाय नासतांना आनी भोव समाजाचें मत्त प्रामाणिकपणान प्रतिकूळ आसतांना (कोंकणीक साइत्यिक स्वरूप दिवपाक), एक मनीस निखटे आपणाले लिखणेचे तांकीन, विचारांचे नवें युग निर्माण करुंक पावता, हें लक्षण कसलें ? तर हो मनीस सामान्याभायलो एक म्हापुरुश, येवरोपांत जाका Genio म्हण्टात, आमचो लोक जाका अवतारीक पुरुश अशें म्हण्टात, ते योग्यतायेचो जावन गेलो."

# शणै गोंयबाबांलीं बरपावळ

रोमी लिपयेंतलीं :—

शेक्स्पिअरच्या खेळांची माळ.

१. राजपूत हॅम्लेट आनी ताच्या बापायचें भूत.
२. गोरे बायलेचो काळो घोव.
३. मद्यांखातीर घोवां-बायलांचें झगडें.
४. धुवांची परीक्षा.
५. जुंवळ्या भावांचो घुस्पागदळ.
६. आगुल्ल्याचें निवळण.
७. राणयेचें जिवें बावलें.
८. घातमारो इश्ट.
९. बायलेची परीक्षा.
१०. मोगाचे पिडेचें ओखद.
११. भूसमारे आलेभाव कोलेभाव.
१२. जादूचो जुंवो (रोमी, उप्रांत देवनगरी).

---

१३. बकावलेचें फूल (रोमी आनी देवनगरी).

देवनगरी लिपयेंतलें :—

१. गोंयकाराचो मुंबैकार.
२. मोगाचें लग्न.
३. गोंयकाराची गोंयाभायली वसणूक.
४. कोंकणी भाशेचें जैत.
५. गोमन्तोपनिषत् खण्ड १ लें
६. गोमन्तोपनिषत् खण्ड २ रें.
७. मुरग्यांलो इश्ट.
८. कोंकणी पयलें पुस्तक.

९. पुण्यात्मो राम कामती.
१०. कोंकणी नाद-शास्त्र.
११. भुरग्यांलें व्याकरण.
१२. आबे फारीअ.
१३. नवें गोंय (तिं—म्हैनाळें) वर्स १, २, ३. हांतलें तांचें वरप.
१४. कांही मराठी लेख.
१५. कोंकणी मुळावें पुस्तक.
१६. पोवनाचें तपलें.
१७. झिलबा राणो.
१८. कोंकणीची व्याकरणी बांदावळ.
१९. आलबुकेर्कान गोंय कशें जिरवलें.
२०. कोंकणी विद्यार्थ्यांक (चार उलोवपां)
२१. येवकार अध्यक्षांलें उलोवप आनी 'ऐन वेळार'.
२२. श्री भगवंतालें गीत.
२३. बलिपत्तनाचो सोद.
२४. गीता केन्ना रचली (निबंद)
२५. निमाजगो (लेख).
२६. दो. फ्रोयलानु द मेलु हांच्या येवकाराचें उलोवप.
२७. श्री. वि. ना. मयेंकार हांच्या पत्राक जाप. (पत्र).

# आधारावळ


१. शणै गोंयबाबांली बरपावळ.

२. आजचा व कालचा गोमन्तक (धि गोवा हिन्दु असोसिएशन प्रकाशन)

३. Goa, Facts & Fiction श्री. अ. का. प्रियोळकार

४. धि गोवा हिंदु असोसिएशनचे वार्षिक रिपोर्ट – १९१९ ते १९३७

५. धि गोवा हिंदु असोसिएशन सुवर्णमहोत्सव अंक (Souvenir)

६. अखिल भारतीय कोंकणी साइत्य परिशदेचीं पस्तीस वर्सां – एफ. जं. मार्तिरीस (१०वे परिशदेचें उजवाडावप)

७. वज्र लिखणी – शांताराम शं. वर्दे वालावलिकार.

८. पुर्तुगेज व मराठे – डॉ. पांडुरंग पिसुर्लेंकार.

९. Agentes da Diplomacia Portuguesa na India por Dr. Pisurlencar (1952). (हांतलो ३५२ पानावयलो उतारो)

१०. " जाग " (म्हैनाळें) १९७६ पासूनचे आंक.

११. कोंकणी (म्हैनाळें) – कोंकणी भाशा मंडळ, गोंय–चें मुखपत्र, सुरवेपासूनचे आंक.

## भारतीय भासांचें साइत्य घडोवपी

भारतीय साइत्याच्या इतिहासांत म्हत्वाच्यो पावलां-खुणो जे फाटीं दवरून गेल्यात अशा साइत्य घडोवप्यांची वळख ल्हानसार पुस्तकांचे माळेतल्यान करून दिवची अशी ही येवजण आसा.

"शणै गोंयबाब" हें हे माळेंतलें पयलेंच कोंकणी पुस्तक आसून तें श्री. रा. ना. नायक हाणीं मुळांत कोंकणी भाशेंत बरैलां.

### मेळपाची सुवात :

साहित्य अकादेमी

(१) रवींद्र भवन, ३५, फिरोजशाह रस्तो,
नवी दिल्ली ११० ००१

(२) १७२, मुंबई मराठी ग्रंथ संग्रहालय मार्ग,
दादर, मुंबय ४०० ०१४.

‘ साहित्य अकादेमी ’ ही भारत सरकारच्या पाख्यान इ. स. १९५४ वर्सा थापन जाल्ली ‘ नॅशनल अॅकॅडेमी ऑफ लेटर्स ’ हीच संस्था. ही एक आप-तंत्री संस्था आसून तिचें धोरण एके परिशदेकडल्यान निच्छित जायत आसता. हे परिशदेत विंगड-विंगड भारतीय भासो, राज्यां आनी विद्यापीठां हांचे पडहात आसतात.

अकादेमीची कार्यावळ म्हळचार भारतीय भासां-तल्या नव्या नव्या साइत्यविशयक आरंभांचो एकवट करून त्या भासांची वाड करप ही आसा. एके भारतीय भाशेंतल्या वेंचिल्ल्या साइत्याचो एक प्रशस्त नमुनो हेर भासांच्या वाचप्यांमेरेन पाववप हो तिचो हेतू आसा.

अकादेमीचें उजवाडावप हें चड करून भारतीय भासांतल्यान जायत आसता. इंग्लेजींतल्या उज-वाडावपांचो हेतू सामान्यतायेन भारतीय बरोवपी आनी तांचीं बरपां हांची फावो तितली वळख करून दिवपापुरतोच मेरायल्लो आसा.